# उदकाचो निमाणो थेंबो आसल्यार ताचो तुमी कितले जतनायेन वापर करतले?

## उदक जतनायेन वापरात!

पोरसां-बागो, मळे, शिंपचे खातीर फकत जाय तितलेंच उदक वापरात. गरज नासतना उदक कश्यायकशें वारोवं नाकात. मतींत धरात उदकाचेर सगळ्यांचोच तितलोच अधिकार आसता. उदक सांठयतना आनीक एका दिसा खातीर इल्लें चडूच सांठयात. हें उदक तुमकां जेन्ना नळाक उदक नासतलें तेन्ना वापरूंक मेळटलें.

- नळ वापरले उपरांत नळ रोखडोच बंद करात.
- नळांतल्यान गळटा तें उदक वा वाल्वांतल्यान, टांकयेंतल्यान/पायपांतल्यान गळटलें उदक तात्काळ बंद करात.
- लोकाक उदकाची पुरवण करतल्या पायपांतल्यान जर उदकाक गळटी लागल्यार, वा नळ फुटल्यार आनी कोणूय बेकायदेशीर रितीन वाटे वयल्या पायपांतलयान उदक घेता अशें दिसल्यार तात्काळ आमकां सकयल दिल्ल्या फोनंचेर कळयात. (9422417233)
- आदारा खातीर फोन क्र. 2420069, 2430070 (सकाळीं 8.00 ते सांजे 8.00 मेरेन)

| | | |
|---|---|---|
| पणजी वाठार | : | 2226446 |
| वास्को वाठार | : | 2512382 |
| मडगांव वाठार | : | 2714777 |
| फोंडें वाठार | : | 2312081 |
| म्हापशें वाठार | : | 2262374 |



## कितें आयज तुमी तुमच्या वांट्याक आयिल्लें उदक वांचयलें?

## उदक वांचयात जीण वांचयात!




लोक हिता खातीर वितरावणी

**भौशीक बांदकाम खातें**

गोंय सरकार



# कोंकणी

वर्सुकी अंक 2010



स्थापना १९६२


## कोंकणी भाशा मंडळ

द्वारा कोंकणी भवन
शंकर भांडारी मार्ग, विद्यानगर
मडगांव-गोंय 403601
फोन: 2750585

# मांडावळ

## कथा विभाग



## ललीत विभाग



## कविता विभाग




- **संपादक :** प्रशांत नायक, अध्यक्ष-कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय
- **कार्यकारी संपादक :** नित्यानंद नायक
- **प्रकाशक :** चेतन आचार्य, सरचिटणीस-कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय
- **मुखपृश्ठ फोटो :** नित्यानंद नायक
- **मांडावळ :** एस ग्राफिक्स
- **छापणावळ :** सह्याद्री ऑफसॅट प्रिंटर्स
- **मोल :** रु. 30/-

# रवीन्द्रबाब केळेकारान 'कोंकणी' च्या चवथ 2009 अंकांत बरयिल्ल्या लिखाणाचेर चवकशी करपा खातीर घडयिल्ले समितीचो अहवाल

**कोंकणी भाशा मंडळान चंद्रकांत केणीचेर खासा उजवाडायिल्ल्या 'कोंकणी' ह्या चवथ 2009 अंकांत पान 10चेर रवीन्द्र केळेकाराचो लेख छापला. तातूंत पान 11 चेर तांणी बरयिल्ल्या लिखाणाची सत्यासत्यताय पळोवपाक कोंकणी भाशा मंडळाच्या 27 जून 2010 दिसा जाल्ले साबार बसकेंत हरिश्चंद्र नागवेंकार, प्रकाश कामत आनी संदेश प्रभुदेसाय हांची समिती घडयिल्ली. हे समितीन आपलो अहवाल 26/1/2011 दिसा दिल्लो जो कोंकणी भाशा मंडळाच्या 27/2/2011 दिसा जाल्ले वावुरपी समितीचे बसकेंत पुरायपणान मानून घेतला. ह्या लेखाक लागून भेंब्रे घराब्याची बदनामी जाल्या आनी तांकां मनस्ताप भोगला ते खातीर कोंकणी भाशा मंडळ दिलगिरी व्यक्त करता. कोंकणी अंक वाचप्यां खातीर समितीन दिल्लो अहवाल आमी हांगा छापतात.**

**नित्यानंद नायक**
प्रकाशक, कोंकणी 2009

**प्रशांत नायक**
संपादक, कोंकणी 2009

**चेतन आचार्य**
कार्यकारी संपादक, कोंकणी 2009

कोंकणी भाशा मंडळान चंद्रकांत केणीचेर खासा उजवाडियिल्ल्या कोंकणी ह्या चवथ 2009 अंकांत पान 10 चेर रवीन्द्र केळेकाराचो लेख छापला. तातूंत पान 11 चेर तांणी बरयिल्ल्या लिखाणाचेर चवकशी करपा खातीर कोंकणी भाशा मंडळाचे 27 जून 2010 ह्या दिसा जाल्ले साबार बसकेंत आमची तिगा जाणांची समिती नेमली. ताचे वांगडी अशेः

1. हरिश्चंद्र नागवेंकार
2. प्रकाश कामत
3. संदेश प्रभुदेसाय

आमकां तिगांकय चवकशी करपा खातीर दिल्लो लिखाणांतलो वांटो होः

केशवदाद भेंब्रो आतां मेरेन खंयच दिश्टी पडनाशिल्लो. तो मुखार आयलो. 'तुमी कंपूशाय चलयल्या. भाशा मंडळ लोकशायेंत चलूंक जाय' अशें म्हणपाक लागलो. 'तीन केळेकार (हांव, सुमन्त आनी गुरुनाथ) तांचो भाचो (शंकर भांडारी) म्हणल्यार कोंकणी भाशा मंडळ न्हय.' आमी मडगांवच्या राजकारणाक पयलींच विटिल्ले. आमी तांकां भाशा मंडळ तुमीच चलयात म्हणलें. तांणी घेतलें. आमी केशवदादाचो सभाव नकळ आशिल्ले. भाशा मंडळान क्रमीक पुस्तकां छापपा खातीर शिक्षण खात्या कडल्यान वीस हजार रुपया रीण घेतिल्लें. केशवदादान मंडळ हातांत घेना फुडें ते 'मागून हाडले' आनी आपणालें निजी रीण पयलीं फारीक केलें. म्हणटासर तांचे कमिटींतल्या एकल्यान भाशा मंडळाचीं कांय कदेलां विकलीं आनी जे पयशे आयले ते 'खाले'.

परिणाम - भाशा मंडळ बंद पडलें.

चंद्रकांतान तें आपल्या हातांत घेतलें आनी एका वर्सा भितर तें जाग्यार घालें......

*

ह्या बरोवपांत 'आतां मेरेन...' असो जो उल्लेख आयला तो 1962 वर्सा मडगांवां जाल्ल्या आठव्या कोंकणी संमेलनाचो. (म्हणल्यार अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचो). मनोहरराय सरदेसाय ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आशिल्ले.

हे विशीं चवकशी करपा खातीर आमी पयलीं कोंकणी भाशा मंडळाच्या समिती बसकांच्या विशय सूची आनी निर्णयांची पटी पळयली. पूण तातूंत मेळ्ळे ते संदर्भ फकत वावुरपी समिती आनी साबार बसकांक हाजीर आशिल्ल्या वांगड्यांचे. चुकून एक-दोन कडेन निर्णय मेळ्ळे. भाशा मंडळाकडेन हे विशीं आनीक कसलींच कागदपत्रां मेळ्ळीं नात. हिशेबाची पटीय मेळ्ळी ना.

तशेंच हो पयशांचो वेव्हार देखून भाशा मंडळाच्या बँक खात्या विशीं वासपूस केली. त्या तेंपार हें खातें बँक ऑफ इंडियांत आशिल्लें हें कळ्ळें. पूण तीं खातें पुस्तकां बँकेंतय मेळ्ळीं नात.

हे विशीं शिक्षण खात्यांत वासपूस केली. पूण थंयूय कसलींच कागदपत्रां मेळ्ळीं नात.

निमणो उपाय म्हणल्यार केशवदाद भेंब्रेच्या कार्यकाळांत वावुरपी समितीचेर आशिल्ल्या वांगड्यांक मेळप. पूण कितलेशेच वांगडी हो संवसार सोडून गेल्ले. कांय जाण भारतांतच रावनात.

जे अजून हयात आसात आनी गोंयांतय आसात, तातूंतल्या कांय जाणांनी भलायकेच्या कारणाक लागून, सारकी याद जायना म्हूण सांगून वा हेर कारणांक लागून उलोवपाक न्हयकार दिलो. ते वांगडी अशेः गुरुनाथ केळेकार, नागेश करमली, सुहास दलाल आनी रामकृष्ण जुवारकार.

हयात आसून लेगीत देशा भायर आशिल्ल्यान मेळूंक शकले नात ते वांगडी अशेः रंजन सरदेसाय आनी गुरुदास पै.

उलोवंक मेळ्ळे ते वांगडी अशेः नारायण मावजो, अमृत कांसार आनी सुरेश काकोडकार. तांची मतां पळयात - जोडणी 2

ही समिती घडयिल्ली तेन्ना रवीन्द्रबाब केळेकार हयात आशिल्ले. पूण तांची भलायकी बरी आसनासली, देखून तांकां मेळून तांचेंय मत समजून घेवप शक्य जालें ना.

ह्या सगळ्या मर्यादां भितर रावन समितीन हो अहवाल तयार केला. हांगां आरोप करपी आनी आरोप जाल्ली ह्यो दोनूय व्यक्ती आज हयात ना. तेन्ना ह्या अहवालाचो वापर करून फुडें आनीक वाद करचो न्हय अशें समितीक दिसता.

गोंयच्या कोंकणी भाशा मंडळाची स्थापना 30 सप्टेंबर 1962 ह्या दिसा जाल्ली इतलोच संदर्भ मेळटा. पेद्रू कुर्रय आफोंस हें पयले संस्थापक अध्यक्ष आशिल्ले असोय संदर्भ मेळटा. पूण ताची कसलीच अधिकृत नोंद मेळना. नोंद मेळटा ती 1965 वर्सा सावन. तातूंत विशय सुचीचे पटयेर आशिल्ली पयली सय ही अध्यक्षाची अशें गृहीत धरून आमी यादी काडल्या. ते खातीर पळयात जोडणी 1.

**कोंकणी भाशा मंडळाच्या अध्यक्षांचो कार्यकाळ मेळटा तो असो:**

1) 6 एप्रील 1965 ते 27 फेब्रुवारी 1966 - मनोहरराय सरदेसाय

2) 27 फेब्रुवारी 1966 ते 9 एप्रील 1967 - मनोहरराय सरदेसाय

3) 9 एप्रील 1967 ते 9 जून 1968 - केशव भेंब्रे

4) 9 जून 1968 ते (खबर ना) - केशव भेंब्रे

ही समिती कितलो तेंप उरली हाची नोंद मेळना. पूण 13 जून 1971 ह्या दिसा फुडली साबार बसका जाल्ल्याची नोंद मेळटा. म्हणटकीर ते मेरेन हीच वावुरपी समिती आशिल्ली असो अदमास काडूं येता. पूण हे समितीच्यो फकत 6 बसका जाल्ल्यो ताची नोंद मेळटा. फुडली कसलीच नोंद मेळना.

5. 13 जून 1971 ते (खबर ना) - 10 जाणांची एड हॉक समिती (अध्यक्ष कोण तो कळना)

**हे बसकेंत दोन थाराव घेतिल्ल्याची नोंद मेळटा. ते अशे:**

**थाराव 1** - गोंयच्या सरकाराकडल्यान पुस्तकां खातीर जे 25,000 रुपयांचें रीण कोंकणी भाशा मंडळान काडिल्लें त्या बदला सरकारान कोंकणी भाशा मंडळाकडल्यान पुस्तकां विकतीं घेवचीं अशें हे सभेचें मत. हे विशीं सरकाराकडेन फुडलो पत्रवेव्हार करून वैलो हेत तडीक व्हरपाक ही सभा अध्यक्षांचे वतीन श्री. गुरुदास पै हांकां सगळे अधिकार दिता. तेच भशेन श्री गुरुदास पै हाणींच आपणाक जाय ते भशेन हो प्रस्न सोडोवन कोंकणी भाशा मंडळाक रीण-मेकळें करचें अशेंय ही सभा थारायता.

- केशव व्यंकटेश प्रभू भेंब्रे

**थाराव 2** -सन 1967 ते 15 ऑगस्ट 1972 मेरेनचो कोंकणी भाशा मंडळाचो हिशोब अध्यक्षांनी श्री. सुरेश काकोडकार हांचे पालवान जाग्यार घालून ऑडिटा खातीर बरोवन घेवन सभे माजार दोवरपाची हमी घेतल्या.

हो हिशोब 16 ऑगस्ट 1972 मेरेन अध्यक्षांनी तयार दोवरचो आनी ऑडिट करून घेवन मंडळाच्या असाधारण सभेमुखार सप्टेंबर 1972 मेरेन दोवरचो.

- केशव व्यंकटेश प्रभू भेंब्रे

हाचे उपरांत 3 सप्टेंबर 1972 ह्या दिसा एड-हॉक समितीच्या वांगड्यांची बसका जाल्ली ते बसकेची नोंद मेळटा ती अशी:

**बसकेक हजर आशिल्ले वांगडी:**

1. केशव भेंब्रे
2. महाबळेश्वर बोरकार
3. गुरुनाथ केळेकार
4. नारायण मावजो
5. फा मोरेन सौझ

तातूंत एकच थारावाची नोंद मेळटा, ती अशी:

'कोंकणी भाशा मंडळाच्या एड-हॉक वावुरपी समितीची बसका आज आयतारा 3-9-72 वेर मंडळाचे कचेरेंत जाली. हे बसकेंत मंडळाच्या हिसपा संबंदान नियाळ घेतलो. मंडळाचे पटये प्रमाण कांय जाणांकडल्यान कांय ल्हान-व्हड रकमो येवच्यो आसात अशें दिसून आयलें. तांकां पत्रां बरोवन रकमेची मागणी करपाचें थाल्लें. परत नवी बसका आयतार धावेर घेवन हिशेब पुरो करचो अशें थाल्लां.'

ह्या थारावांत येवपाच्या पयशांविशीं उल्लेख मेळटा. पूण शिक्षण खात्याकडल्यान घेतिल्ल्या रिणाविशीं मात कसलोच उल्लेख मेळना.

10 सप्टेंबर 1972 ह्या दिसा थारायिल्ले प्रमाण बसका जाली. पूण हे बसकेक फकत दोनूच वांगडी हजर आशिल्ले अशी नोंद मेळटा:

1. केशव भेंब्रे
2. महाबळेश्वर बोरकार

हिशेबाविशीं मात कसलीच नोंद मेळना.

**6. 8 ऑक्टोबर 1972 ते 9 डिसेंबर 1973 - चंद्रकांत केणी**

हे समितीनय बसकांतल्या कसलेच चर्चेची वा निर्णयांची नोंद विशय सुचेचे पटयेंत दवरिल्ली ना. देखून मंडळान सरकाराकडल्यान पुस्तकां खातीर हाडिल्ल्या रिणाचें वा हिशेबाचेंय कितें जालें तें कळपाक मार्ग ना.

मजगतीं 26 ऑगस्ट 1973 ह्या दिसा वावुरपी समिती आनी साद्या वांगड्यांची एक खाशेली साबार बसका आपयिल्ली ताची नोंद मेळटा. हे बसकेंत फाटल्या वर्साचो हिशोब मानून घेवप आनी मंडळाचे घटनेंत बदल करप अशे विशय आशिल्ले हाचीय नोंद मेळटा. पूण तांचेर कसली भासाभास जाली आनी कितें निर्णय जाले हाची नोंद मेळना.

ते उपरांत 9 डिसेंबर 1973 ह्या दिसा वर्सुकी साबार बसका जाली. हे बसकेक 35 वांगडी हजर आशिल्ले. हे बसकेन चंद्रकांत केणीक परत अध्यक्ष केलो. पूण ते अध्यक्ष जाल्ल्याची वा हिशेब आनी पुस्तकांच्या रिणाचीय कसलीच नोंद हेय बसकेंत मेळना.

**अनुमान**

**1. रवीन्द्रबाब केळेकार म्हणटात:**

'केशवदाद भेंब्रो आतां मेरेन खंयच दिश्टी पडनाशिल्लो.'

'आतां मेरेन' हीं उतरां 1962 वर्सा मडगांवां जाल्ले अखील भारतीय कोंकणी परिशदेविशीं आसात. ताचो संदर्भ ह्या लेखांत ह्या परिच्छेदा पयलीं आयला. कोंकणी भाशा मंडळाची स्थापना हे परिशदेच्या कांय म्हयन्यांपयलींच जाल्ली. 30 सप्टेंबर 1962 ह्या दिसा. पेद्रू कुर्रय आफोंस हे ताचे संस्थापक अध्यक्ष आशिल्ले अशी म्हायती आमकां वांगड्यांकडल्यान मेळ्ळी. पूण ते समितींत कोण आशिल्ले हाची कसलीच नोंद मेळना. केशव भेंब्रे आशिल्ले काय कितें हाचीय नोंद मेळना. नोंद मेळपाक सुरवात जाता ती 6 एप्रील 1965 ह्या दिसा सावन. तेन्ना मदल्या 30 म्हयन्यांत कितें जालें तें कळपाक मार्ग ना. जे कोण हयात आसात तांकां इतले बारीकसाणीन याद जायना.

**2. फुडें रवीन्द्रबाब केळेकार म्हणटातः**

'तो मुखार आयलो. 'तुमी कंपूशाय चलयल्या. भाशा मंडळ लोकशायेंत चलूंक जाय' अशें म्हणपाक लागलो. 'तीन केळेकार (हांव, सुमन्त आनी गुरुनाथ) तांचो भाचो (शंकर भांडारी) म्हणल्यार कोंकणी भाशा मंडळ न्हय.' आमी मडगांवच्या राजकारणाक पयलींच विटिल्ले. आमी तांकां भाशा मंडळ तुमीच चलयात म्हणलें. तांणी घेतलें.'

वांगड्यांकडल्यान मेळिल्ले म्हायती प्रमाण भाशा मंडळाचे दुसरे अध्यक्ष आशिल्ले मनोहरराय सरदेसाय. ताचे आदीं पेद्रू कुर्रय आफोंस. ते कितले फावटीं अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयले ताची नोंद मेळना. आमी मेळ्ळे त्या वांगड्यांक यादूय जायना. पूण केशव भेंब्रे रोकडेच अध्यक्ष जाले नात. मनोहरराय सरदेसाय दोन फावटीं अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयले. 6 एप्रील 1965 ह्या दिसा सावन (साबार बसकेच्या दिसाची नोंद ना) आनी परत 27 फेब्रुवारी 1966 ह्या दिसा जाल्ले साबार बसकेंत. ह्या दोनूय समित्यांचेर केशव भेंब्रे वांगडी म्हूण आशिल्ले. पयले समितींत ते इकरांतल्या णव बसकांक हजर आशिल्ले. दुसरे समितींत बाविसांतल्या वीस बसकांक. म्हणल्यार ते कार्यरत आशिल्ले हें स्पश्ट जाता.

मनोहरराय सरदेसायाच्या दोनूय समित्यांचेर गुरुनाथ केळेकार हेय वांगडी म्हूण वेंचून आयिल्ले. तेन्ना 'आमी तांकां भाशा मंडळ तुमीच चलयात म्हणलें आनी तांणी तें घेतलें' अशें समस्त तिनूय केळेकारांचे वतीन म्हणप समा जावचें ना. ह्या दोनूय समित्यांचेर रवीन्द्रबाब केळेकार आनी सुमंत केळेकार मात नासलें हें खरें. पूण ताचे आदीं ते खंयच्या समित्यांचेर आसले ताची नोंद मेळना. तेन्ना ते ताचे आदीं नासलें अशेंय म्हणपाक जावचें ना. चंद्रकांत केणी दोन फावटीं अध्यक्ष जाले त्याय वेळार आशिल्ल्या समित्यांचेर ह्या तिगांय मदले एकूय केळेकार नासले.

केशव भेंब्रे पयले खेपे अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयले ते 9 एप्रील 1967 ह्या दिसा जाल्ले साबार वर्सुकी बसकेंत. तेन्नाचे समितींत गुरुनाथ केळेकार आनी शंकर भांडारी हे दोगूय जाण वेंचून आयिल्ले अशी नोंद मेळटा. उपरांत 9 जून 1968 ह्या दिसा साबार बसकेंत केशव भेंब्रे परत अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयले. ते समितींत मात रवीन्द्रबाबान उल्लेख केल्ले तिनूय केळेकार वा शंकर भांडारी हे वेंचून आयिल्ल्याची नोंद मेळना.

तशेंच मनोहरराय सरदेसाय हांचो दोन वर्सांचो कार्यकाळ आनी केशव भेंब्रे हांचो दोन वर्सांचो कार्यकाळ हातूंत खंयच फकत मडगांवकार वा एकूच कंपू अशे लोक आशिल्ले अशें दिसना. हे कोंकणी खातीर आपापल्या मळाचेर कार्य केल्ले एका परस एक व्हड म्हालगडे आशिल्ले हें दुबावविरयत.

**3. रवीन्द्रबाब केळेकार फुडें म्हणटातः**

'आमी केशवदादाचो सभाव नकळ आशिल्ले. भाशा मंडळान क्रमीक पुस्तकां छापपा खातीर शिक्षण खात्या कडल्यान वीस हजार रुपया रीण घेतिल्लें. केशवदादान मंडळ हातांत घेना फुडें ते 'मागून हाडले' आनी आपणालें निजी रीण पयलीं फारीक केलें.'

क्रमीक पुस्तकां छापपा खातीर शिक्षण खात्यान भाशा मंडळाक 25 हजार रुपयांचें रीण दिल्ले (20 हजार न्हय) हाची नोंद 16 जुलय 1972 ह्या दिसा एड-हॉक समिती आनी हेर वांगड्यांचे जाल्ले खाशेले साबार बसकेंत घेतिल्ल्या थारावांत मेळटा. ते शिक्षण खात्याकडल्यान मागून हाडिल्ल्याची नोंद मेळना. शिक्षण खात्यांतय ह्यो नोंदी आतां मेळनात आनी भाशा मंडळाच्या खात्याच्योय नोंदी आतां मेळनात. तेन्ना हो रिणाचो दुडू कोणे शिक्षण खात्याकडल्यान केन्ना हाडलो तें कळपाक मार्ग ना. मात हो दुडू हाडून तो पुस्तकांचेरूच मोडिल्लो आसूंक जाय. कारण होच थाराव रिणा बदला शिक्षण खात्यान पुस्तकां विकतीं घेवचीं अशें सुचयता. म्हणल्यार भाशा मंडळान ह्या रिणाच्या पयशांतल्यान पुस्तकां छापिल्लीं. तो पयसो व्यक्तीगत कारणा खातीर वापरिल्लो जाल्यार पुस्तकां छापप शक्य नाशिल्लें असो अदमास काडूं येता.

ह्या थारावाचो आनीक एक अर्थ काडपाक जाता. तो म्हणल्यार हें रीण फारीक करपा खातीर केशवदादान आनीक कोणाकडल्यान तरी पयशे मागून हाडले. पूण तशें सुचोवपीय कसलीच नोंद खंयच मेळना. उरफाटें हें रीण मिटोवपा खातीर साबार बसका शिक्षण खात्यान हीं क्रमीक पुस्तकां विकतीं घेवचीं अशी शिफारस करता. ते विशीं सगळें कितें थारावपाचो सर्वाधिकार गुरुदास पै हांकां दिता. केशव भेंब्रे हांणी कोणाकडल्यान तरी मागून हाडिल्ले पयशे भाशा मंडळाक परत दिवचे आनी तातूंतल्यान सरकाराचें रीण फारीक करचे अशेंय सुचयना. म्हणटकीर केशवदादान रीण फारीक करपा खातीर कोणा कडल्यान तरी पयशे मागून हाडले आनी तातूंतल्यान आपलें निजी रीण पयलीं फारीक केलें ह्या आरोपाक पुश्टी मेळना. तशेंच केशवदादाकडल्यान ते पयशे परत घेवया आनी शिक्षण खात्याचें रीण फारीक करया अशेंय सुचयिल्लें दिसना. उरफाटें छापिल्लीं

पुस्तकां शिक्षण खात्यान विकतीं घेवचीं आनी रीण फारीक करचें असो थाराव घेता. म्हणल्यार रवीन्द्रबाबाचो हो उल्लेख केशवदादान शिक्षण खात्याकडल्यान मागून हाडले असोच जाता.

हे बसकेंतलो दुसरो थाराव म्हणल्यार हिशोब जाग्यार घालपाचो. तो एड-हॉक समितीच्या अध्यक्षान सुरेश काकोडकारा वांगडा जाग्यार घालचो म्हूण ही जापसालदारकी मुखेलपणान अध्यक्ष आनी काकोडकाराचेर ही बसका घालता. ह्या थारावांतलें अध्यक्ष हें उतर घेतलें आनी एड-हॉक समितीच्या बसकांच्या वांगड्यांच्यो निशाण्यो पळयल्यार ह्या एड-हॉक समितीचेय केशवदाद भेंब्रेच परत अध्यक्ष जाल्ले आसुं येता असो अदमास येता. म्हणल्यार साबार बसकेन एड-हॉक समिती काडून हिशोब जाग्यार घालतनाय केशवदाद भेंब्रे हांचेर विस्वास दाखयिल्लो अशेंच सुचीत जाता. तांणी पयशे खाल्ले जाल्यार तांकांच परत अध्यक्ष कित्याक केलो हो प्रस्न उप्रासता.

हे 10 वांगड्यांचे एड-हॉक समितींत आदले समितीचे केशवदाद भेंब्रे धरून स वांगडी आशिल्ले. ते म्हणल्यार फा क्रूझ फॅर्नांडीस, सुहास दलाल, नारायण मावजो, फा आल्वारू रेमीत मेंदीस आनी फा मोरेन सौझ. ते भायर नवे वांगडी आशिल्ले चार जाण. ते म्हणल्यार शंकर भांडारी, गुरुनाथ केळेकार, महाबळेश्वर बोरकार आनी आव्हाक्लेत आफोंस. आदले समितीन वा केशवदाद भेंब्रेन पयशे खाल्ले जाल्यार ते धरून तांचे समितींतले 60 टक्के वांगडी घेवन ही एड-हॉक समिती घडोवपाचो निर्णय जातलो आशिल्लो अशें दिसना.

ते उपरांत 3 सप्टेंबर 1972 ह्या दिसा एड-हॉक समितीची आनीक एक बसका जाता. ते बसकेंत घेतिल्ल्या थारावा प्रमाण कांय ल्हान-व्हड रकमो येवपाच्यो आसात त्यो पत्रां धाडून याद करच्यो आनी घेवच्यो अशें थारता. पूण 25 हजार रुपयां इतले व्हडले रकमेचो खंयच उल्लेख मेळना.

**4. फुडें रवीन्द्रबाब केळेकार म्हणटातः**

'म्हणटासर तांचे कमिटींतल्या एकल्यान भाशा मंडळाचीं कांय कदेलां विकलीं आनी जे पयशे आयले ते 'खाले'.

कांय वांगड्यांनी दिल्ले म्हायती प्रमाण भाशा मंडळाचो कारबार बंद पडिल्लो तेन्ना एके व्यक्तीन मंडळाचीं कदेलां भायले भायर व्हरून घाणाक दवरिल्लीं. भाशा मंडळाची समिती वा वांगडी हे घडणुकेक निखालस जापसालदार नात अशेंय तांचें म्हणणें आशिल्लें. हे व्यक्तिचें नांवूय समितीक सांगलें. पूण ती व्यक्ती आज हयात ना देखून तें नांव आमी हांगां दिनात.

**5. फुडें रवीन्द्रबाब म्हणटातः**

'परिणाम - भाशा मंडळ बंद पडलें.'

रवीन्द्रबाबाच्या म्हणण्याप्रमाण भाशा मंडळाचें रीण फारीक करता म्हूण केशवदाद भेंब्रेन पयशे मागून हाडले आनी समितीच्या एका वांगड्यान कदेलां विकलीं आनी ताचो परिणाम म्हणून भाशा मंडळ बंद पडलें. 12 ऑक्टोबर 1968 ह्या दिसा जाल्ली केशव भेंब्रे समितीचे निमणे बसकेची नोंद ते 13 जुलय 1971 ह्या दिसा जाल्ली साबार बसका ह्या 32 म्हयन्यांच्या काळांत भाशा मंडळ कशें कितें चलतालें तें कळपाक मार्ग ना. पूण काम थंड पडिल्लें हें कांय वांगडी मान्य करतात.

हें काम ल्हवू ल्हवू करून बंद पडलां हेंय विशय सुचेचे पटयेवेल्यान जाणवता. ते विशींची सविस्तर यादी पळयात - जोडणी 3

**निमणे अनुमान**

ह्या सगळ्या म्हायती वेल्यान समितीक एकूच गजाल दिसता - रवीन्द्रबाब केळेकारान केशवदाद भेंब्रेचेर केल्ले आरोप खरे आशिल्ले अशें म्हणप शक्य ना. भाशा मंडळाक शिक्षण खात्याकडल्यान मेळिल्लें रीण घेवन तांणी पयलीं आपलें निजी रीण फारीक केलें अशें म्हणपाक जावचें ना. तेन्ना हो आरोप समा न्हय अशेंच म्हणचें पडटलें.

हरिश्चंद्र नागवेंकार
प्रकाश कामत
संदेश प्रभुदेसाय

26 जानेवारी 2010

---

## जोडणी 1

**वावुरपी समित्यांचे वांगडी**

**1) 6 एप्रील 1965 ते 27 फेब्रुवारी 1966**

**साबार बसकाः** ही समिती वेंचून काडपा खातीर जाल्ले साबार बसकेची कसलीच नोंद मेळना.

**अध्यक्षः** पेद्रू कुर्रय आफोंस हांचे उपरांत मनोहरराय सरदेसाय अध्यक्ष जाल्ले अशी म्हायती मेळटा. ताचे वेल्यान हे समितीचे अध्यक्ष आशिल्ले अशें गृहीत धरलां.

**वावुरपी समिती वांगडीः**

1. मनोहरराय सरदेसाय
2. सुहास दलाल.
3. फा. वास्कु रेगो
4. फा. क्रूझ फॅर्नांडीस
5. फा. आल्वारू रेनीत मेंदीस
6. कार्मु द सिल्व
7. केशव भेंब्रे
8. विजया सरमळकार
9. सचित कुंकळियेकार
10. गुरुनाथ केळेकार
11. फॅर्नांदू रेगो
12. ज्युलियो कौदेरू मोंतेरू
13. हरिश्चंद्र नागवेंकार

**समितीच्यो बसकाः 11**

**केशव भेंब्रे हजरः** 9 (ते भायर 2 फुडें धुकुळिल्ल्या बसकांकय हजर)

**2. 27 फेब्रुवारी 1966 ते 9 एप्रील 1967**

**साबार बसकाः** 27 फेब्रुवारी 1966 (39 वांगडी हजर)

**अध्यक्षः** मनोहरराय सरदेसाय

**वावुरपी समिती वांगडीः**

1. मनोहरराय सरदेसाय
2. फा. वास्कु रेगो
3. गुरुनाथ केळेकार
4. नागेश करमली
5. केशव भेंब्रे
6. रंजन सरदेसाय
7. विजया सरमळकार
8. जनार्दन फळदेसाय
9. नारायण किर्तनी
10. रोमियो आल्मेदा
11. भानुदास नगर्सेकार
12. फा. क्रूझ फॅर्नांडीस
13. रमाकांत पोवळेकार

**वावुरपी समिती बसकाः** 22

**सत्तकी समिती बसकाः** 10

**केशव भेंब्रे हजरः** वट्ट 20

**3. 9 एप्रील 1967 ते 9 जून 1968**

**साबार बसकाः** 9 एप्रील 1967 (35 वांगडी हजर)

**अध्यक्षः** केशव भेंब्रे

**वावुरपी समिती वांगडीः**

1. केशव भेंब्रे
2. फा. क्रूझ फॅर्नांडीस
3. नारायण मावजो
4. सुहास दलाल
5. महाबळेश्वर बोरकार
6. फा. वास्कु रेगो
7. पांडुरंग भाटीकार
8. लीला किर्तनी
9. गुरुनाथ केळेकार

10. अमृत कांसार
11. शंकर भांडारी
12. श्रीकांत गांवकार
13. नारायण किर्तनी

**वावुरपी समिती बसकाः** 14
**केशव भेंब्रे हजरः** 14

**4. 9 जून 1968 ते (खबर ना)**
**साबार बसकाः** 9 जून 1968 (33 वांगडी हजर)
**अध्यक्षः** केशव भेंब्रे
**वावुरपी समिती वांगडीः**
1. केशव भेंब्रे
2. डॉ लुईश पेरेग्रीन कॉश्त
3. मोहन कारापूरकार
4. झितू आल्मैद
5. फा. क्रूझ फॅर्नांडीस
6. फा. आल्वारू रेमीत मेंदीस
7. सुहास दलाल
8. फा. मोरेन सौझ
9. रत्नाकर वेर्लेकार
10. फा. प्लांजोन फारिया
11. रामकृष्ण जुवारकार
12. नारायण मावजो
13. माधव नेवरेकार

**वावुरपी समिती बसकाः** 6

ही समिती कितलो तेंप उरली हाची नोंद मेळना. पूण 13 जून 1971 ह्या दिसा फुडली साबार बसका जाल्ल्याची नोंद मेळटा. म्हणटकीर ते मेरेन हीच वावुरपी समिती आशिल्ली असो अदमास काडूं येता. पूण हे समितीच्यो फकत 6 बसका जाल्ल्यो ताची नोंद मेळटा. फुडली कसलीच नोंद मेळना.

नोंदीप्रमाण निमणी बसका 12 ऑक्टोबर 1968 ह्या दिसा जाल्ली. हे बसकेक फकत 4 वांगडी हजर आशिल्ले. ते अशेः
1. केशव भेंब्रे
2. झितू आल्मैद
3. फा. क्रूझ फॅर्नांडीस
4. फा. मोरेन सौझ

10 ऑगस्ट 1968 ह्या दिसा जाल्ले तिसरे बसके सावनच सामकेच उणे वांगडी बसकेक हजर रावताले अशी नोंद मेळटा. तिसरी बसकाः 4 वांगडी हजर. चवथी बसकाः (14 सप्टेंबर 1968) फकत दोग जाण हजर - केशव भेंब्रे आनी फा मोरेन सौझ. पाचवी बसकाः (22 सप्टेंबर 1968) 5 जाण हजर.

**5. 13 जून 1971 ते (खबर ना)**
**साबार बसकाः** 13 जून 1971 (23 वांगडी हजर)
**अध्यक्षः** कोण वेंचिल्लो काय ते नकळो
**एड-हॉक समितीः** हे बसकेक 10 जाणांची एड-हॉक समिती वेंचून काडली अशी नोंद मेळटा. तिचे वांगडी अशेः
1. केशव भेंब्रे
2. शंकर भांडारी
3. फा क्रूझ फॅर्नांडीस
4. महाबळेश्वर बोरकार
5. गुरुनाथ केळेकार
6. सुहास दलाल
7. नारायण मावजो
8. फा आल्वारू रेमीत मेंदीस
9. फा. मोरेन सौझ
10. आव्हेक्लेत आफोंस

**एड-हॉक समिती बसकाः** 9 (17 जून 1971 ते 10 सप्टेंबर 1972)
**एड-हॉक समिती आनी हेर वांगड्यांची बसकाः** 16 जुलय 1972 (28 वांगडी हजर)

**6. 8 ऑक्टोबर 1972 ते 9 डिसेंबर 1973**
**साबार बसकाः** 8 ऑक्टोबर 1972 (34 वांगडी हजर)
**अध्यक्षः** चंद्रकांत केणी
**वावुरपी समिती वांगडीः**
1. चंद्रकांत केणी
2. फा. मोरेन सौझ
3. शांताराम ल नायक
4. महाबळेश्वर बोरकार
5. सुरेश काकोडकार
6. फा. ए. गोमीश
7. पुंडलीक नायक
8. प्रा एम् नुनीश
9. सतीश दळवी
10. फेलिस्यु कार्दोज
11. एन्. शिवदास
12. पोरफिरियु सिल्व लोबु
13. मोहन कारापुरकार

**वावुरपी समिती बसकाः** 9

## जोडणी 2

भाशा मंडळाच्या तेन्नाच्या तीन वांगड्यांचीं नोंद केल्लीं मतां -

**नारायण मावजो (नोंद केल्लो दीस - 16 सप्टेंबर 2010)**

भाशा मंडळाचीं क्रमिक पुस्तकां छापपा खातीर कागद विकतो हाडपाक पयशे नाशिल्ले. तेन्ना हावें म्हजे आवयचें भांगर मडगांव अर्बन बँकेंत घाणाक दवरिल्लें. अशेच तरेन गरज पडटा तेन्ना आमी हाचे कडल्यान ताचे कडल्यान पयशे हाडटाले आनी भाशा मंडळ चलयताले. मागीर ते केन्ना तरी जमता तशे वसूल करून घेवप. पदरचे चड मोडप. केशवदादानय तेंच केलां. सरकाराकडल्यान भाशा मंडळाक पयलेच खेपे एक लाख रुपया मेळ्ळ्यात ते चंद्रकांत केणी अध्यक्ष जाले तेन्ना, तेन्नाचे मुख्यमंत्री भाऊसाहेब बांदोडकाराकडल्यान. हावें केशवदादाचे समितींत काम केलां. केन्नाच कसलींच फटिंगपणां तांणी केल्लीं हावें पळयलीं नात.

**अमृत कांसार (22 ऑक्टोबर 2010)**

हांव तेन्ना समितींत आशिल्लों. केशवदाद तसो गिरेस्त मनीस न्हय. पूण ताणे केन्ना कसलोच गैरवेव्हार केला अशें म्हाका तरी दिसना. तत्वां आनी मुल्यां धरून चलपी लोक ते. त्या वेळार कोंकणी म्हणल्यार फकत त्याग आनी त्याग. जोड म्हणटा ती नाच. दरेकल्यान पदरचे पयशे मोडप आनी कार्य करप.

**सुरेश काकोडकार (3 डिसेंबर 2010)**

कितेंय जाल्लें जाल्यार अध्यक्षा वांगडाच पयली जबाबदारी भांडाऱ्याची. भांडारी कोण आशिल्लो? तशेंच पुराय समितीची जापसालदारकी ती. फकत एका केशवदादाची न्हय. निमणे सरकाराचे पयशे काय एका मनशाच्या नांवान येवचे नात. ते भाशा मंडळाच्या नांवानच येतले. ते काडटले जाल्यार लेगीत उण्योच अध्यक्ष आनी भांडाऱ्याच्यो अश्यो दोन सयो जायच. समजा काडून खाले जाल्यार दोग जाण तरी जबाबदार आसपाक जाय. मागीर एकल्याक जबाबदार धरप कित्याक? आनी इतली व्हडली गजाल जाली आनी हेर वांगडी वोगी च रावले? पयलीं म्हणल्यार अशें कांयच जालें ना. फकत जें कितें जालें ताचो हिशोब सारको दवरलो ना. ताका लागून गोंदळ जाल्लो, इतलेंच. म्हणल्यार रिसिटी आशिल्ल्यो, पूण कांय व्हावचरां बी त्या त्या वेळार बरोवन दवरलीं नात. म्हजे कडेन आतां त्या हिशेबाची कांय नोंद ना. आतां म्हाका सगळी यादूय जायना. पूण पयशे खाले अशी परिस्थिती नाशिल्ली हें मात सेर्त.

सरकाराकडल्यान मेळिल्लें रीण केशवदाद अध्यक्ष आसतना काय मनोहरबाब अध्यक्ष आसतना ही सारकी याद जायना.

रविन्द्रबाबान हो आरोप केशवदाद भायर पडटकीर करपाचो न्हय. रविन्द्रबाबय आमचेच. पूण तरिकय अशे तरेन मनीस वतकीर आरोप केल्ल्यान गोंदळ वाडटा आनी ताका सारकी जाप मेळप शक्य जायना. तेन्ना ह्या वादाक कांयच अर्थ ना अशें म्हाका दिसता.

## जोडणी 3

**1) केशव भेंब्रेचो पयलो कार्यकाळः**

दोनूय समित्यांची पयली जोड-बसकाः 24 एप्रील 1967 - सगळेच मेळून 13 वांगडी हजर

| | |
|---|---|
| दुसरी बसका | - 17 मे 1967 - 5 वांगडी हजर |
| तिसरी बसका | - 24 मे 1967 - 3 वांगडी हजर म्हूण फुडें धुकुळ्ळी |
| | - 31 मे क थारायली - कांय नोंद ना |
| | - 14 जूनाक परत बसका जाली - फकत 3 वांगडी हजर |
| | - 25 जूनाक परत बसका जाली - 9 वांगडी हजर |
| चवथी बसका | - 2 जुलय 1967 - 10 वांगडी हजर |
| पांचवी बसका | - 30 जुलय 1967 - 8 वांगडी हजर |
| सवी बसका | - 12 ऑगस्ट 1967 - 7 वांगडी हजर |
| सातवी बसका | - 27 ऑगस्ट 1967 - 9 वांगडी हजर |
| आठवी बसका | - 13 सप्टेंबर 1967 - कोरम नाशिल्ल्यान जालीना |
| णववी बसका | - 15 ऑक्टोबर 1967 - 9 वांगडी हजर |
| धावी बसका | - 11 नोव्हेंबर 1967 - 3 वांगडी हजर - फुडें धुकुळ्ळी |
| | - 19 नोव्हेंबर 1967 - 9 वांगडी हजर |
| इक्रावी बसका | - 27 डिसेंबर 1967 - 6 वांगडी हजर |
| बारावी बसका | - 7 जानेवारी 1968 - 4 वांगडी हजर (फुडें धुकुळ्ळी) |
| | - 11 जानेवारी 1968 - 6 वांगडी हजर |
| तेरावी बसका | - 22 फेब्रुवारी 1968 - 7 वांगडी हजर |
| चवदावी बसका | - 24 एप्रील 1968 - 6 वांगडी हजर (फुडें धुकुळ्ळी) |
| | - 29 एप्रील 1968 - 7 वांगडी हजर |

**2) केशव भेंब्रेचो दुसरो कार्यकाळः**

पयली बसका- 26 जून 1968 - 11 नांवां आसात, सयो नात

दुसरी बसका- 13 जुलय 1968 - 7 वांगडी हजर

तिसरी बसका - 10 ऑगस्ट 1968 - 4 वांगडी हजर

चवथी बसका- 14 सप्टेंबर 1968 - 2 वांगडी हजर

पांचवी बसका- 22 सप्टेंबर 1968 - 5 वांगडी हजर

सवी बसका- 12 ऑक्टोबर 1968 - 4 वांगडी हजर



# उबगण





• महाबळेश्वर सैल

**चोंयवटेन** सगळो चकचक पातळिल्लो. भांगरां शिंगरां, पसयो आडको, खाणजेवण हाचो सुकाळ आसलो. दुकानां भरून र ओततालीं. बँकांतल्यान पयशांचे भोरे भितर सरताले आनी भायर वताले. एटीएम, क्रेडीट कार्ड, स्मार्ट कार्ड हांची चलती आसली. मोबायल, लॅपटॉप, डिजीटल कॅमेरा, टीव्ही हांची तरनाट्यांक भूल पडटाली. गाडयांच्यो इतल्यो तरेच्यो मॉडेली रस्त्यान धांवताल्यो पळोवन दोळे दिवपकताले.

पूण रेश्माक मात कांयच मेळनासलें. कॉलेजीच्याय दुसऱ्या वर्साक ॲडमिशन घेतना आवयन रीण काडून पयशे भरिल्ले. ताच्या हातांत मोबायल सोड, आंगार बरे कपडे, पांयांक धड चप्पल उरनासलें. तेलकट कशे तकलेचे केंस घेवन तें कॉलेजीक वतालें. चोंयवटेन चकचक पळोवन ताका तिडक मारताली. राग येतालो कितेंय धरून धाडायतालें.

तीग जाण भयणां मदलें तें तिसरें. व्हडल्या दोगांयचीं लग्नां जाल्लीं. त्या लग्नाक घर धुवून गेल्लें म्हणल्यार जाता. लग्नांची रिणां आजून बाकी आशिल्लीं. ताचो तकादो लागिल्लो आसतालो.

बापूय पयलीं बांदकामाचेर सुरपवायजर म्हूण काम करतालो. एके कडेन निकतेच घाल्ल्या बांदकाम कोसळ्ळें आनी ताचे खाला सांपडून दोग कामदार मेले. ताची पुलीस केस जाली. बापायक धरून पुलीशेंत व्हेलो. ताची नोकरीय गेली. तातूंत बापूय हताश जाल्लो तो परतो सांवरलोच ना. मागीर पिवंकूय लागलो.

आदीं वंश पिळगेचो गरीबच घराबो तो. भाटकाराच्या भाटांत ल्हानसो बसके घर आसलें. ताका वयर नळे आसले आनी सकयल चुडटांची पांवळी आसली. घरांत भितरय कसली शिरवंतकाय नासली. घराक पळोवनच रेश्मालें मन उबगतालें. कॉलेजींतल्यान येतकच आदीं काय वेळ घरा भायर उबें रावतालें, मागीर मन नासतनाच भितर सरतालें. चोंयवटेन सोबीत रंगयिल्ले दोन दोन माळयेचे बंगले. व्हडल्यो व्हडल्यो इमारती, तातूंतले फ्लॅट आनी हे आमचें दरिद्री घर! पावसांत गळप चुकोवंक रातचे हांतरूण भायर भितर करचें पडटा. बसूंक सोफा ना, न्हिदूंक एक धड खाट ना... लोकाल्या घरांनी बरी बरी वॉशिंग मशिनां आसात. आमी बांयचेर व्हरून फातरीर आपटून कपडे धुतात. कोणालो तरी पोरणो टीव्ही घेतिल्लो. तो सदां मोडिल्लोच आसता. एक दीस शेजारची एक बंगल्यांतली बायल म्हणटाली, "ह्या बुरशा घराक लागून हांगाची सोबाय, हांगाचें मोलच गेलां".

आई म्हाका शिकोवंक मात धडपडटा. म्हणटा तूं बरें शिकल्यार खंयूंय नोकरी लागतली. चार पयशे जोडटलें. म्हजे वरी दिसवड्याच्या वावराक वचें पडचें ना. रेश्माक सगळ्यांचीच उबगण आयल्या. केन्ना जीव दिवचो अशें दिसता. किवाट्यान केन्ना ते केंस

गॅदरिंगाच्या दुसऱ्या दिसा सांजेचें तें कॉलेजींतल्यान घरा आयलें. कुडीक, मनाक कसली शक्तूच नाशिल्ले वरी लकतशें ते चलतालें. घरा आयल्यार घरा आई बाबा कोणूच नासले. घर उक्तें केल्यार घरभर गरीब बुरसो पसारो पातळिल्लो. तो मोडिल्लो टीव्ही एके वटेन लायिल्ले वरी ताचो हारसो फुटिल्ले वरी दिसतालो. सांजेच्या बेगीनच घरांत काळोख भरून आसलो.

बुड्डून घेता. कॉलेजीच्या कॉरिडोरांत, कॅण्टिनांत, झाडा मुळांनी उबी रावन भुरगीं मोबायलार हांसत, किटकिटत उलयतात, रेश्माचो जीव इल्लो इल्लो मरूंक पावता. म्हजो म्हजे आईचेर कितलो मोग आसा! तिचे यादीन केन्ना जीव आकुळपिकूळ जाता. पूण 'आई तूं खंय आसा, केन्ना घरा येतली?' इतलें लेगीत तिचे सरीं उलोवंक मेळना. ताका ओगीच दिसतालें अशी मोबायलाचेर अखंड उलोवपी भुरगीं म्हाका चाळयतात. म्हाका पळोवन चडूच खिदळटात.

कितल्या तरेच्या मोदींचे कपडे हेर भुरग्यांच्या आंगार. पूण ते दिमये सकयल पडिल्लो स्कर्ट आनी वयर एक पोल्क घालूनच सदां कॉलेजींत येतालें. ताच्या केंसांत केन्ना शांपू पळयलो ना. चेऱ्याचेर पोवा खेरीत कांय लायलें ना.

एक दीस कॉलेजींतली एक इश्टीण ताका पांच-स जाणांक घेवन एका बऱ्या हॉटेलांत गेलीं. थंय तांणी सूप, पिज्जा, कोक बीन घेतले. साडेणवशे रुपया बिल जालें. पळोवन रेश्माचे दोळे घुंवले. दिसलें, णव रुपया दिवंक लेगीत म्हज्या जिवार येतासले. मन चुरचुरतालें. दिसभर तें त्या बिलांतूच आसलें. इतलो पयसो लोकां कडेन खंय सावन येता? ह्याच विचारांत तें आसलें.

सूर्यकांत नांवाचो एक भुरगो ताच्या वासाक आशेल्ले वरी ताच्या आसपासच रावूंक पळयतालो. सदां हांसत ओगीच कितें तरी विचारतालो. रेश्माकय तो मानवतालो. हांसकुरो आनी सरळ मनाचो असो. तोवूय व्हडल्या गिरेस्तालो भुरगो नासुंये. अशे कांय दीस गेले. तो मोगय दाखयनासलो. पयसूय रावनासलो. रेश्मा कॉलेजीक पावच्या वेळार तो गेटीसरीं खंयूय राविल्लो दिसल्यार रेश्माक दिसतालें तो आपणाक रावता, म्हाका मेळूंक तळमळटा. तीं तेन्ना मेळूनच कॉलेजींत येतालीं.

एक दीस रेश्मा ताका कॉलेजीच्या आंवाठांत आशिल्ल्या एका झाडा पोंदाक घेवन गेलें. थंय ताणें सूर्यकांताचेर आपलो मोग उक्तायलो. तो एकदम गंभीर जालो. बरोच वेळ ओगीच रावलो. मागीर म्हणलें, "तुमी खूब गरीब खंय न्हय गो. मोगूच केलो म्हूण जालो, फाल्यां लग्न जाता म्हणल्यार आई बाबा तयार जावचीं नात कशींच'..

"न्ही, तूं सदां लागीं लागींच रावंक पळयतालो हांसूनच उलयतालो".

"फ्रेंडशीप गो ती. आमी मुखारय बरीं फ्रेंड्स म्हणूनच रावया".

रेश्मा सडसडीत उठून उबें रावलें. तीख आवाजांत म्हणलें, "तुका फ्रेंडशीपाक हांव चलीच कित्याक जाय. कॉलेजींत चलयांचो कितें दुकळ पडला. ढोंगी भुरगो तूं". तें चलूंक लागलें तोंड फिरोवन.

रेश्मा जाणा आसलें कॉलेजींत कितलेशेच चले चलयो मोगांत पडल्यात. मोगांत मजा करतात. सूर्यकांतान म्हजी गरिबीच पळयली. तें सामकेंच निर्शेलें.

पूण एक दीस आवयन खंयच्यान खंयच्यान जमयिल्ले कांय पयशे हाडून कोथमिरीच्या डब्यांत घालून लिपोन दवरिल्ले. रेश्मान ते पळयले. रातचेच तें गुपचूप काडून पर्सींत घालून दवरले. दुसऱ्या दिसा ते घेवन तें बाजारांत गेलें. वाटेंत मेजून पळयल्यार ते बाराशें रुपया आसले. ते पयशे घेवन एक मोबायल विकतो घेवचो म्हूण पुराय बाजार भोंवलें. पूण ताच्या गांवांत ताका तितल्या पयशांचो मोबायल मेळ्ळो ना.

सकाळ बाजार भोंवन दनपारां घरा आयलें. आवय ताची वाट पळयत दारांतूच उबी आसली. तिणें विचारलें, "रेश्मा तुवें म्हजे डब्यांतले पयशे घेतल्यात?"

रेश्मान एकदम रागान झिडपल्ले वरी व्हडान "हय घेतल्या" म्हणलें आनी सगळे पयशे सालांत शेंवटिले. ते फापसून पडले.

आवय मागीर ताका झिडपून कितें कितें उलयत रावली. तिणें तिका चोर म्हणलें, आयतेंखावू म्हणलें. रेश्मा आवय सरीं झगडटा झगडटा रडूंक लागलें. मागीर फिटशे आयिल्ले वरी जमनीर पडून लोळूंक लागलें.

कॉलेजीचें गॅदरिंग लागीं पाविल्लें. मोटी धांवपळ चलिल्ली. रेश्मा सगळ्यां पसून बेठेच कुशीक कुशीक रावतालें. ती धांवपळ तें गावप, नाचपाकांयच ताका सोंसनासलें. गॅदरिंगाच्या आदल्या दिसा तें भायर कॉरिडोरांत उबें आशिल्ले कडेन घुंवळ येवन धप्प करून सकयल पडलें. कोणें तरी कँटीनांत धांवन वचून सोडा हाडलो. तो तोंडार तकलेर मारतकच तें सावचीत जालें. ताणें घरा कांयच सांगलें ना.

गॅदरिंगा दिसा कॉलेजींत मोटो झकपक आशिल्लो. झगझगीत स्टेज थंय वाजपी संगीत, भुरग्यांचो गजबज. रेश्मा कुशीक कुशीकच आसलें. प्रत्यक्ष गॅदरिंगाचो कार्यक्रम चलतना लेगीत तें पयस अलिप्त. तोंडार मातूय हांसो नासलो. भायर भितर भयंकर निर्शेणी.

गॅदरिंगाच्या दुसऱ्या दिसा सांजेचें तें कॉलेजींतल्यान घरा आयलें. कुडीक, मनाक कसली शक्तूच नाशिल्ले वरी लकलतशें ते चलतालें. घरा आयल्यार घरा आई बाबा कोणूच नासले. घर उक्तें केल्यार घरभर गरीब बुरसो पसारो पातळिल्लो. तो मोडिल्लो टीव्ही एके वटेन लायिल्ले वरी ताचो हारसो फुटिल्ले वरी दिसतालो. सांजेच्या बेगीनच घरांत काळोख भरून आसलो. ते आदीं घुंविल्ले वरी जालें. मागीर उबगण, निर्शेणेन ताचें मन भरून गेलें. सगळ्यांची तिडक मारली...

आईच्या देवा फळ्यार फस्क आसलें ताणें तें उखल्लें. भायर येवन फस्का काडी लावन घराची चुडटां पांवळी पेटोवन दिली. उजो भगभगत वयर वयर गेलो. कांय वेळ ते चडट्या उज्या कडेन पळयत रावलें मागीर घुंवळ येवन पडलें.



• जयमाला दणायत
30 मांगल्य, अवधूत कॉ. हा.सोसायटी
नाना शंकरशेठ रोड,
डोंबिवली (वेस्ट) 421 202
फोन : 95251 2495530

# खट...!

''**पुलीस** जाले तरी मनिसूच न्हय? खाकी युनिफॉर्म चडयलो म्हणून मनांत आशिल्ली विकृती खंय वतली? दादले सगळे सारकेच, चान्स मेळटात थंय हात मारूंक सोदतात. चली एकटेच दिसतकच कावळो कसो भोपशाचेर नदर दवरून आसता तशे वांकडो दोळो करून बसतात.'' कल्पनान तिडकीन म्हणलें. ''पुरो गो, कित्या कितेंय उलोवं नाका पळोवया''. संगीतान ताका तापयलें.

''पुरो कितें पुरो. केन्ना केन्ना बापूय लेगीत आपले धुवेचो भोग...'' कल्पनाचें उलोवणें अर्धारूच थांबयत संगीता आड्डलें, ''ये चूप! बेठेंच कितेंय पचकनाका पळोवया. अशें कांय नासता''.

''तुवें चूक म्हणलें आनी म्हजें तोंड बंद केलें म्हणून सत लिपता? सत तें सत. आं, आतां अशी केस हजारांनी एक आसत, पूण खबरेपत्रांनी तर कितें ना कितें येताच''.

''पाड पडूं तें. म्हाका सांगनाका पळोवया तूं असल्यो खबरी'', संगीतान धेकणो घालो.

''भंय दिसता? तूं तर मुद्दाम एकटेंच रावता मुगो! आवयबापूय थंय पयस मुंबय. बरें, लग्नूय करिना. मागीर भियेवन कितें उपेग? किम प्रयोजनम? भंय विरयत जगपाक शीक आतां'', कल्पनान ताका शिटकायलें.

''शीऽऽ असल्या खबऱ्यां विशीं उलोवप आनी येवजूवप तरी कित्याक गो?'' संगीतान म्हणलें. पूण कल्पना आयकता? ताका ती खोडचशी आसली. असल्यो सगळ्यो खबरो सोदून वाचप आनी संगीताक भेकडावप.

तशेंय गांवांत घडिल्ल्या एके घडणके वेल्यान ह्यो खबरो सुरू जाल्ल्यो. एके कॉलेजींत शिकपी भुरग्यान खंय आपल्याक नापास केलें काय कॉपी करतना धरलो म्हणून शिकोवपी प्रोफेसराक चाकू दाखयलो. ताचे आड जायत्या जाणांनी कागाळी केल्ल्यो. चलयांचीं खेबाडां करता, अभ्यासू भुरग्यांचे वाटेक वता म्हणून प्रिन्सीपलान ताचेर कारवाय केली जाल्यार ताच्या बराबरच्या तवनास भुरग्यांनी ताका घेराव घालो. मार्चो कितें काडलो. मागीर कोणें तरी फोन करून पुलिसांक आपयले. तांणी लाठीचार्ज केलो, भुरग्यांक धरलेशें, केलें. सगळे खबरोपत्रांनी भरभरून खबरो छापून आयल्यो. टीव्हीचेरूय ताचेर भासाभास. लोक ताचेरूच उलयत रावले. सगळे कडेन ताचेरच गॉसीप सुरू! गांवांतल्या एका बड्या प्रस्थाचो व्हडल्या गिरेस्तालो तो भुरगो. ताचे हात मंत्र्या आनी संत्र्या मेरेन पाविल्ले. मागीर एका दुश्टचक्रचशें सुरू जालें त्या शारांत. बेठीच लुटमार, वचत थंय उजो घालप, बसी फोडप, दुकानां जळोवप हें सगळें साग्रसंगीत घडलें. सगळो आकांतवाद! मुंबय एक घडटालें, आतां हांगा इतले पयस आयलें तरी हें चुकना. संगीता मनांत फडफडटाले. कोणें खंय तरी सभा दवरिल्ली. .ती उधळूंक थंय बॉम्ब दवरले. थंय म्हऱ्यांतल्याच लग्नाच्या हॉलांत खंय सव्या कडेनच बॉम्बस्फोट जावन न्हवऱ्या-व्हंकलेक मरण आयलें. जाती भायर लग्न जालें म्हूणन लग्नांत विघ्न हाडूंक दोशीं वटेनच्यान लोकांचीं हीं झगडीं आनी केस्तांवां! बशिल्ले कडेन दोन तरण्या जिवांचो बळी - तांच्या मनांतल्या सपनां सयत!

ह्या सगळ्या बोवाळांत संगीताक बाबड्याक भायर ऑफिसांत लेगीत वचूंक मेळनासलें. थंय तर सगळ्याक कर्फ्यू लागिल्लो. तें रावतालें ती इमारतय तशी ऑफिसा पासून खूबच पयस - सामकी गांवां भायरूच म्हणल्यार जाता - अशी आसली. सदांच रिक्षा करून वतालें तें. तो रिक्षा वालो भैया तर सदचो वळखिचो जाल्लो.

एक दीस ताणें अचकीत विचारिल्लें, ''दिदी, एक बात पुछनी थी, गुस्सा तो नही करोगी?'' ''ना भैया ना, बोलो तो सही।'' ताका दिशिल्लें तो सादेंच कितें आपल्या कामा विशीं बी विचारतलो. पूण ना ताणें म्हणिल्लें, ''आप अकेली क्यूं रहती हो इस अनजान गांव में? माँ-बाप के पास क्यों नहीं रहती? या फिर शादी ब्याह तो कर लेना चाहिये ना?'' इतलें विचारून जीब भायर काडून कानाक हात लावन 'सॉरी' म्हणिल्ले भशेन तो ओग्गी रावलो. 'यूजलेस' अशें म्हणून तें मनांतल्या मनांत जळफळत रावलें.

सगळ्यांक आपलीशी चिंता कित्याक होच

प्रस्न ताका पडटालो. दादल्यांक कोण केन्ना विचारिना तूं एकटो काय दुकटो रावता म्हणून. पूण चली एकी रावली जाल्यार मात तें सगळ्यांच्या दोळ्यांत येता. जग खंय पावलां आनी हांगा मात ह्या 21 व्या शेंकड्यांत लेगीत हो भेदभाव. ताका अजाप जातालें? ते परस मुंबय सारकिल्या शारांत बरें, कोण कोणाचे वाटेक वचना. हांगा सगळ्यांकूच सगळ्यांच्यो जायण्यो लागतात. तिच्या ऑफिसांतलीं आमीग तर सदांच ताका सुनायतालीं - ''अशें एकटें कित्याक रावता तूं? आवयबापूय, भाव-भयण कोणाक तरी हांगा आपोवन घे. नाजाल्यार लग्न जावन तरी घोवासरीं राव. अशें एकटें निखालस रावूं नये तुज्या सारक्या सोबीत, तरणे चलयेन. कोण, केन्ना, खंयच्यान घालो घालीत सांगूं येता? आनीक एक, मेळत ताचे कडेन बेठेंच किटकिटनाका. रिक्षा वाल्यां पासून तर सामकें सावधान! चड वेळ बेठेंच ऑफिसांत काम करीत बसूं नाका. दिसा उजवाडा घरा पाव''. उत्तर प्रदेशांतल्या ह्या गांवांत येतकच ताका एक बेस बरें समजलें, हांगाचे लोक सगळेंच आपणाक हुशार समजतात. सामके सुबेज शाणे! फुकट सल्लो दिवपी आदोगाद! आनी तांकां रागय रोखडो येता. किर्तेय मात्शें जाल्यार पुरो, गाळीफस्ती घालीत लंडामुंडेचेर येतात - हांगाच्या ह्या मातयेचोच गूण जावंये हो!

बॉसानय एकदां उलयतां उलयतां ताका म्हणिल्लें, ''फक्त इश्ट-इश्टिणीं भितरच रावं नाका. आवयबापायक जावं घोव घरच्यांकय जागो आसचो आपले जिणेंत.'' ताका सट्ट जालें. अशें अकस्मात कित्याक उलयलो काय हो? म्हजे विशीं हाका अशें कितें खबर आसा?

तिच्या बरोबरच्या एके चलयेन, शुभदान एक दीस सुंगटां पुलाव हाडिल्लो डब्यांत. ताच्या वासान तिका एकदम आवयच्या हातच्या पुलावाची याद जाल्ली. मन सामकें हालिल्ले वरी जाल्लें. आनी दोळ्यांतल्यान आपशींच उदकशें आयलें. शुभाचें लक्ष ताच्या तोंडा कडेन वतकच ताणें बेठेंच म्हणलें, ''म्हज्या डब्यांतलें इल्लेंशें खावन पळयता गो?'' संगीतान आनी वेळ केलो ना, आपली प्लेट उबारून ताचे मुखार सारली आनी ताच्या डब्यांतलो अर्धा वयर पुलाव झाकणार घेवन आशेल्ले भशेन खावंक सुरू केलें. आनी मागीर ध्यानांत येतकच म्हणलें, ''सॉरी, पूण म्हज्यान रावं नजो जालें. म्हज्या आईची याद जाली. तिवूय असोच सुंगटां पुलव करताली''. ''म्हजीय आवय गोंयची. म्हणून कांय वेळा ती पुलाव, हुमण, सुकें बी सगळ्यो तरा करता गोंयचे भशेन! तूं गोंयचें न्ही म्हणून तुका हो वास आवडलो. घे आनीकय जाय जाल्यार. हांव तुजी ही प्लेट सोंपयतां''. ताणें डबो संगीता मुखार दवरलो. कितल्याशाच दिसांनी ताणें घरचें अन्न उश्टायिल्लें. हांगा ट्रान्फर जावन येत सावन तर सकाळीं ऑफिसांतल्या कँटीनाचें जेवण आनी रातचो हॉटेलांतलो डबो! ताचे जिणेकच सुवाद नाशिल्ले वरी जाल्लें - तें तेलांतल्या तवंगाचें खाण खावन खावन सामकें बेजारिल्लें तें ह्या रुटीनान! ताच्या ह्या ओडून ताडून सारपी जिणेंत आयज मात्सो बदल जाल्लो.

तशें तें आपल्या मनाक समजायतालें, थातारतालें - म्हजे भशेन एकटुकी जीण जियेवपी चलयो तर आयज जळींमळीं फाफसल्यांत, देशांत आनी भायल्या देशांतूय. आपली जीण आपूणच घडयतात. भायर एकटींच वतात - रावतात. इतलीं सगळीं धडपड आसतात, तातूंतलेंच एक हांव! ऑफिसांतलो वेळ तसो कामांत अनी वांगडच्या बराबर बरो वतालो. पूण सांजेचें बिराडार पावतकच घर सामकें खावंक येतालें. एकेकदां रात केन्ना सोंपता आनी फांतोड केन्ना जाता ताची वाट पळयत घडयाळाची टिक् टिक् आयकत तें रात जागयतालें. आनी आतां तर हो कर्फ्यू लागत सावन चडूच कांचवेतालें! भायर किर्तेय खाटखूट जाल्यार लेगीत कच्च करून आंग काडटालें. तकलेर पांगरूण घेवन आपल्या आपणा पासून भंय लिपोवचेलो यत्न करतालें. पूण रातच्या थंड किर्र वातावरणांत सोसायटींतल्या गुरख्याची पिल्लूक आनी रस्त्यान येतल्या वतल्यांच्या बुटांचो टक् टक् आवाज लेगीत काळीज कलकलायतालो. अश्यो कितल्यो भयाण राती जागून काडिल्ल्यो ताणें. तो खिणान खीण,मिनटान मिनीट आनी सेकंदान सेंकद सामको जीव वयर सकयल करपी थारतालो. वयल्यान कितलेंय धीटपण दाखयलें तरी भितरल्यान एके तरेचो आकांताळो भंय ताचो गळो चिड्डीत रावतालो. पूण सांगतलें तरी कोणाक? ताणें आपणेंच तर ही स्थिती आपणाचेर ओडून घेतिल्ली. दुसऱ्यांनी लादूंक ना.

ताचें ग्रॅज्युएशन सोंपतकच आवयबापायन ताका सोयरिको पळोवंक सुरू केल्लें, रुढी परंपरेक अणसरून. तीन तीन चलयो पदरांत, वेळच्या वेळार शिकोवन संवरून आपल्या पांयार उबें केलें म्हणटकच जालें, बरें स्थळ पळोवन लग्नकार्य करून दितकच आपल्या वेली जापसालदारकी सोंपली, आपल्या तकले वयलें टॅन्शन उणें, भुजा वयलें वजें ल्हवू करप ही आवयबापायची कर्तव्यां पुराय करचेली कल्पना. पूण संगीता जालांच जिद्दी, स्वतंत्र विचारांचें, सामकें खट. आपल्या वाद्याचें म्हणटा तशें. ताका अशें लग्न जावन दुसऱ्यांच्या बंधनांत रावप आवडनासलें. आपल्या आत्याचो घोवाघरा जावपी छळ, तिच्या मनाचो विचार न करपी घोव, साद्या साद्या कारणाक लागून ताका छळपी ताची मांव-मांव. ल्हानपणांत सावन हेंच आयकून करून ताच्या मनाचेर हाचो इतलो वायट परिणाम जाल्लो, तें कशेंच लग्नाक तयार जायनासलें. ताच्या एका इश्टिणीची भयण तर बरी दोतोर बी जाल्ली. बरें जोडपी करपी, पूण घरांत ताका कुस्कुटाचो व्हालोर नासलो. घरांत लेगीत तशेंच. आपलो बापूय व्हडलो भाटकार, ताचें सगळ्यांनी आयकूंकच जाय. तो म्हणटा ती पूर्व दिका! आवय ताच्या पांयांची दासी कशी; रेड्यागेर पाडो जालो हय सायबा म्हणपी, जाय तेन्ना भोगदासी! अशेंच कितेंशें चित्र ताच्या मनार उमटल्लें. इश्टिणीं मर्दीं तर हीं असलींच सगळीं घोवा घराचीं वायट उदाहरणां तांच्या उलोवण्यांत येतालीं.

हालींच्या स्वातंत्र्याचें, समतावादाचें वारें कानांत भरिल्लें पाडूक तें. घरच्यांक कशेंच आकयनासलें. फोर्सान लग्न थारायलें बापायन, तर आपल्या विचारांचेर ठाम रावन ताणें लग्न करचें न्हयकारलें. आयकना जाल्यार जीव दिवपाचीय धमकी दिली. हें खट आपलें तेंच खरें करतलें म्हणटना तांचो नाईलाज जालो. ताका तर फुडें फुडें आनीक आनीक शिकपाचें

पिशें. लग्न थरावनय तें आयकना म्हणटना ताणींच नमतें घेवन ताच्या फाटल्या भयणीं कडेन त्या चल्याचें लग्न करून दिलें. दोन वर्सां भितर फाटल्या दोगांचींय लग्नां करून तीं मेकळीं जालीं.

संगीताच्या मना सारकें कम्प्यूटर कॉर्स बी जातकच बऱ्या ऑफिसांत व्हडल्या पगाराची नोकरी मेळ्ळी. तें खोशी जालें. तशें तें धा जाणांत उठून दिसपी. बदामी दोळे, म्हों‍वें गुलाबी ओंठ, कमरा सकयल पावसारके लांब दाट केंस, कुडय सगळी ज्युस्ताक ज्युस्त - जाय थंय जाय तशी. वेल्यान रंगय गोरो. कोणाल्याय दोळ्यांत भरिसारकेंच! कॉलेजी पासूनच जायते जाण ताचेर मरताले. पूण तें मोटें वस्ताद. कामा पुरतें उलोवप करप, कोणाक कितलें पयस दवरज हें तें बरें जाणा आशिल्लें. ताणें कोणाकूच चड लागीं केन्ना येवंक दिलें ना. ऑफिसांतूय तशेंच. आपूण बरें, आपलें काम बरें म्हणपी. जोडपाक लागतकच स्वतंत्रतायेन जगपाचो ध्यास घेतलो. घरा पासून ऑफिस पयस, येवपा-वचपाक त्रास जातात म्हणून शारांत वेगळो ब्लॉक घेतिल्लो. कोणाच्याच धाका खाला रावपाची ताची तयारी नासली.

विरेश तर ताचेर सामको मरतालो, ताच्या फाटल्या फुडल्यान भोवतालो. सामको पिसाविल्लोच म्हणल्यार जाता. ताणें ताका प्रपोजय केल्लें. आपले जिणे विशींचीं रंगयाळीं सपनां ताचे मुखार रंगयतालो. खूब भावूक जावन उलयतालो. संगीताक जणू ताणें गृहीतच धरिल्लें म्हणल्यार जाता. पूण संगीतान ताका स्पश्ट उतरांनी सांगिल्लें, ''खरें सांगूं, म्हाका लग्नूच करन दिसना. व्हडली गाडी, भव्य बंगलो, बागबगीचो, घरादारांत नोकर-चाकर, हें म्हजे जिणेचें सपन आनी तें म्हाका ह्या आपल्या कर्तृत्वाचेर पुराय करचें आसा'.

''संगीता, दोगांनी मेळून केल्यार हें तुजें सपन बेगीन पुराय जावचें ना? तूं लग्न तर कर, हांव तुजें हें सपन सामकें बरे तरेन सत्यांत हाडून दाखयतां''. विरेशान ताका समजायिल्लें. पूण ताणें आपलीं मतां स्पश्ट ताचे मुखार मांडिल्लीं. ''लग्न करप तुजे कडेन - म्हणचे तें एका दादल्या कडेनच मूं? दादले बायलांक



**रातच्या थंड किर्र वातावरणांत सोसायटींतल्या गुरख्याची पिल्लूक आनी रस्त्यान येतल्या वतल्यांच्या बुटांचो टक् टक् आवाज लेगीत काळीज कलकलायतालो. अश्यो कितल्यो भयाण राती जागून काडिल्ल्यो ताणें. तो खिणान खीण,मिनटान मिनीट आनी सेकंदान सेंकद सामको जीव वयर सकयल करपी थारतालो. वयल्यान कितलेंय धीटपण दाखयलें तरी भितरल्यान एके तरेचो आकांताळो भंय ताचो गळो चिड्डीत रावतालो.**

केन्नाय जाय तें स्वातंत्र्य दिनात हें म्हाका बेस बरें खबर आसा. लग्ना पयलीं सगळ्यो अटी मानून घेतात. जेन्ना ते एकामेकाचे मोगी आसतात, पूण घोव-बायल जातकच मात सादें कोणा बराबर उलयलें केल्यार लेगीत तें तांकां सोंसना. ते बेठोच दुबाव घेतात. बायले विशीं भयंकर पझेसिव्ह आसतात. आनी दुसरें म्हणचे घोवान जोडून हाडून आपणें ताचो उपभोग घेवप हेंच म्हाका मान्य ना. हांव दादलो बायल वेगळे मानिना. म्हजी वृत्तीय मात्शी दादल्याची कशी! स्वतंत्रतायेन जगपाच्या म्हज्या विचारांचोय घडये तो परिणाम आसुंये. पूण म्हाका खरेंच तुजे विशीं तशें कांयच दिसना. एक बरो लागींचो इश्ट म्हणूनच हांव तुजे कडेन पळयतां, आनीक वेगळें अशें कांयच ना''.

ताच्या ह्या स्पश्ट न्हयकारान विरेशाचो इगो दुखाविल्लो आनी तें एकटें मेळटकच ताचेर जीव दवरपी त्या इश्टान ''तूं म्हाका ना म्हणटा? हांव आतां तुका सारकी बुद्द शिकयतां पळय, तुजो सूड घेतले बगर रावपाक ना. खटा, आतां तुजी ही जिद्द, सुबेजपणां सारकीं देंवयना तरच नांवाचो न्हीं'' अशी धमकी दिल्ली. ''तुका म्हजे कडेन लग्न करचेंच पडटलें' अशें म्हणून ताचो हात घट्ट धरून ताका वेंगेंत ओडिल्लें. तेन्ना मात तें ताचेर चवताळ्ळें तरी मनांतल्यान एकदम भियेलें. इतल्यांत कोणें तरी ताचे ब्लॉकाची बेल मारली म्हणून तें सुटलें. दादले अशेय आसतात तर? ताच्या मनान नोंद केली. सुडान पेटिल्ले, आपल्या मना सारकें जालें ना म्हणून कितेंय करपी. आनी खबरेपत्रांनी येवपी एकतर्फी मोगाच्या परिणामांच्यो जायत्यो खबरो ताच्या मनांत नाचूंक लागल्यो - सामक्यो भुतां भशेन थयथयाट घालूंक लागल्यो. 'रस्त्यार प्रेयसीक एकटी पळोवन ताचेर पेट्रोल ओतोवन फस्का काडी पेटोवन तिका जळयली, ॲसीड तोंडार शेंवटून ताची सोबीतकाय ना केली' ह्यो असल्यो जायत्यो खबरो ताच्या दोळ्यां मुखार घुवंक लागल्यो. ऑफिसांतल्या बॉसा कडेन वचून ताणें उत्तर प्रदेशांतल्या ह्या पयसुल्ल्या ब्रँचींत बदली मागून घेतली. रातयांत मुंबयची बिटकी कवळून म्हणटा तशें तें हांगा पळून आयिल्लें - कोणाकच कळयनासतना. आपलो अतापता सांगिनासतना. अशे तरेन एका विरेशा पासून ताणें आपली सुटका करून घेतिल्ली खरी, पूण दादले सगळे कडेन सारकेच हें सतय ताच्या मनाक पटूंक कळाव लागलो ना. बॉस धरून प्यूना मेरेन आशेल्ल्या, वखवखपी नदरेन पळोवपी, एकट्या रावपी बायलेक सगळे त्रास दितात हो ताचो समज चड्डूच बळिल्लो.

मात आतां आतां ताचें मन नमतें आयिल्लें. - संगीताच्या लक्षांत येतालें. आपणाले कुडीचेर आपूण अन्याय करतां. आपल्याच मनाचेर अत्याचार करतां. आपल्या बायलपणाच्यो

भाव-भावना दामून चेपून उडयता. ताका लागून आपल्या मनान जिणेचे सगळे रंगूच काडून भायर मोखून मारल्यात. कुडीन सगळे देहधर्म कोंडून घेतल्यात. आनी हांगाच्या ऑफिसांतली स्पश्ट आनी सडेतोड उलोवपी कविता कडेन वळख वाडत सावन आपूण बेठेंच आपलें मन मारून रावतां अशी ताची धारणा जावंक लागिल्ली. तांची वळख इश्टागतींत बदल्ली. ताचो सुखी संवसार, तातूंतली खोशी-समाधान ताणें अणभवली. दादले सगळेंच सारके नासतात, हाता बोटार मेजपा सारके कांय जायना, कांय दादले खूब वेगळे आसतात हाचो अणभव ताका कविताचे फामिलीक पळोवन आयिल्लो. तातूंतले तातूंत कविताचो मावस देर समील - ताका मेळून आयिल्लो. चली म्हणून ताच्या भायल्या सोबीतकायेपरस, ताचे हुशारकायेक खरी दाद दिवपी म्हणून ताची वळख संगीताच्या मनाक पटिल्ली. आनी दादल्यां विशींचो पिढीजात शत्रुत्व म्हणा वा एके तरेचो द्वेश कसो ताच्या काळजांत भिनिल्लो तो मात्सो उणो जावंक पाविल्लो.

आतां आतां तर आपल्या सरभोंवतणची परिस्थिती पळोवन जगाक, तातूंतल्या मनशांक आनी परिस्थितीक भियेवन ताका कोणाची तरी साथ-संगत जाय जायशी दिसताली. "म्हज्या मनांत दादल्यां विशीं आकर्शण ना, मोगय ना, पूण कोणालेंय भुरगें पळयतकच जायजायशें दिसता". संगीतान कविता कडेन आपलें मन उक्तायिल्लें. ताच्या मनांतली मातृत्वाची- आवयपणाची आस जागी जावंक लागिल्ली. कविताच्या दोनांय भुरग्यां मदीं तें मनापासून रमतालें. कवितान ताका समजायिल्लें, "बायल दादल्या विणें रावंक शकता म्हणप ही आपणेंच आपली केल्ली फसवणूक. आगो शीव आनी शक्ती वेगळावंकच येना. संवसार रथाचीं दोन चाकां हीं. आनी आपणें आपल्या मनाची अशी फसवणूक करप ही एक मानसीक विकृती. तुज्या मनाचो तो दुराग्रह ही जिद्द म्हणचे लेगीत एके तरेची मानसीक विकृती".

समीर तसो कविताच्या घोवाचो मावस भाव- म्हणचे ताचो देर. पूण नात्या परस तांची इश्टागतूच चड. तांचे मदलें इश्टागतीचें नातें चड म्हत्वाचें आसलें. केन्ना कविता बराबर तांच्या घरा गेल्ले कडेन, केन्ना केन्ना ऑफिसांत वा भायर खंयूय तीं एकामेकांक मेळटालीं तेन्ना तेन्ना ताच्या मनांत येतालें, कविताचो हो देर, पूण कितल्या वेगळ्या सभावाचो. दोगूय दोन तरांचीं. कविता सामकें बडबडें, कोर्द सुटिल्लें घडयाळ कशें. आनी ताचो हो देर सामको मोनो कसो, मितभाशी. जाय तेन्ना जाय तितलेंच उलोवपी. एकदां अशें उलयतां उलयतां ताणें उखलापेंच कशें म्हणिल्लें, "जीं मनशां आपल्या खातीर जियेतात तीं आपले खोशेंत सूख मानतात. जिणेचें एकेक सोपण वयर चडत वतना तांकां फकत आपलो तोल सांबाळप इतलेंच करचें पडटा. म्हऱ्यांतल्या मनशांचें तांकां कांयच पडिल्लें नासता." पूण मनांतल्यान संगीता समजल्लें, ताचें हो टॉण्ट आपणाकूच मारला, आपल्या वागपाक लागून.

त्या गांवांतलो हो सगळो बोवाळ, ह्यो भानगडी आनी हो कर्फ्यू लागतकच संगीता सारकें भियेवन गेल्लें. ह्या अनवळखी गांवांत आपल्याक कसल्या प्रसंगांक तोंड दिवचें पडटलें, तेंवूय एकट्याक, हाची कल्पनाय ताच्यान करूंक जायनासली. पूण दुसऱ्या दिसा थोड्या वेळा खातीर कर्फ्यू उठयलो तेन्ना कविता समीराक आनी आपल्या घोवाक घेवन गाडयेन ताच्या बिराडार आयिल्लीं. तशें मनांतल्यान भियेवन गेल्लें संगिता मात्शें थाऱ्यार पडिल्लें. आनी तांणी मोट्या आग्रान म्हणटा तशें ताका घर बंद करपाक लावन कांय दीस तरी आपल्यागेर रावंक येवपाचो फोर्स केल्लो. ह्या दिसांनी तरी अशें एकटें रावप कशें चूक तें पटोवन ताका भायर काडून आपल्यागेर हाडिल्लें.

एक दीस त्या चवगांय मदीं कामाच्यो खबरी चलताल्यो. उलयता उलयता संगितान मोट्या ओर्शान तांकां सांगिल्लें, "हांवें दिल्लीच्या एका फॉरेन ऑरिएंटेड कंपनींत ॲप्लाय केलां. चड करून म्हाका थंय आपोवणें येतलें असो अंदाज आसा. मागीर ही नोकरी मेळटकच म्हजें सपन खरें जातलें. गाडी, बंगलो..."

"हय गो, पूण हें सगळें तूं कोणाक दाखयतलें? कोण येतलो थंय हें सगळें पळोवंक? तूं जी ही सर्त करता ती कोणा कडेन? तुज्या बापायक दाखोवंक मुगो हें सगळें? आनी ही सगळी तुजी खोशी, तुजें हें जैत शॅर करूंक कोण आसा तुजे बराबर?" समीर फट करून उलोवन गेलो. तें ताचें तोंडा कडेन पळयतच उरलें. हो आनी असो इतलो उलयता? इतल्यान ताणें फुडें सांगलें, "हें पळय, सुखाचे जावं दुख्खाचे खीण कोणाच्या तरी वांगडा जियेवपाचे आसतात. हय, पूण हाची तुका खंय जाण आसतली म्हणा!"

कवितानय मागीर फुडें समीराचीच री ओडिल्ली, "आगो बाये, अशें कशें तूं, दोळ्यार अशें कातडें ओडून कित्याक घेता तूं? त्या कासवा भशेन कट्टें ओडून घेवन कित्याक अशी जीण सारता? सामकें भिजोवन घेतलां तुवें आपले आपणाक! सगळ्यो संवेदनाच गोठयल्यात तुवें तुज्यो भितरले भितर! दोळे उक्ते करून मात्शें भोंवतणीं नदर तरी मार. तुजी तुकाच आपली चूक उमजून येतली". ताका आतां तांचें म्हणणें पटूंक लागिल्लें. तरी पूण ताचो हटवादी सभाव आपली चूक मानून घेवंक तयार जायनासलो. तांचे नदरेक नदर दिनासतना तें पयस मळबांत खंय तरी पळयत आपल्या आपणाक शेणयिल्ले परी खुटया माकड कशें ओग्गी बसून रावलें.

"आं भाय, आगे बढो. सिग्नल ग्रीन हो रहा है?" कविताच्या घोवान हातांत समीराक खुणायत ल्हवूच ताच्या कानांत सांगिल्लें.

"संगीता, आपल्या खातीर जगूंक खोशी आसताच गो, पूण दुसऱ्यां खातीर जगप म्हणल्यार जिवीत! आतां कशें सांगूं तुका? आमकां सोडून पयस वचपचो विचार काडून उडय तकलेंतल्यान. हें सगळें सांगिनासतना कळूंक जाय आसलें तुका खरें तर! तुजो एक सुहृद म्हणून तुवें म्हाका स्विकारलाच, आतां तुजो सहचर म्हणून म्हाका आपणावशीत?" समीराचीं हीं नमळायेचीं, मोगाळ उतरां ताच्या कानाक सुखायत गेलीं, ताचें आंगपांग रोमांचीत करीत. समीराचेर नदर भोंवडायत तें मुमुरखेंच हांसलें. आनी संगीतांतल्या खटाचें पळयता पळयता एका लजकुऱ्या हांसकुऱ्या चलयेंत रुपांतर जालें. सगळीं जाणां अजापीत जावन तो ताचे तोंडा वेलो वता-पावसाचो खेळ पळयतच रावलीं.

# सुजाता



• सतीश दत्ताराम दळवी
पराग कॉ. हा. सो.
शांतीनगर, फोंडें

"हय रे, धपको मारू पळटा? म्हज्या जाग्यार तुजो बापूय आशिल्लो जाल्यार असोच रस्त्यार उडोवन पळटलो आसलो रे?"

"ना... सर... सॉरी! हांव भियेल्लों... गोंदळिल्लों... कितें करचें तेंच समजलें ना. म्हणून थंयच्यान फुज्ज्यो काडली!"

"फुज्ज्यो काडली खंय! तेंच विचारतां हांव. म्हज्या जाग्यार..."

"जाणा सर! म्हजो बापूय आशिल्लो जाल्यार हांव 108क फोन करून आपोवन ताका हास्पिटलांत व्हरतलों आसलों. तो म्हजो बापूय आशिल्ल्यान पुलीस कागाळेचो भंय नासपाचो..."

"चूक. अपघात म्हणले बराबर पुलीस चवकशी ही आयलीच".

"पूण बापूय पुताचेर केस करचो ना न्हय! तो ती केस फाटीं घेतलो!"

"बरोबर. आनी टिचर कितें विद्यार्थ्यांक फांसार चडयतलो? पूण एक मतींत धर. बापूय

**हांव खंय कितें करता तें म्हाका कळनासलें. गुळी काडून हातार दिवन ती घे म्हणटकच तोंडांत उडोवन उदक पियेतालों. वखद दितकच तें पियेतालों. सगळीं कामां खंय यंत्रा भशेन करतालों. दोळे घुंवडावन पळयतालों. पूण तातूंत तेज नासले, जिवंतपण नासलें. खंय पळयता ताची जाण नासली. उलो मारल्यार म्हाका आयकूंक येता म्हणटा तें कळटालें. पूण तो उलो म्हाकाच मारला म्हणटा तें म्हाका समजनासलें.**

आसूं वा शिक्षक आसूं, रितसर परवानो नासतना वा लायसन्स नासतना खंयचेंय वाहन चलोवप हो गुन्यांवूच आसता आनी ते बाबतींत खंयचोय बापूय वा शिक्षक गुन्यांव करतल्याक कसलीच मजत करूंक शकना''.

''जाणा सर! म्हजी चूक जाली. पयली गजाल म्हणल्यार परवानो नासतना हांवें स्कूटर हातांत घेतली. आनी तिवूय बी खूब फास्ट व्हेली. म्हज्या कंट्रोला भायर गेली...''

''तुमी वया वयले भुरगे स्वताक जाणटे जाल्यात म्हूण समजतात आनी जाणट्यांचें आयकनात. बरें, हांव म्हणटां निदान शाळेंत शिकिल्ले तें तरी लक्षांत घेयात मरे!''

''कितें तें सर?''

''मोमेण्ट्स म्हणून कितें तरी विज्ञानाच्या भौतीक शास्त्रांत शिकयलां आसतलें''.

''हय सर. पूण ताचो हांगा कितें संबंद?''

''संबंद आसा. मोमेण्ट्स म्हणल्यार गतीशास्त्र. मोमेण्ट्स कसो थारायतात जाणा?''

''हय सर. मोमेण्ट्स = वजन × गती''.

''बरोबर. आतां म्हाका सांग, दोन वस्तू गतीन वतात आनी एकामेकांचेर आदळटात तेन्ना दोगांयचीय गती आनी वजन हांचेर फलनिश्पत्तीचो परिणाम अवलंबून उरता. हो फलनिश्पत्तीचो मोमेण्ट्स वा म्हणुया फायनल मोमेण्ट्स कसो काडप सांग पळोवया''.

''सम ऑफ इनिशियल मोमेण्टम = फायनल मोमेण्टम''.

''हय मरे? म्हणटकच आतां सांग, दोन गतीमान वस्तू एकामेकांक आदळटात तातूंतली एक जड वा म्हणुया बस वा ट्रक आनी दुसरी ल्हान वा म्हणुया स्कूटर वा मोटारसायकल. आघाता उपरांत जड वस्तू थंयच उबी उरता जाल्यार ताचो परिणाम कसो आनी कोणाचेर कितलो जातलो?''

''जड वस्तू जर जागच्या जाग्यार उबी उरली जाल्यार ताची गती शुन्य जाली. दुसऱ्या वस्तूचें वजन उणें आशिल्ल्यान ताची प्रतिक्रियात्मक परिणामयूक्त गती खूब वाडटली''.

''हय, बरोबर. हाकाच लागून ती ल्हान वस्तू नेटान जमनीर आपटतली. आतां ती ल्हव वस्तू म्हणल्यार खंयची सांग?''

''स्कूटर आनी ताचेर बशिल्लो मनीस!''

''एकदम बरोबर. जय स्कूटर आनी ट्रक वा बस वा एखादी स्कूटरी परस जड वाहनाची टक्कर जाली जाल्यार स्कुटरवालो नेटान उसळून जमनीर आपटता''.

''आनी त्या मनशाची तकली फुट्टा, मेंदवाक मार बसता, हात-पांय मोडटात. तो एक तर मरूंक शकता वा वाचत जाल्यार अपंगूळ जावन पडटा. अपघाता वेळार कितल्या बेगीन वैजकी मजत त्या मनशाक मेळटा ताचेर ताचो फुडार अवलंबून उरता''.

''हें तुका बेस बरें खबर आसतना तुवें म्हाका तसोच रस्त्या कुशीक उडोवन तूं पळ्ळो!''

''तीच म्हजी व्हड चूक जाली. म्हणून हांव तुमची माफी मागूंक आयलां''.

''तरी शेजाऱ्यांनी बेगोबेग हालचाल करून म्हाका वांचयलो. तरी लेगीत स म्हयने हॉस्पिटलांत काडचे पडले. तकलेक मार बशिल्ल्यान वळख गेल्ली. हांव कोणाक वळखनासलों. म्हजी सूद-बूद गेल्ले भशेन जाल्ली. कितें उलयतालों तें म्हाका कळनासलें. म्हज्या उलोवपांत कसलोच संबंद आसनासलो. हांव खंय आसां - घरांत काय हॉस्पिटलांत काय हॉटेलांत म्हाका कांयच कळनासलें. आता मातसो सावचीत जालां. तेन्ना म्हाका दोतोरान, नर्सीन आनी हाणें ही गजाल सांगली. अजून जाग्यार येवंक ना. चलतना लकिल्ले भशेन जाता. दुसऱ्याचो आदार जाय लागता. तरी हें सुजाता आदाराक धांवन आयलें म्हणून हांव साल्वार''.

''सर, म्हज्या मूर्खपणाक लागून तुमकां त्रास काडचे पडले. हाचे मुखार हांव अशीं अवचित्रपणां केन्नाच करचों ना. तुमकां म्हजी गरज पडली जाल्यार फोन करात सर. हांव येतां''.

''हें पळय. हें सुजाता कांसार. तुजे भशेनूच म्हजें केन्नाचें तरी स्टुडंट. म्हाका अपघात जालो हें कळना फुडें हें धांवन आयलें. आयज स म्हयने जायत आयले तें म्हजे वांगडा रात दीस आसा. म्हजी काळजी घेता. तूं तुजो नंबर ताका दी. केन्नाय गरज लागली जाल्यार तुका तें फोन करतलें. यो तूं... आतां देव बरें करूं''.

''सर बेगीन बरो जा. बरें तर''.

हो आसलो सुरेश बोरकार. वर्गांत एक मस्तो भुरगो म्हूण फामाद आसलो. अवचित्रपणांच करतालो. पूण म्हजे कडेन ताचीं कर्तुपां खपनासलीं. खरें म्हणल्यार कर्तुपां करपाक हांव तांकां वेळूच दिनासलों. पुराय तयारी करून वर्गांत सरतालों. ताका लागून पुराय पीरिअड विद्यार्थ्यांक बिझी दवरतालों. बाकीच्यांच्यो ताच्या संबंदान कागाळी आयकूंक येताल्यो. पूण एसएससीक बऱ्या मार्गान पास जावन उच्च माध्यमीक शाळेंत पावलो. आतां थंय कितें करता कोण जाणा! ताका हरशीं गियर नाशिल्ली स्कूटर चलोवंक मेकळीक आसा. पूण बापायन निशाणी करून जबाबदारी घेवंक जाय. आनी बापूय तयार ना. तो म्हणटा, पयलीं व्हड जा. बुद्द येवंदी. मागीर रीतसर लायसन्स काड.पूण ना. हाका कूय आयली आनी स्कूटर रस्त्यार घेवन आयलो आनी म्हाका आड उडयलो. दोतोर सांगता म्हजो वेळ बरो म्हूण बेगोबेग उपचार जाले. मातसो कळाव जाता जाल्यार जल्मभर धरून पडपाचो''.

हांव वांचलो खरों, पूण स म्हयने हॉस्पिटलांत उरलों. म्हजी सुद्द म्हाका नासली.

म्हजीं घरच्चीं अशीं हॉस्पिटलांत रावपाक कोण ना. म्हाका भयण ना आनी आतां आवयूय ना. भाव आनी भावज आसा. पूण तांकां दोग ल्हान भुरगीं आसात. आनी तांकां इत्सा आसूनय अडचण म्हणल्यार तीं शिर्वीशेक वचपी आनी भुरगीं शाळेंत. ते खातीर तीं रावंक शकनासलीं. अशा प्रसंगार म्हजी एक आदली विद्यार्थीनी आपूण जावन देवी कशी पावली. ती म्हणल्यार सुजाता कांसार. ताणें बीए केलां आनी आतां बीएडाक प्रवेश घेतिल्लो. म्हाका अपघात जाला हें कळना फुडें तें हॉस्पिटलांत धांवून आयलें. म्हजे वांगडा रावंक कोणाक जमना, कोण म्हजी काळजी घेवंक ना हें पळोवन तें आपूण जावन म्हजे वांगडा रावन म्हजी पुराय सेवा केली. ही गजाल मागीर हांव सावचीत जातकच म्हाका कळ्ळी.

हांव खंय कितें करता तें म्हाका कळनासलें. गुळी काडून हातार दिवन ती घे म्हणटकच तोंडांत उडोवन उदक पियेतालों. वखद दितकच तें पियेतालों. सगळीं कामां खंय यंत्रा भशेन करतालों. दोळे धुंवडावन पळयतालों. पूण तातूंत तेज नासले, जिवंतपण नासलें. खंय पळयता ताची जाण नासली. उलो मारल्यार म्हाका आयकूंक येता म्हणटा तें कळटालें. पूण तो उलो म्हाकाच मारला म्हणटा तें म्हाका समजनासलें. अशा मनशाची सेवा करून परत उबो करपाचें काम सुजातान आपल्या खांदार वेवस्थीत पेल्लें. ते खातीर ताका एक एक वेळार रातचीं जागरणां लेगीत करचीं पडल्यांत. पूण हें सगळें आपखोशेन ताणें केलां म्हणपाचें नर्सीचें म्हणणें आसलें.

सुजाताक लागून हांव स म्हयन्यांनी बरो जालों अशें दोतोरान सांगलें. ना जाल्यार म्हजे सारके दुयेंती खंय वर्सांचीं वर्सां हॉस्पिटलांत पडून आसात. कांय जाण हॉस्पिटलाचो खर्च परवडना म्हूण घरा उपचार घेतात. बरो जातकच हांव म्हज्या रुमार आयलों. म्हाका सादारण शी शक्त परत आयिल्ली. मनशाची वळख जमताली. विचार करूंक शकतालों. वेवस्थीत विचार करून उलोवंक जमतालें. पूण मर्दी मर्दी चलतना आदार जाय पडटालो. वखदां त्या त्या वेळार घेवंक कदाचीत याद उरत काय ना हाची खात्री नासली. हें वखद घेवचे बदला तें घेवप जायत हाची भिरांत आसली. पूण तरी लेगीत सुजाताक म्हजे वांगडा फ्लॅटार एकटें कशें दवरूं? हॉस्पिटलांतली गजाल वेगळी आसली. हांव जणू काय बेशुद्द अवस्थेंत आसलों आनी तें म्हाका कांयच खबर नासतना म्हजी सेवा करूंक म्हज्या रुमांत रावतालें. लोक तेन्नाय उलयताले आसतले. पूण थंय दोतोर, नर्सी बी आसताल्यो आनी मुखेल गजाल म्हणल्यार हांव हातरुणार आसलों. आतांची गजाल वेगळी आनी म्हणून उलोवण्याक वेगळें वळण लागूंक शकता. जाका लागून हांव आनी सुजाता दोगांय जाणां त्रासांत पडटलीं. हांवें म्हजो हुस्को सुजाता कडेन उक्तायलो. पूण ताणें म्हणलें, "म्हाका कोणाची पर्वा ना. म्हाका आसा ती तुजी काळजी. लोक तुजे मदतीक आयले नात आनी जे कोण उलयतात ते तुजी काळजी घेवंक येवचे नात. म्हजे इत्सेन हांव आयलां. तुजी काळजी आसा म्हणून आयलां. कोण कितें म्हणटले म्हणून तुका सोडून वचूंक शकना".

"तें म्हाका कळटा गो. हांव हॉस्पिटलांत आसतना तुवें म्हजी पुराय काळजी घेतली म्हूण हांव घरा पावलों. तुवें ते खातीर तुजें शिक्षण अर्द्यार सोडलें. हांव तुजे हे उपकार जल्मांत विसरूंक शकचों ना. पूण आतांची परिस्थिती वेगळी आसा. आतां हांव फ्लॅटांत आसा, बरो आसां आनी तूं एकटें म्हजे वांगडा आसतलें. लोकांक कसलेंय निमित्त पुरो टवाळ्यो करपाची संदीच सोदीत आसतात. म्हाका म्हज्या शिक्षकी पेशाची पत सांबाळपाक जाय आनी तुका तुजी अब्रू. अशे परिस्थितींत तुवें हांगा एकटें रावप म्हाका योग्य दिसना. आमचो समाज प्रत्येक बाबतींत अमेरिकनांची नक्कल करतात. थंय दादले बायलो लग्न करिनासतना वर्सांचीं वर्सां एकठांय रावतात आनी साद्या साद्या कामाक झगडटात आनी वेगळीं रावतात. आमचें हांगा हजारांनी वर्सांच्या संस्कृतीक पडग्याच्या चेपणाक लागून लग्न जावूंक नासली चली एकटी दादल्या वांगडा रावप आमच्या सुसंस्कृत लोकांक सोंसना".

"हरकत ना. हांव दिसभर रावतां आनी रातची तुजी वेवस्था करून घरा वता".

"ताचीय गरज पडचिना. हांव भावाक फोन करून थंय रावपाक वतां. कितें आसा? हांव रातचो एकटों उरतलों. कितें अडचण उप्रासत तें कळना. ते परस भावागेर गेल्लों बरो".

"तेंच योग्य जातलें. आतांच ताका फोन कर आनी सांजे येता म्हूण सांग".

"तुवूंय बी वांगडा यो. तुजी भावा कडेन वळख करून दितां" अशें हांवें म्हणले बराबर तें मुमुरख्यांनी हांसलें आनी भितर गेलें.

हांव ताका घेवन भावागेर भितर सरलां मात, ताणें खोशेन हांसून ताचें स्वागत केलें, "यो सुजाता".

हांव अजापलों. हो आनी सुजाताक कसो वळखता काय?

"बरें केलें तुवें ताचे वांगडा आमगेर येवन", भावान मुखार म्हणलें. "हांव ताका म्हणूंक सोदतालों तुका वांगडा घेवन यो म्हूण. पूण म्हणलें ताका आवडत न आवडत. पूण सोड, तूंच ताका घेवन आयलें तें एकदम बरें केलें".

"ना भाई, हांव ताका घेवन येवंक ना. तोच म्हाका घेवन आयला तुमची वळख करून दिवपाक!"

ते बरोबर भाई खोऽऽ करून हांसलो. "सतीश, आमी ताका फाटले स म्हयने वळखतात. ताणें जी पळय तुजी सेवा केल्या तितली म्हजी बायल लेगीत म्हजी करत हो दुबाव".

"ओगी राव भाई!" सुजाता गोड हांसलें.

"ओगी राव कशें तर?" भाभीन भितरल्यान चा हाडटना म्हणलें, "तुका लागून आमी हुस्क्या मेकळीं जालीं. ना जाल्यार आमकां चिंता पडिल्ली. आमकां रावंक मेळनासलें. तुवें जापसालदारकी घेतली आनी आमकां सूऽऽ जालें पळय".

"तरी तुमी अर्दी मर्दी येवन खबर घेतालीं".

"हय तर! तुका घरा वचून येवंक नाका आसलें? पूण तूं सामकें खट. घरा मातशें वचून यो म्हणल्यार ना. हो सामको बरो जाले बगर हांगाचें हालचें ना म्हूण रावलें".

"ना भाभी, हांव घरा तशें सांगून आयिल्लें. सगळी तयारी करून आयिल्लें".

"तें बरें आसा भाभी, हांव ताच्या उपकारांत उरतलों. ह्या जल्मांत तरी ताचें रीण हांव

पावोवंक शकचों ना. तें म्हजे वांगडा फ्लॅटार लेगीत रावंक सोदतालें. हांवें ताका मनाय केली. हांवें म्हणलें भावागेर रावतलों. ना जाल्यार बेठी म्हजी आनी वांगडा ताचीय बदनामी जातली. म्हजो प्रस्न व्हडलो न्हय. पूण ताचो जल्माचो प्रस्न!''

''तुवें एकदम बरो निर्णय घेतलो बाबू ताका हांगा हाडून. फ्लॅटार तुमी एकटीं राविल्लीं जाल्यार तूं म्हणटा तशें कोणूय कितेंय उलयतलो आसलो. पूण आतां तें आमगेर आसा. तें आमचे वांगडा रावन तुजी काळजी घेतलें''.

''कितें भाभी? तें हांगा रावतलें? कसली गरज आसा? तुमी आसात न्हय? ताचे पयलींच स म्हयने क्लासी चुकल्यात'', हांवें अजापान विचारलें.

''आरे देवा!'' भाईन समजावणेच्या सुरान म्हणलें, ''बाबू, ताच्यो स म्हयने क्लासी चुकल्यात म्हणल्यार पुराय वर्स बुडीत खात्यांत गेलें. तें कितें तुजें इश्कोल न्हय. तें बीएड करता. तांकां शाळांनी वचून मॉडेल लेसन दिवचे आसतात. तीं चुकलीं तींच म्हत्वाचीं आसतात. आतां फुडल्या वर्सा. ते भायर तुका अजून सांगात जाय. अजून तुजी प्रकृती तितली सुदारूंक ना. आमीय पुराय वेळ तुजे वांगडा रावंक शकनात. तूं पुराय बरो जायसर तुका सांगात दिवंक सुजाता तयार आसा''.

''पूण हांव कसों ताका फोर्स करूं? हॉस्पिटलांत तें आपूण जावन आयलें तें म्हाका खबरूच नासलें. इतलो तेंप ताणें म्हजें बरें-वायट काडलें. हांव साबुद्दीर आशिल्लों जाल्यार ताका मनाय करतलों आसलों. कित्याक म्हूण ताणें हें सगळें करप? आनी हांवें करून घेवप? हांव एका काळार ताचो शिक्षक आसलों म्हूण? म्हाका कसलो अधिकार?''

''पळय भाऊ...'' भाभीन मदीं तोंड घालें. ''तूं एक बरो शिक्षक म्हूण तुज्या शिश्यवर्गांत प्रिय आसा. एक बरो शिक्षक हो सदांच एक बरो मानसशास्त्राची जाण आसलो आनी मनोविज्ञानीक आसप गरजेचें आसता. पूण तुका तातूंतलें इल्लें लेगीत गिन्यान नाशिल्ले भशेन तूं उलयता मरे!''

''आरे, तूं हॉस्पिटलांत मेल्ले भशेन पडला म्हूण कळना फुडें आमचे पयलीं हें सुजाता थंय पावलें. तें कितें तुजें विद्यार्थी ह्या नात्यान धांवलें अशें तुजें म्हणणें?'' भाईन तोफ उगडली. ''तुज्या म्हऱ्यांत स म्हयने रावन, आपलें बीएडाचें वर्स वगडावन तुजें बरें-वायट काडलें, तें खंयच्या नात्यान अशें तुका दिसलें?''

भाभीन फुडें विचारलें, ''पळय सुजाता कडेन. ताच्या दोळ्यांतलीं दुकां तुका कितें सुचयतात? विचार तुज्या मनाक''.

''खरें सांगूं तुका भाभी?'' हांवेंय भावूक जावन सांगलें, ''म्हाका सुजाताची भावना समजना अशें तुमकां दिसलें काय कितें? पूण म्हजीं कांय तत्वां आसात. शिक्षकी पेशा कडेन निगडीत आशिल्ल्या ह्या तत्वां कडेन हांव तडजोड करूंक शकना. सुजाता म्हज्या वायट प्रसंगार धांवून आयलें. ताच्या उपकाराच्या वज्या खाला हांव बागवलां. हें पुराय सत. पूण तें खंयच्या नात्यान आयलें? हांव ताच्या विद्यार्थी दशेंतलो एक शिक्षक आशिल्लों म्हणूनच न्हय? ताका म्हजें शिकोवप आवडलें, शिक्षक ह्या नात्यान हांव आवडलों, म्हजे विशीं आपुलकी, ओड निर्माण जाली आनी ताचेंच पर्यावसान म्हणल्यार म्हज्या मोगांत पडलें आसतलें. पूण एका विद्यार्थ्याक मोगान ओडून घेवन तिचे लागीं एका शिक्षकान लग्न करप म्हणल्यार शिक्षकी पेशाची नालस्ती अशें म्हजें मत. शिक्षकी पेशाक हें कशेंच सोबना. एका शिक्षका खातीर विद्यार्थी हें ताचें स्वताचें भुरगें कशें. आमी ताचे पालक ह्या नात्यान ताचे लागीं वागतात, तांचे वांगडा हांसतात, खेळटात, नाचतात. तांचें आनी आमचें नातें फकत पालक आनी पूत वा धूव हेंच उरता. अशा नात्यान जिचे लागीं आयज मेरेन हांवें पळयलें तिचे लागीं हांव लग्न जावन संवसार कसो मांडूं? तुमीच पळयात''.

''नातीं बदलतात सतीश''. भाई म्हाका समजावपाक लागलो. ''ही जी तुजी भाभी आसा ती हरशीं आमची कोण? ती आमची मामे भयण मरे? आनी हांव तिचो आतेभाव. पूण आतां आमचें नातें बदल्लें मरे? तुजी मामे भयण आतां भाभी जाली मरे? काल पयर तूं तिका नांवान उलो मारतालो त्या जाग्यार आतां भाभी म्हूण उलो मारता मरे? सुजाता काय आयज तुजें विद्यार्थिनी ना. तें ग्रॅज्युएट. एका काळार तें तुजें विद्यार्थी आशिल्लें जायत. आयज काय ना न्ही. म्हणटकच एके विद्यार्थिनी कडेन लग्न जाल्ल्याचें पातक तुका लागपाचें ना. अशें धरुया, समजा ताच्या बापाय कडल्यान तुका प्रोपोजल आयिल्लें जाल्यार एका काळा वयल्या विद्यार्थिनीचें प्रोपोजल म्हणून नाकारतलो आसलो? म्हाका तरी तुजे विचार पिशेपणाचे दिसतात. पळय चिंतून''.

''तुमी कितलेंय सांगलें वा कितेंय केलें तरी म्हजो निर्णय पक्को आसा. तातूंत तरी म्हाका बदल जायत सो दिसना''.

''आसूं भाई.'' सुजातान दोळे पुशीत म्हणलें. ''ताणें जर विचार पक्को केल्लो आसा जाल्यार तुमी ताका आनीक फोर्स करूं नाकात. म्हाका कांयच वायट दिसपाक ना. हांवें जी ताची सेवा केल्या ती आनी हाचेय फुडें करतलें ती, ताचे वयले भक्तीन. तातूंत म्हजो कसलोच सुवार्थ ना. तो म्हजे लागीं लग्न जातलो म्हणून न्हय. तो विचार लेगीत म्हज्या मनांत येवंक नासलो. तो आतां हांगा तुमी उपस्थित केला. आतां ताणें स्पश्ट न्हयकार दिल्ल्यान हो विशय आमी हांगाच सोंपोवया भाई. प्लीज. पूण म्हजो निश्चय आसा, सर तुमी पुराय बरे जायसर म्हाका तुमची सेवा करपाक दिवची. ना म्हणूं नाकात''.

''जशी तुजी इत्सा''. भाभीन म्हणलें, ''पळय भाऊ, आमची दोगांयचीय इत्सा आसून लेगीत आमकां रजा मेळना. तुका अजून मनशाची गरज आसा. सुजातान आपूण जावन तुज्या म्हऱ्यांत रावपाची इत्सा व्यक्त केल्या. आमी सांजे पांचा उपरांत आसतलींच. सांज वेळचीं भुरगींय आसतलीं. काळजी करपाची कसलीच गरज ना. म्हणटकच आसुंदी मरे सुजाताक हांगा तूं बरो जायसर?''

''हें पळय भाभी, तुमकां रजा मेळना आनी सुजातान आपूण जावन इत्सा दाखयल्या. तुमच्या घरांत लोक आसतले. म्हाकाय आदार जाय. म्हणटकच हांवें नाका म्हणपाचो प्रस्नूच उप्रासना'', हांवें म्हणलें.

''तूं पुराय बरो जायसर पळोवया तुजें मन

बदलता जाल्यार!" भाभीन हळूच सूत्र सोडलें. पूण हांवें प्रतिक्रिया कांयच दिलिना. सुजाताच्या प्रयत्नांनी आनी वेळार वखदां वेवस्थीत पडिल्ल्यान हॉस्पिटला भशेनूच हांगाय बी म्हजी प्रकृती रोखडीच सुदारली. हांव ठणठणीत बरों जालों. पूण म्हजें मन मात बदल्लें ना. आपली आतां गरज उरली ना हाची जाणीव जाल्ल्यान सुजाता आपल्या घरा वचूंक भायर सरलें. हांवें ताचे मना सावन उपकार मानले. वतना ताणें म्हज्या पांयांक हात लावन पांयां पडलें आनी "काळजी घे. गरज पडली जाल्यार फोन कर, हांव येतां" हें सांगूंक विसरलें ना.

दीस गेले तसो हांव सुजाताक विसरून गेलों. कांय दिसांनी म्हजें लग्नय जालें. सरोजा वांगडा संवसार सुखान चलतालो. पूण कोणाची नदर लागली कोण जाणा. एक दीस सरोज अकस्मात दुयेंत पडलें. सगळे दोतोर जाले, सगळ्यो तपासण्यो जाल्यो. दुयेंस सांपडना आनी वखदां लागू पडनात. हॉस्पिटलांत ॲडमीट करचें पडलें. सरोजाक भयण ना आनी आवय-बापूय ना. म्हजेच भशेन ताच्या भावा-भावजेक रजा मेळनाशिल्ल्यान सरोजा म्हऱ्यांत कोण रावतलो हो प्रस्न उप्रासलो. दोतोर बरो आसलो. ताणें मजत केली. एके नर्सीक तयार केली. ती नर्स आपली ड्युटी सोंपतकच रातची सरोजा म्हऱ्यांत रावन ताची पुराय काळजी घेवंक तयार जाली. एक व्हड काळजी गेली. हांवें दोतोराचे उपकार आटयले आनी म्हणलें, "दोतोर, तुमी एक व्हडली काळजी पयस केली. सरोज बरें जातकच आमी ते नर्सीचो उचीत मानसन्मान करतलीं".

"आमी पुराय यत्न करतात. तें बरें जातलें. आमच्या यत्नांक येस दिवचें अशें देवा लागीं मागुया", दोतोरान म्हणलें.

पूण बेगीन बरें जावचे जाग्यार सरोजाचें दुखणें वाडत गेलें. ताच्या आंगांत, पुराय रगतांत कसलें तरी इन्फॅक्शन जाल्लें आनी तें वाडतूच वतालें. दोतोरांक कारणां सांपडनासलीं. ते आपले परीन यत्न करीत आसले.

एक दीस सरोजान म्हाका म्हणलें, "हें पळय सतीश, हांव इतलें बरें नासून लेगीत बरें ना अशें दिसूंक ना. हाचें कारण म्हणल्यार ती नर्स. ती रातची रावता. दिसाची मर्दी मर्दी ती पासय मारता. म्हजी खबर घेता, म्हाका धीर दिता. तरेतरेच्यो गजाली सांगता. उमेद हाडटा. ताचे वांगडा वेळ कसो वता तेंच कळना. ती तुका खूब मानता. ताच्या उलोवण्या वयल्यान समजता".

"ताचें नांव कितें? म्हाकाय तिका मेळूंक जाय. आमच्या प्रसंगार ती आमकां पावली. तूं बरें जातकच आमी ताका आमगेर व्हरून तिचो उचीत सन्मान करुया", हांवें उमळशिकेन म्हणलें.

"बरोबर तुजें. पूण ती नर्स आपलें नांव सांगूंक तयार ना शी दिसता. हांवें एक दोनदां तिका विचारलें, पूण तिणें सांगलें ना. हांव बरें जातकच खरेंच तिका आमगेर व्हरुया आनी तिचो सत्कार करुया आंऽऽ". अशें म्हणटा आसतना अकस्मात आवय गेऽऽम्हणून सरोजान किळांच मारली आनी पोट दोनूय हातांनी घर धरलें. हेवटेन तेवटेन वांकडे तिकडें वळवळपाक लागलें. हांवें ताका हातांनी घट धरपाचो यत्न केलो. "सरोज, आगो सरोज, कितें जाता तुका? सरोजऽऽ" म्हूण उलो मारलो. पूण "आवय गेऽऽ"च्या फुडें ताचें एक उतर ना. हांवें बेगोबेग इमर्जन्सी बटन दामलो आनी दोतोराक फोन घुंवडायलो.

दोतोर आनी नर्सी बेगोबेग धांवत आयलीं. म्हाका भायर वचपाक फर्मायलें आनी दार आड केलें. हांव थोडोसो ना खोशेनच भायर गेलों. हेवटेन नर्सी भायर भितर कितें तरी हाड-व्हर करतालीं. म्हाका हुस्को जालो. पूण नर्सींक थांबोवन विचारपाची माणसुकी नासली. तांची धांवपळ चालू आसली. म्हज्यान एका जाग्यार बसप शक्य नासलें. हांव हेवटेन तेवटेन पासयो मारीत रुमाच्या दाराचेर नदर मारतालों.

एकदांचें रुमाचें दार उगडलें. हांव बेगोबेग रुमांत धांवलों. भितरल्यान नर्सी तकली सकयल घालून भायर सरल्यो. म्हज्या काळजांत कच्च जालें. तितल्यान दोतोर भायर आयलो. हांवें दोतोराक कितेंय विचारचे पयलींच दोतोरान म्हज्या खांदार हात दवरलो आनी म्हणलें, "मिस्टर सतीश, आय एम व्हेरी सॉरी. शी इज नो मोर. वी ट्रायड अवर लेवर बेस्ट. टेक कॅर ऑफ यूवरसॅल्फ". अशें म्हणून



तो गेलो.

हांव तोंड आं करून ताचे कडेन पळयतूच उरलों. कितें जालें, कशें जालें, कित्याक लागून जालें. कांयच विचारूंक पावलों ना. दार उकतें करून भितर गेलों. तकले वयल्यान पांगरूण घालून सरोजाक पुराय धांपिल्लें. शेजरा एक नर्स ताचे छातयेचेर हात दवरून आनी ताचेर तकली दवरून रडटाली.

हें आनी अशें भावनाविवश जावपी कोण नर्स काय? अश्यो जिवाक जीव दिवपी नर्सी सहसा मेळनात. आपलें काम बरें की आपूण बरें अशें तरेन वागपीच चड आसतात. अशे तरेचे दोतोर लेगीत पळयल्यात. तांचेंय खरें. अशें भावनाविवश जायत जाल्यार कामाक पावचे नात. हांव भावूक जावन ते नर्सी म्हऱ्यांत गेलों. ते नर्सीचे तकलेर हात दवरलो. ते बराबर तिणें तकली वयर काडली. तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकांचे व्हाळ व्हांवताले. ती नर्स उठून उबी रावली. तेन्ना तिच्या मुखामळाचेर म्हजी नदर पडली. ते बराबर म्हाका अजापाचो धक्को बसलो. ती नर्स म्हणल्यार म्हजें सुजाता कांसार!

# कपयो



• किरण म्हांब्रे
206, कैलास दर्शन,
आर्के, मडगांव
9823576092

**कपयांची** पोटली सोडयले उपरांत तातूंत एक ल्हानशी लेंसांची पोटली मेळटा. बाकीच्या कपयां परस वेगळ्यो कपयो बांदून दवरिल्ली. इतल्या काळा उपरांत ती उसयतकच कळटा, त्योय कपयो अश्योच बाकीच्या कपयां विशीं कांयच वेगळेपण नाशिल्ल्यो! कपडे शिंवता शिंवता पडून गेल्ल्यो.

लिना मनांत हांसलें.

कितली विचित्र ही जीण!

काळ वता तशी नदरय बदलता आनी रुचय.

रेडियोक कान लावन उतरान उतर सुरांच्या धारेंतल्यान मनांत रिगावन तातूंत रंगून वचपाचें पिशें सोंपता आनी त्याच पदांचो कणकण येता.

म्हऱ्यांतल्यान कोण कितें घेवन गेलो हाचो पत्तो लागचो ना इतलें बुडून वाचून काडिल्ल्यो कादंबऱ्यो जेम्स हॅडली चेसाच्यो रहस्यकथा लेगीत वाज हाडटात.

हिरीरीन वाद घेवन आपलें म्हणणें खरें करून दाखोवपाचें जैतय निरर्थक दिसूंक लागता. जशीं सपनां पळोवपाची प्रक्रिया काळा बराबर सोंपता.

पूण मनांत एक केंसांची गांठ बांदिल्ली आसा हें आपले आपल्याकच खबर नासता.

लीनाक भुरगेपणांतली याद जाली.

पन्ना दिसूंक सुंदर आशिल्लें. आनी लिना बरें दिसना म्हूण दोगांयचे मदीं केन्ना भेदभाव केलो ना. तरी येत्यावतल्याक पन्नाचेंच कवतूक आशिल्लें. शाळेंत शिकोवपी बाईंक पन्नाचेच गूण दिसताले. बरोवप्यांक पन्नाच्याच रागाची-रसाची पर्वा दिसताली. पन्ना ना तर तोखेवपा सारकें? लिना आपल्याकच विचारतालें,

पन्ना दिसूंक बरें?

हय.

शिकूंक हुशार?

हय.

पन्ना घरांत आईक मजत करता?

हय.

पूण लिनाक पन्नाचो दुस्वास नाशिल्लोच.

ताचो रागय येनाशिल्लो.

तशें पळोवंक गेल्यार पन्नाच ताची लागींची इश्टीण आशिल्ली.

मात दुसऱ्यांनी आपल्याक उणें लेखचें हें लीनाक मान्य नाशिल्लें.

आपूण शिकूंक हुशार.

घरांतलीं कामां करूंक आईक मजत करतां.

खेळूंक हुशार. पन्ना परस हुशार. पन्ना फकत भितरले खेळ खेळूंक हुशार. मैदना वयल्या खेळांनी इनामां आपणेंच हाडल्यांत.

पूण त्या वेळार खेळाक म्हत्व आशिल्लें खंय? उरफाटो अभ्यास बुडटलो आनी ते भायर उडाणटप्पूपणां केल्ले भशेन जातालीं.

पन्ना शाणें. तें आपलो आव सांबाळून वागतालें. आपल्या आंगाक दुख लागपासारकें करूंक तें केन्ना मुखार सरलें ना. आनी खेळ्ळें ना म्हूण ताचें म्हत्वय उणें जालें ना.

शाळेच्या वर्सुकी स्नेहसंमेलनां वेळार नाच, नाटकांत पयलो भाग पन्नाचो आसतालो. शिक्षक-शिक्षिकाच ताका फुडें काडटालीं. कारण पन्ना सुंदर. त्या वेळार भाशण पाठ करून शिक्षकांनी शिकियल्ले भशेन हावभाव करून तें म्हणटकच नाटक जातालें आनी बाई शिकयता तशे हातवारे करून पांय जमनीर धोडायतकच नाच जातालो. ताच्या फाटल्यान शास्त्राचें कोण्णाक सुखदुख्ख नासतालें. फकत बरें दिसप म्हत्वाचें.

ताळो बरो आशिल्लीं भुरगीं नाचाक पड्ड्या फाटल्यांतल्यान पदां म्हणटालीं.

शाळेंत त्यादिसांनी सगळीच धमाल. येसायांक लागून वर्ग सारके चलनाशिल्ले. स्नेहसंमेलनांत भाग घेवपी भुरग्यांक अवांतर म्हत्व आयिल्ल्यान हवेंतल्यान उडटालीं. शिक्षक तांच्याच फाटल्यान धांवताले.

घरा कडेन पन्नाक नाचाक अमकें जाय, नाटकाक तमकें जाय म्हूण घरच्यांचो बोवाळ.

लीनाक कुशीक पडिल्ले भशेन दिसतालें.

तें काळें किडकिडीत म्हूण कित्याकच भाग घेवंक शकनाशिल्लें. कोण ताका मुखारूय काडिनाशिल्लो आनी हें आपले आपूणय मुखार सरनाशिल्लें. हरशींच लोक आपूण बरें दिसना म्हूण आपल्याक तुच्छ जाल्ले वरी पळयतात. स्टेजीर वचून आनीक हांसून कित्याक घेवप लोकां कडसून?

पूण आपूण मातशें बरें आशिल्लें जाल्यार पन्ना भशेन नाच, नाटक करूंक शकतलें आशिल्लें अशें ताका मना पसून दिसतालें.

शाळेंत नवी बाई आयली. मुख्याध्यापिका. लिनाचें घर गांवांत प्रतिश्ठेचें. गांवांत आयिल्ल्या मानेस्तांक तांच्या घरांत आमंत्रण आसतालें. नवे बाईकय आमंत्रण आशिल्लें.

बाई आयली. घरच्यांची बाई कडेन वळख जाली.

आजी, आई, काकी, आत्या सगळ्यांचो मान राखून बाई उलयताली. आनी बाई खूब

शिकल्या म्हूण घरांतलीय तिचे कडेन आदारान उलयतालीं.

बाईन सगळ्या भुरग्यांची वासपूस केली. सगळीं भुरगीं शिकूंक हुशार. बाईक अपेक्षा आशिल्लीच. बाईक सगळ्यांक शाबासकी दिली आनी सगळ्या सोयऱ्यां भशेन पन्नाची खेरीत तोखणाय केली.

"नाच, गाण्यांत बी कोण हुशार आसा हांचे मदीं? कोणाचो ताळो बरो आसा?"

बाईन विचारिल्लो प्रस्न लीनाच्या कानांत शिरकलो.

लिनाक रेडियो वयलीं पदां आयकुपाचो नाद आशिल्लो. पिशेंच सामकें. ताका आवडिल्लें प्रत्येक पद ताका रोखडेंच पाठ जातालें आनी आपशेंच ताच्या तोंडांतल्यान भायर येतालें. आयकतलीं म्हणटालीं, 'बरेंऽ म्हणटा". बाईचो प्रस्न आयकून आत्या आतां आपलेंच नांव सांगतले हाची लिनाक खात्री आशिल्ली. आत्याय शिकिल्लें. आत्याच्या उतराक घरांत मान आशिल्लो. आत्या कळटा, सारकें उलोवंक येता हाचेर सगळ्यांचो विस्वास.

आपल्याक रेडियो वयलीं पदां तश्श्या तशीं म्हणूंक येतात हें आत्या केन्ना उलयलें ना तरी कोणेंय म्हणलां त्यावेळार हांसून मान हालयल्या.

आत्यान बाईक आपलें नांव सांगलें जाल्यार बाई कितें करतली?

स्नेहसंमेलनांत आपल्याक पद म्हणूंक दितली?

'शी! हांव केन्नाच स्टेजीर वच्चें ना'. लिनान मनांत म्हणलें. आपूण बरें दिसना. स्टेजीर गेल्यार आपल्याक लोक हांसतले हाची ताका खात्रीच आशिल्ली.

"पन्ना. पन्नाक बरो ताळो आसा पदां म्हणूंक". आत्यान बाईक सांगलें.

खुट्ट करून तकलेर खुटलो मारिल्ले भशेन जालें.

आत्यान पन्नाचें नांव सांगलें? कित्याक?

खरेंच पन्ना आपले परस बरें म्हणटा?

आंगांतल्यान सर्र करून कितें तरी देंवन गेल्ले भशेन जालें.

खरेंच पन्नाक बरें गावंक येता? आनी तें समजतालें आपूण सारकें म्हणटा म्हूण. तो

**लीनाक रेडियो वयलीं पदां आयकुपाचो नाद आशिल्लो. पिशेंच सामकें. ताका आवडिल्लें प्रत्येक पद ताका रोखडेंच पाठ जातालें आनी आपशेंच ताच्या तोंडांतल्यान भायर येतालें. आयकतलीं म्हणटालीं, 'बरेंऽ म्हणटा".**

---

भ्रमूच आशिल्लो?

काय बाईक पन्ना आवडलें म्हणून पन्नाचें नांव सांगलां आत्यान?

काय आपल्याक कोंताक धरलें ना आत्यान?

काय आपूण बरें दिसना म्हूण आपल्या ताळ्याक म्हत्व ना?

तसो लिनाक आत्याचो राग बी कांय आयलो ना. पूण मनांत एक लेंसांची गांठ बसली. लीनाचे नकळटां लेंसाची गांठ मनांत उरली.

बरो दिसपी मनशाक सट करून कोणय तोडूंक पावना. मनशाचें रूप पळयतल्याच्या मनांत ताजे विशीं एक आपलेपणाची भावना निर्माण करता. ओड निर्माण करता. आनी ताका दुखोवंक भियेता. पूण एक बरें आसता कोण बरें दिसता काय दिसना हाजेर परिक्षेंतले मार्क निंबून नासतात. पन्ना भशेन शिक्षकां कडल्यान अपुरबाय जालिना तरी मार्क केन्ना उणे पडले नात. प्रत्येक परिक्षेंत चडांत चड मार्क मेळूंक लागिल्ल्यान लीना शिक्षणांत रमलें.

शाळा सोंपली, कॉलेज सोंपलीं. नोकरी मेळ्ळी. लग्न जावन सगळीं आपापल्या संवसाराक लागलीं.

बुद्द आनी गिन्यान हांच्या बळग्यार जियेतना जिणेंतलो एक एक प्रस्न अचळय सुटावो जातालो. केन्ना कसलो ताण ना, चिंता ना, हुस्को ना, अडचण ना. सुरळीत आयुश्य आनी तेच बराबर बदलिल्ली जीण.

आपूण दिसूंक बरें ना हें लिना विसरूनच गेलें.

सगळ्या कल्पनांच्यो व्याख्या बदल्ल्यो, समीकरणां बदल्लीं, आवडी निवडी बदल्ल्यो.

एकादे मनांतल्या कल्पनांचो पड्डो दोळ्यांचेर येतकच जग दुसरेंच भशेन दिसता जावंये. जसो जसो जगाचो अणभव येता तशें तशें मनांतलें कल्पनेचें धुकें गेलें.

लेंसाची गांठठ मात नकळटां मनांत तशीच उरली. ताची जाणविकायूय जालिना.

अचकीत एक दीस मोहिनीताई मेळ्ळी. कॉलेजीच्या प्राचार्याची बायल.

समाजीक कार्यांत व्यस्त आशिल्ली बायल. तिका पळयल्यार लिनाक रेखाबाईची, मुख्याध्यापिकेची याद जाताली. दोगांय सारख्योच दिसतात आनी सभावानूय.

पन्नाक आनी लिनाक दोगांकय हुशार भुरगीं म्हूण वळखुपी पूण पन्ना सुंदर म्हूण पन्ना कडेन ओडपी. आतां मातशी जाणटी दिसताली. पूण उत्साह मात पयलींचोच आशिल्लो.

लिना मेळना फुडें तिणें लीनाची आस्थेन चवकशी केली. पन्नाय एक दीस मेळिल्लें म्हणपाचें सांगलें. दोगांय ह्याच शारांत आसात म्हूण खोस परगटायली. लिनाक मोहिनीताईन आपले संस्थेच्या कार्याची म्हायती दिली. संस्थेच्या कार्यावळींक येवपाचें आमंत्रणय दिलें.

"ये लिना, तुमचे मदीं कोण बरें गायता गो?"

"गायता?" लिनान प्रस्न केलो.

"हय. आमी आमचे संस्थेचे वतीन खूब कार्यावळी करतात. सोयऱ्यांक आपयतात आनी तांच्याय गुणांचो लाव घेतात. फुडले फावट आमची गावपाची सर्त आसा. जिखपा खातीर न्हय गो. फकत गावपाची उमेद भागोवपा खातीर, आनंद घेवपा खातीर.

"अशें?" लिना तिच्यो गजालींनी आनंद घेवंक लागिल्लें.

"ये, सांग गो? तुमकां आवडटा गावंक?"

"पन्नाक आवडटा. तें बरें गायता". लिना आपसूक म्हणून गेलें. आनी काळजांतले पोटलेंतली लेंसांची गांठ फट्ट करून उकती जाली.

लेंसांचे गांठीक आशिल्ल्यो कपयो वेगळे तरेच्यो शो नाशिल्ल्योच. बाकीच्या कपयांनी आपशींच भरसून गेल्यो.



# भंगिल्लें सपन



• रजनी अ. भेंब्रे
कुडचडें
9822486955

**सपना** नानाची घरकान्न. दोन वर्सां पयलीं ताचें लग्न जाल्लें. लक्ष्मीच्या पावलांनी सपनान नानाल्या घरांत पावल दवरिल्लें. नानाक सगळे तरेचो आदार दिवपाचो सोपूत घेवनच गांठवल बांदिल्लें. नानाक सर्ग दोन बोटां वयर उरिल्लो.

जेन्ना सपना नानाच्या ऑफिसांत बदली जावन आयलें तेन्ना सगळो स्टाफ ताका पळयतच उरलो. कारण सपनाची कायाच तशी आसली. ल्हानपणांत उज्यांत हुलपल्ल्यान ताचें मुखामळ विद्रूप दिसतालें. पयल्याच खेपे पळयतल्याक खिणभर किळस येवची अशी ताची स्थिती आसली. पूण सपनाचो जेन्ना ऑफिसांत वावर सुरू जालो तेन्ना आपले उजू गुणांनी आनी कर्तव्यदक्षपणान सगळ्या स्टाफाचीं मनां ताणें जिखलीं. ताचें कुरुपपण खंयचे खंय विरगळून गेलें.

नानाचो सभाव सदांच घुमो. ऑफिसांत तो कोणाच कडेन चड मिसळनासलो. आपलें काम बरें आपूण बरो. आपले सवंगड्यां पसून चार हात पयस रावप तो पसंत करतालो. शिकिल्लो, सुसंस्कृत, टापटीप रावपी. ताका पळयतकच अशें दिसतालें की ताका कसली तरी खंत आसा जी जाका दिसरात पोखरता. अशा एकमुळ्या नानाक लेगीत सपनान बदल्लो.

सपनान नानाक बदल्लोच न्हय तर हळूहळू तीं दोगांय लागीं येवपाक लागलीं. दोगांकय एकामेकांचो सांगात मानवूंक लागलो. हें पळोवन ऑफिस स्टाफाक अजाप दिसलें कारण एकलकोंडो नाना अशा विद्रूप कायेच्या सपनाक कसो लागीं पावलो. पूण अशें घडटालें खरें.

एक दीस नानान धीर करून सपना कडेन मन उकतें करपाचो निश्चेव केलो.

''सपना, आयज ऑफीस सुट्टकच म्हाका मात्शें मेळशी? म्हाका मात्शें उलोवंक जाय''.

''बरे भशेन. कसलें काम काडलां आयज''.

''आसा गरजेचेंच''.

''ऑफिसांत सांगूंक जायना?''

"अं...अं... ना... ना... कित्याक, तुका वेळ ना?"

"म्हाका वेळ भरपूर आसा. घरा उमळशिकेन वाट पळोवपी म्हजो आसा तरी कोण?"

ऑफीस सुटकच नाना आनी सपना ऑफिसा भायरूच मेळ्ळीं. पयलेच मेकळे भेटींत नानान लिपयनासतना आपले जिणेची कथा आनी व्यथा मेकळेपणान, भीड मुरवत दवरिनासतना सपना मुखार उकती केली. सपनानय आपली परिस्थिती नानाक सांगली. दोगांय समदुखखी आसलीं.

नानान चड आडे-वेडें घेनासतना सपनाक सरळ आपले कडेन लग्न जाता काय विचारलें आनी अपेक्षे प्रमाण सपनान थंयचे थंय हयकार दिलो. दोगांयनीय एकामेकांचीं सांगाती जावपाचो सोपूत घेतलो. जरी नानाची पिराय जाणटेपणा कडेन झुकिल्ली तरी सपना सारके चलयेक आपणावपाचो ताणें धीर केल्लो कारण ताका दिसलें सपनाच आपल्याक सांबाळून घेवपाक योग्य आसा.

नानाची आवय नानाक जल्म दितनाच सोंपिल्ली. चाळीस वर्सां आदलो काळ. आतांचे वरी सूख-सुविधा, वैजकी सेवा, चांटेपावलाक दोतोर, हॉस्पिटलां नासलीं. गोंय स्वतंत्र जाल्ल्यान हळूहळू सुदारणां जावपाक लागिल्लीं. जे गांव न्हंयांक लागून शारां पसून वेगळे उरिल्ले त्या ल्हान-व्हड न्हंयांचेर निकतेच पुलांची उबारणी जाताली.

नानाचें घर गांवगिन्या वाठारांत वशिल्लें. पयलीं तार वा पनेळान शारांत येवन आपले वेव्हार करचे पडटाले. तांचो गडगंज घराबो गांवांत प्रतिश्ठीतांत मोडटालो. चार बापोलये, तांच्यो घरकात्री, भुरगीं, लग्न करून दिल्लीं बापायच्यो चार भयणी. आजो, आजी बापोल आजो, आजी, तांचीं भुरगींबाळां.

घरांतले सगळे निर्णय जाणटेले घेताले. ते थारायतात ती पूर्व दिशा. संपन्न घराबो, भाटबेसांनी भरिल्लो. आटसाटे भुरगे आपलें शिकप, वेवसाय, शिर्वीस करताले. पूण सगळ्या गजालींचेर घरांतल्या जाण्टेल्यांचो शेक चलतालो. कोणें कसलें शिकप घेवचें, कोणें कसली शिर्वीस करची, कोणें कसलो वेवसाय आपणावचो जाण्टेल्यांच्या उतरा भायर कोणूच वचनासलो. कांय वेळा जाण्टेल्यांनी घेतिल्ले निर्णय चुकीचे थारताले. पूण ताचे आड ब्र लेगीत काडपाची कापास्ताद कोणाकूच नासताली. असो दरारो तांणी सांबाळिल्लो.

अश्याच जाण्टेल्यांनी घेतिल्ल्या चुकीच्या निर्णयाची ख्यास्त नाना भोगतालो. भरिल्ल्या घराब्यांत आयऱ्या-पयऱ्यान जावं घरांतल्या बायलांचीं वा लग्नां करून दिल्ल्या धुवांचीं बाळंतपणां घरांतच जातालीं. कांय वेळार आवय, धूव, सून एकाच वेळार बाळंत जावपाच्यो घडणुको घडटाल्यो. आनी तातूंत कोणाकच अजाप दिसनासलें कारण त्या तेंपार अश्यो घडणुको घडत आसताल्यो.

गांवांत फिशाल वैजिणी आसताल्यो. त्यो घराच बाळंतपण करताल्यो. खूबदां वैजिणीचे चुकीन वा बाळंटिणीच्या बिड्ड्यार जाल्ले भलायकेक लागून जल्मल्लें भुरगें वा बाळंटीण मरपाच्यो घडणुको सर्रास घडटाल्यो. पूण ताचो बोवाळ जायनासलो. अशें गृहीत धरताले की घडपाचें घडून गेलें. सरासरीन बायल मनीस आठ ते धा भुरग्यांक जल्म दिताली.

जावं गरीब जावं गिरेस्त, इतल्या भुरग्यांक जल्म दितकच बायल मनशेची भलायकी कशी बरी उरतली? हाचेर कोणूच खोलायेन विचार करिनासलो. जेमतेम म्हयनो जाता सर बाळंटीण घरांतलो घश्टो करपाक उबी रावताली. गिरेस्त घराब्यांनी लेगीत भायलीं कामां सोडल्यार रांदपाचें काम घरचीं बायलांच करतालीं. रांद-वाड होच तिचो थारिल्लो नित्यक्रम आसतालो.

नानाची आवय नानाचो गर्भ धरत पसून भलायकेन बरी उरनासली. सुरवातीक नानाचे आजयेक दिसलें दीस गेल्यात म्हणून जेवण-खाण नाका जालां. पूण दर दिसा तिची भलायकी इबाडतच वचूंक लागली. पूण नानाच्या बापायचें बायले कडेन लक्षूच नाशिल्लें. तो दिसरात आपल्या वेव्हारांत गुल्ल. म्हणून एक दीस आजयेन आपल्या घरकाराक सांगलें, "व्यंकूचे बायलेची गुरवारपणाची पयली खेप पूण तिची भलायकी बरी दिसना. म्हाका तिचो हुस्कोच जाता. तेन्ना तिका शारांत व्हरून दोतोराक दाखोवन हाडल्यार बरी. अन्न-उदक नाशिल्ल्यान तिचो कांटो जाला".

"कमल, तूं एक-एक नविदानूच सांगता मगो? घरांत कितें गुरवारी जाल्योच नात?"

"हांव अणभवी बायल. आजवेर हांवें खूब गुरवारी पळयल्यो म्हणूनच सांगतां तुमकां.

**नानान चड आडे-वेडें घेनासतना सपनाक सरळ आपले कडेन लग्न जाता काय विचारलें आनी अपेक्षे प्रमाण सपनान थंयचे थंय हयकार दिलो. दोगांयनीय एकामेकांचीं सांगाती जावपाचो सोपूत घेतलो. जरी नानाची पिराय जाणटेपणा कडेन झुकिल्ली तरी सपना सारके चलयेक आपणावपाचो ताणें धीर केल्लो कारण ताका दिसलें सपनाच आपल्याक सांबाळून घेवपाक योग्य आसा.**

व्यंकूचे बायलेचीं चिन्नां म्हाका हुस्क्याचीं दिसतात".

"हांव सांगता तिका कांयच जावंना. तुजी घरगुती वखदां दी मगे तिका?"

"हांव वखदां करतांच पूण तिका इल्लो लेगीत गुण पडना. आवय नाशिल्लें पोर. कुळारा तरी कशी धाडूं चार दीस? म्हणून म्हणटां तिका शारांतल्या दोतोराक दाखोवन हाडुया".

"कमल, ओगीच जीव खावूं नाका. तुका हुस्को, चिंता करचेली जाल्या सवंय. म्हाका वेळ जाता. मानाय कामाक लागले आसतले भाटांत". नानाचो आजो बायलेचें कानार घेनासतना भाटांत वचपाक गेलो.

नानाची आजी अणभवी आसली. आजवेर तिणें कितल्यो तरी गुरवारी पळयल्यो. पूण हे

सुनेची तरा तिका वेगळीच दिसताली. तिच्या पोटांत कितेंच धरिनासलें आनी दिसभर तकली उशांत चेंपून ती दीस सारताली. घोवाक तर आपल्या व्यापा मुखार तिचे कडेन लक्ष दिवचें अशें दिसच नासलें.

आनीक एक दीस म्हयने पुराय जावचे पयलींच भर आषाढ म्हयन्यांत रातच्या दोन वरांचेर तिका पोटांत जावपाक सुरू जालें. थांबनासना पडपी पावस, चारी वटांनी गुपाट काळोख. अशो परिस्थितींत वैजिणीक हाडली. वैजिणीन पळयतनाच सांगलें आपले कडेन जावपाचें ना. जाता तितले बेगीन शारांत व्हरया वा दोतोर हाडया.

आषाढ म्हयन्याचो उटंगाराचो पावस, न्हंयो, व्हाळ पावसाच्या उदकान तुटूंब भरून व्हांवताल्यो. गुप्प काळखी रात. गांवच्या भायर वैजीण देवाक सांकडें घालताली.

कमल कितें सांगताली आपले पुताचीं आनी घरकाराचीं निश्काळजीपणां. धांपिल्ली मूठ... दोतोर पावता सर खूब कळाव जाल्लो. खूब रगतस्राव जाल्ल्यान सुनेचो रगताचो दाब देंवलो आनी तिची प्राणज्योत पालवली. पूण वैजिणीचे फिशालकायेक लागून भुरगें वाटावलें. घरभर दुख्खाचें सांवट पातळ्ळें.

कमलान सांगून लेगीत आपणें सुनेचे भलायके कडेन आडनदर केली. खूब निश्काळजीपणां केलीं. आपणें केलीं तीं केलीं, व्यंकूनय कशीं केलीं? आपल्या इतलीच ताचीय जापसालकी आसली. बायलेचे भलायके कडेन इल्ली तरी नदर दवरपाची न्ही? घडणूक घडले उपरांत पश्चात्ताप करून कितें उपेग? अशें घडत म्हणून आपणें सपनांत लेगीत चिंतूंक नासलें.

**''आगे, कमला बाय असो कसो घात घेतलो गे तुमी सुनबायचो? इतली अळंग जाल्ले गुरवारीक भर पावसांत तुमी पयलींच शारांत व्हरपाची न्ही गे? कसलीं निश्ठून काळजाचीं मनशां तुमी? सुनेच्या जिवा कडेन खेळ केलो मगे तुमी. आतां बरें वायटाचीं जापसालदार तुमीच थारतलीं. देवा रे देवा, तूंच पावरे प्रसंगार. म्हज्या धनया... तूंच पाव''.**

सरतलो जाल्यार पलतडीं व्हरपाक तारयाची गरज. दोतोराक हाडप वा गुरवारीक व्हरप महा प्रयासाची गजाल. व्यंकू बायलेचे तळमळे घरच्या बायलांक आनी वैजिणीक पळोवचे पडटाले. वैजीण आपले घरगुती उपाय करून निचेश्ट जावन पडिल्ले व्यंकूचे बायलेक सावचीत करचेलो यत्न करताली. पूण सगळे यत्न निर्फळ थारिल्ले. वैजीण सैरभैर जाल्ली.

''आगे, कमला बाय असो कसो घात घेतलो गे तुमी सुनबायचो? इतली अळंग जाल्ले गुरवारीक भर पावसांत तुमी पयलींच शारांत व्हरपाची न्ही गे? कसलीं निश्ठून काळजाचीं मनशां तुमी? सुनेच्या जिवा कडेन खेळ केलो मगे तुमी. आतां बरें वायटाचीं जापसालदार तुमीच थारतलीं. देवा रे देवा, तूंच पावरे प्रसंगार. म्हज्या धनया... तूंच पाव''.

देवान बापूय-पुताक सुनेचो प्राण घेवन, नकळटां जाल्ले चुकीची व्हड ख्यास्त तांकां फर्मायिल्ली. नानाचो आजो हे घडणुकेक आपूणच जापसादार म्हणून भितल्ले भितर घुस्मट्टालो.

नातवाचो बारसो करपाक घरच्यांक तोंडच नासलें. आजो, आजी, बापूय तशींच घरांतलीं आनी घरचे कामाक आदार करपी कामेऱ्यां मदीं व्यंकूचो पूत व्हड जातालो. दीस, म्हयने वताले. निकतेंच ताका उतर सुट्टालें. सदचे वरीं एक दीस ताका कोणें तरी विचारलें, ''बाबा तुजी आई खंर रे...'' ताणें बोबड्या उतरांनी म्हणलें ''ना... ना...'' तेन्नाच्यान ताका नांवच पडलें नाना. पाळण्यांत घालिनासतना नाना हेंच नांव रूढ जालें.

काळ सगळे तरेच्या वायट-बऱ्या घांयांचेर खपली धरता. नाना आतां इल्लो इल्लो व्हड जातालो. ताची पुराय जापसालदारकी आजी-आज्यान घेतिल्ली. हळूहळू घर परतें रुळार येवंक लागलें. सण, परबो सुरू जाल्यो. वाडदीस मनोवप जाताले. नानाच्या वाडदिसाक घरांत ताचे आवयची तीथ आसताली आनी सवायशीण जेवोवन गोडशाचें जेवण जातालें. घरचीं बायलां सवायशिणीचीं व्होंट भरून तिका पांय पडटालीं. नानाकय पांय पडपाक लायतालीं. दर वर्सा अशेंच चलतालें.

जेन्ना नानाक समजिकाय आयली तेन्ना एक दीस ताणें आजयेक विचारलें, ''आज्जे म्हजो वाडदीस केन्नाच कित्याक करिनात गे?'' आजी कितें जाप दिसतली. दोळ्यांतल्यान दुकां गळयत तिणें नानाक वेंगेंत घेतलो आनी म्हणलें, ''पुता तुजो वाडदीस आमी केन्नाच करूंक पावचीं नात. पूण तूं मात तुज्या पुताचो करूंक विसरनाका''. आजी कित्याक रडली तें नानाक समजलें ना... ''आजे, तूं रडूं नाका गे. तूं रडल्यार म्हाकाय रडूंक येता. हांव परत तुका केन्नाच विचारचों ना. तूं रडूं नाका. तूं रडूं नाका''. अशें म्हणटा म्हणटा नानाच रडूंक लागलो. आजयेली आपले वयली माया ताका खबर आसली.

आजी-नातू वेंग मारून रडटात तें पळोवन बाकी आशिकुशीक आशिल्ल्या घरच्यांच्याय दोळ्यांत दुकां भरलीं. नानान त्या दिसाच्यान आपल्या वाडदिसाची याद काडलिना. घरांत चलपी उलोवण्यां वयल्यान सानुल्याक समजल्लें की आपल्याक लागून घरांत कितें तरी वायट घडलां.

जशी जशी ताका समजिकाय येवपाक लागली तशें ताका आपले आवय विशीं, तिचे बाळंतपण आनी मरणा विशीं कळ्ळें आनी ताचें मन कश्टी जालें. आवयच्या करणाक आपूणच जापसालदार अशें तो चिंतूंक लागलो. कशेंय केल्यार ताच्या मनांतले विचार ताका सोडनासले. दिसभरच्या चिंतनांनी ताच्यांत इल्लो इल्लो बदल घडपाक लागलो. सभावांत एकलेपण जाणवूंक लागलें. उलोवप साप्प उणें जालें. गुन्यांवकारपणाची भावना सासणाची ताच्यांत रिगली. घुमेपण हो ताचो सभाव जालो.

गांवांतल्या घरांतय उलथापालथ जाल्ली. जण एकलो आपआपले सोयी प्रमाण गांव सोडून शारांत वसणुकेक गेल्लो. गांवांत रावन शिक्षण, वेवसाय, शिर्वीस फावो सारकी जायनासली. जाण्टेले सोंपिल्ल्यान जो घरंदाजपणाचो दबदबो आसलो तोय सोंपिल्लो. एकवटीत घराबो सोंपून घरांत वेगवेगळ्यो रांदपाच्यो कुडी जाल्ल्यो. बायलेच्या दुख्खान पयलीं व्यंकू सोंपिल्लो आनी ताचे फाटल्यान आजो-आजी. आतां नानाक एकटेपण चडूच जाणवतालें.

जेन्ना लक्ष्मीच्या पावलांनी सपना नानाच्या मनकाळजांत रिगलें तेन्ना ताणें थारायलें, आपल्यो सगळ्यो अर्दकुट्यो उरिल्ल्यो अपेक्षा आपूण सपनाच्या सांगातान पुराय करतलों. सपनाक जेन्ना दीस गेल्ल्याचें ताका कळ्ळें तेन्ना ल्हवचीक जावून आपूण अंतराळांत उडटा म्हणपाचो ताका भास जालो. सपनाक खंय दवरूंक खंय नाका अशें ताका जालें.

सपनाचें ताणें रूप पळयलेंना तर फकत आपलेपण. ताका लागून नानांत व्हड बदल जालो. तो आतां मेकळेपणान उलोवंक लागलो. ताचे वयलें दडपण इल्लें इल्लें कमी जावपाक लागलें. तांचे दीस सुखान वचूंक लागले. सपनाक कितेंच उणें पडूं नये हाची तो पुरायेन जतनाय घेतालो. ताका कितें जाय-नाका हाची खोलायेन चवकशी करतालो. चुकनासतना म्हयन्याच्या म्हयन्याक दोतोरागेर घेवन वतालो.

आपले आवयच्या काळार वैजकी सेवा वेळचे वेळार मेळूंक नाशिल्ल्यान आनी घरच्यांच्या दुर्लक्षपणाक लागून आपले सोंपिल्ले आवयची याद नाना केन्नाच विसरूंक शकनासलो. आपल्या हातान इल्ली लेगीत चूक घडची न्हय म्हूण तो सपनाची जतनाय घेतालो. आपलो वाडदीस तो केन्नाच मनोवंक पावंक नासलो ही खंत ताच्या काळजांत रिगून उरिल्ली ती खंत ताका आपल्या भुरग्याच्या वाडदिसाच्या रुपान सोबोवपाची आसली. अशीं खूबशीं सपनां नाना बाळगून आसलो.

जेन्ना सपनाचे दीस लागीं पावले आनी ताका बाळंतकळा येवपाक लागल्यो तेन्ना नानाक कितें करचें तेंच समजना जालें. हो ताचो पयलोच अणभव आशिल्ल्यान तो सामको काचाबूल जालो. पूण थंड सभावाच्या सपनान नानाक धीर दीत सांगलें की आमी बेगिनातबेगीन हॉस्पिटलांत पावया. जेन्ना तीं थंय पावलीं तेन्ना दोतोरान सपनाक तपासपाचे कुडींत व्हेलें आनी तपासलें. अचकीत दोतोराच्या कपलार सपनाक आटयो दिसल्यो. तेय अवस्थेंत सपनान दोतोराक विचारलें.

"दोतोर कितें जालें?"

"कांय ना, कांय ना. तशें भियेवपाचें ना. पूण तुका बेगीनच ऑपरेशन करचें पडटलें. सांगता तुज्या घरकाराक".

बाळंतीचे कुडी भायर नाना चिंतेस्त जावन येरादारी घालतालो. दोतोराक पळयना फुडें तो ताचे म्हऱ्यांत वचपाक दोतोरानच ताका आपले तपासपाचे कुडींत आपयलो.

"पळय, तुजे घरकान्नीचें अर्जंट ऑपरेशन करूंक जाय. तेन्ना केस पेपरार तुज्या हयकाराची सय गरजेची".

"दोतोर, दोतोर, भियेवपा सारकें कांय ना न्ही?"

"आरे भियेवं नाका. सपनाचें प्रेसांव मातशें देंवलां. दुसरी गजाल, ताका म्हयनेय पुराय जाल्यात. आमी रावंकय शकनात. ताका रोखडेंच मेकळें करया".

"दोतोर".

"पळय सांगलें न्ही तूं थंड बस. कांयच भियेवचेली गरज ना. रगताची गरज पडल्यार आमी वेवस्था करतात".

"दोतोर सारकें सांगात न्ही. तुमी म्हाका कितें तरी लिपयतात".

"दोतोर बेगीन भितर येयात. पेशंट कितें तरी..."

"चल, चल नर्स... चल बेगीन".

"दोतोर, दोतोर..." नाना व्हडल्यान आड्डलो.

सगळीं दारां बंद जाल्लीं. भायर नर्सी, पेशंटाक मेळपाक येवपी सोयऱ्यां-धायऱ्यांची यो-वच चालू आसलें. बाळंटीचे कुडींतलो आवाज इल्लो लेगीत भायर आयकूंक येनासलो. चिडीचूप्प. नानाच्या दोळ्या मुखार भिण्ण काळोख पातळिल्लो. ताका कितेंच सुचनासलें. तो परत परत चिंतालो - दोतोर इतलो अस्वस्थ कित्याक जालो? नर्सीन कितें सांगलें? दोतोर कित्याक धांवलो? प्रस्नचित्रांचेर प्रस्नचित्र नानाच्या दोळ्या मुखार उबीं जातालीं.

चिंतनांत कितलो वेळ गेलो नानाक खबर ना. दाराच्या आवाजान नाना चिंतनांतल्यान भायर येवपाक दोतोराचीं आकांताचीं उतरां ताच्या कानार आदळ्ळीं, "नाना... नाना... सॉरी, तुका कशें आनी कितें सांगूं. गेलें रे सपना. गेलें. आमी भुरग्याक वाचोवंक शकले पूण..."

दोतोराचीं उतरां कानार पडना फुडें नानाक सगळें हास्पिटल आपले भोंवतणीं घुंवता असो भास जाल्ल्यान आकांतान नानान दोतोराकच वेंग मारली.

"दोतोर, अशें कशें घडलें. अशें घडलेंच कशें? ना... ना... दोतोर तुमी फट उलयतात".

"आरे, सपनाचो रगतदाब अचकीत देंविल्ल्यान असो अनर्थ घडलो. आधुनीक तंत्र आनी यंत्राच्या आदारान आमी सर्तीचे यत्न केले. पूण केल्ल्या उपचारांक सपनाची कूड साथ दिवंक पावलिना. नाना... म्हजे लागीं उतरां नात... तुजें दुख्ख सासपूंक. सॉरी... नाना सॉरी".

"सपना, तुका हांवें फुला वरी जपिल्लें, कांयच कमी करूं नासलें. तुवें म्हाका आयज वयल्या मनस्तापांतल्यान मेकळो करून जगपाक शिकयलें. फुलतें फूल घेवन आमकां जगचें आशिल्लें. आतां... आतां... हांव कितें करूं...' मनांतल्या मनांत घुस्मटून घुस्मटून नाना हॉस्पिटलांतचे खाटीर धवेफुल्ल चादर पांगरून सासणाची न्हीद घेतिल्ल्या सपना मुखार दुकां गळयतालो.

नियतीन ताचे बराबर क्रूर खेळ मांडिल्लो. ताचें सपन भंगिल्लें.





• माया अनिल खरंगटे
सी - 4/1, वैभव अपार्टमेंट्स,
मारुती देवळालागी, दवर्ली-नावेली
फोन: 2753778

# अपूर्ण

- **टीचर** आयली, राधा टीचर आयली.

- ये रॉकी, तू टिचरीक मातसो हात लाय.

- बोरो मुरे तूं, म्हाका हात लावूं सांगोता? टिचेरी मार हांव खावूं?

- आरे नारे, तूं मार कित्याक खातलो? तूं आमगे फास्ट रनर. तिका हात लाय आनी धांव मार.

- आरे बाबा, ती पोयलीं बेसीनांत वोचोन हात धुतोली. मागी क्लासीं येन दिस्तू माक सोदून काडटोली आनी पोट्टी घेयन मात्तोली. पाड पोडों तिचें. कित्या तिगे वाटे वोसों सोदिताय तुमी. बेकार आहाय?

- रॉकी, तुका हात लावपा ना लायनाका. येदें शेरमांव कित्या सांगिलें?

- विलास चल, आमी सगळे गर्दी करून या आनी तूं चुकून तिचेर पडिल्ले भशेन कर.

- हय हय, मागीर मजा पळोवया.

- मजा कितें पळयतले. ती घरा वचून न्हावन दुसरे कपडे घालून येतली.

- ओगी राव. आतां इस्कूल इस्टाट जावपा वोगोत जालो. ती घोरा केशी वोयतेली? बेसीनांत वोसोन हात, साडी धुयले भाशेन कत्तोली.

- अशीं पिशेपणां कित्याक करता ती? कोणाचो मातसो हात लागूं जायना तिका.

- हातूच कित्याक वारें लेगीत पडूं जायना तिचेर. ती केन्ना इस्कोल सुट्टा तेन्ना इंटरवालाक भायर कॉरिडोरांतल्यान भोंवतना पळयल्या तुमी?

- ना मरे ती बेग्गीन येता आनी स्कूल सुट्टकीर वेळ्ळान वता.

- तिका कोणय तेंकल्यार जाता कितें?

- आंगा कुडके वतात.

- ना रे, कुडके वचनात. तिका ॲलर्जी जाता. आंगाक येद्दे मोटे फोड येतात.

- तशेंच आसतलें तें. ती पळय कशी साडी बी वयर काडून चोरून आयिल्ले वरी येता.

- ये भोंगू तिचें. ती चोरून येवूं ना जाल्यार लिपोन येवूं. शिकोयता बोरी!

- हय, हय. तिणें शिकयिल्लें मॅथ्स काय बरें कळटा. पोरूं तो पाडे जॉयल सर शिकोयतालो तें कांयच कळनासलें.

- पूण, डिफीकल्टी विचारूं बोगले वोचपा आहा. पोयलीं पोयस राव, पोयलीं पोयस राव कोत्तोली. अनटचेबल लेडी म्हुणपा तिका.

- हय रे, खरेंच तुजें.

- ये, आमी व्हडल्यान अनटचेबल लेडी म्हणुया?

- हय, हय.

- जालें, चल, एक... दोन... तीन...

- अनटचेबल लेडीऽ, अनटचेबल लेडी. भुरग्यांनी दोन-तीन फावटीं अनटचेबल लेडी म्हणलें आनी शाळेचे गॅलरींतल्यान धांव मारली. राधा टीचर सदचे वरी तकली सकयल घालून येताली. भुरग्यांनी अनटचेबल लेडी आपल्याकच म्हणलां म्हणपाचें राधाक कळ्ळें. तिणें सट् करून तकली वयर काडली. पूण धांवून गेल्ले भुरगे कोण ते तिका कळ्ळें ना. ती मनांतल्या मनांत फडफडली.

...एकल्याक जरी वळखल्लें तर सोडचें नासलें. चड फाटल्यान लागतात म्हज्या. हेर टिचरांक सांगपाक पूण गती आसा... तीं पयलीं म्हजीं फकांडां करतलीं. हांव कोणा कडेन घोळून-मेळून वागना म्हणून म्हाका तीं कितें कितें म्हणटात. म्हाका आवडूच ना जाल्यार हांव कितें करूं? कोणाचोच हात लागिल्लो म्हाका खपना. आंग शिरशिरता. कोणय मातशें तेकल्यार ओगी रावतलें म्हणून कितले यत्न करतां पूण... मातसो वेळ वतकच तो जागो कुचकुचिल्ले भशेन दिसता, मागीर वचून धुवचोच पडटा... हांव कितें करूं? भाभी हाका भैरजळप म्हणटा... म्हाका कांयच जायना खंय. सगळे म्हज्या मनाचे खेळ म्हणटा ती... खरेंच काय? हांव तकलेन सारकें आस मूं... हय आसांच. ते बगर धावी मेरेन गणित शिकोवंक शकतां हांव? गणित म्हजो आवडटो विशय... जितलें कठीण सम तितलें तें म्हाका शिकोवंक आवडटा... भुरगींय म्हज्या शिकोवपाचेर खूश. तांचे पालक लेगीत म्हजी तोखणाय करतात... म्हणटकच भाभी म्हणटा तें खरें काय? हो म्हजो भैरजळपच? म्हाकाच कित्याक लागचो तो? पयलीं अशें नाशिल्लें हांव... सगळ्यां बराबर घोळून-मेळून वागतालें. कितल्यो इश्टिणी आशिल्ल्यो म्हज्यो? दीस म्हणूं नाका, रात म्हणूं नाका, एकामेकांगेर वचून खेळटालीं आमी. आई मागीर बोवाळ घालताली, "घोडयो कश्यो नाचतात, अभ्यासाचेर लक्ष ना. ल्हान नात तुमी आतां. मात पूण धंगण बाळगात". पूण आतां हांव साप्प बदल्लां. दुसऱ्या मनशाचोच म्हाका वीट सो येता. कोणा कडेनूच चड उलोवं नये, एकटेंच रावचें अशें दिसता. इश्कोलांत हरशीं हांव कोणाचोच हात लावन घेना, चुकून लेगीत कोणाक तेंकना, तरीय घरा वतकच म्हाका म्हजोच वीट सो येता. परतूच न्हातां हांव, शाबू

लाय लाय लायतां, तरीय निवळ जालें शें दिसचना म्हाका. कितें करप हांवें? पाड पडूं, ह्या विशयाचेर जितलें येवजितां तितली तकली उसळटा. म्हजो सभाव बदलपाचो कितलो यत्न केलो हांवें पूण ना, ह्यो नाका आशिल्ल्यो सवंयो काय भैरजळप सुटच ना. एक एकदां हाचो म्हाकाय कितलो त्रास जाता. सोड, ॲसेंब्लीची बेल आतां जावची जाली. बुकां ड्रॉवरांत दवरूंक जाय.

राधाक आयज पयलो तास रिकामो आसलो. धावेचें गणित घेवन तें सराव करूंक बसलें. शिक्षक कुडींत आनिकूय शिक्षक आसले. तांचे कडेन गजाली करपाची राधाक सवंय नासली. ते कितें उलयतात ताचेरूय ताचें लक्ष नासलें. ते शिक्षक मात तोंडा मुखार पेपर धरून राधाचीं फकांडां करताले.

तशे सगळेच शिक्षक राधाचे अवसडीं ताचीं फकांडां करताले. ताच्या सभावाचेर उलयताले. राधा एक तरणाटी शिक्षिका. दिसूंकय बरें रुपेस्त. शिकयतालेंय बरें. ताचेर कसलेंय काम सोंपयलें जाल्यार तें वेवस्थीत जातलें हाची सगळ्यांक खात्री. पूण... राधा म्हणल्यार सगळ्यांकूच प्रस्नचित्र आसलें.

ताची कोणाच कडेन इश्टागत नासली. कामा पुरतेंच तें कोणाकडेनय उलयतालें. मागीर ताचें तोंड बंद. रिकाम्या तासाक, मदले सुटयेंत हेर शिक्षकांचें कितें ना कितें उलोवप, फकांडां, मस्कऱ्यो करप चालूच आसतालें. राधा अशा वेळार एकोडें कशें ओग्गी बसतालें. पयलीं पयलीं एकाद्री शिक्षिका मुद्दाम ताका हडकून ताचे कडेन उलयताली. ताकाय तांच्यांत भरसुपाचो यत्न करताली. पूण राधा मुंगशें कशें, तिचे कडेन तितल्या तितलें उलोवन पुस्तक वा पेपर तोंडा मुखार धरून बसतालें. तांकां खबर आसली, राधाक जशें उलोवंक नाका तशेंच कोणेंय हात-बोट लायिल्लेंय खपना. म्हणून तें वेगळें बसता. एकोडें रावता. ताचो सभाव वळखून आतां कोणूच ताचे कडेन मेतेर जायनासलीं.

केन्ना केन्नाय राधाक लेगीत आपल्या सभावाचें कुवाडें कशें दिसतालें. हेर शिक्षकांच्या फकांडां-मस्कऱ्यांत आपणेंय वांटेकार जावचें, तांच्या विनोदांचेर आपणें

**अशें हांव सगळ्यां परस वेगळें कशें? कित्याक आवडनासल्यो म्हाका तांच्यो गजाली... काय हांव ॲबनॉर्मल बी?... छट्, हें कितें चिंततां हांव पिशां भशेन. म्हजे म्हाकाच ॲबनॉर्मल थारायतां... शीऽ... हांव नॉर्मल नाशिल्लें जाल्यार हे सगळे वेव्हार, शिर्वीस कशें करतलें आसलें... पूण म्हाका अशें कित्याक जाता तर? म्हजे वरी कोणाकूच पळयना हांव... कोणाकूय बुरशापणाचो वीट येता.**

खळखळून हांसचें, आपणेंच विनोद सांगचे अशें मना पसून दिसतालें. पूण तें कांयच करीनासलें. ओग्गी बसून रावतालें.

तांच्यांत चड फकांडेर मेरी टीचर आनी विनोद सर. मॅरी टिचरीक गजाली सांगतना म्हऱ्यांत आशिल्ल्यांचेर थापटां मारपाची आनी चिमटावपाची सवंय. विनोद सर तर दी ताळी म्हणले बगर गजाल सोंपयच नासलो. नयना टीचर खांदार हात दवरूनच गजाली सांगताली. राधा ह्याच कामांक भियेतालें. उलयतां उलयतां कोणेंय आपल्याक हात लायलो जाल्यार? लजेच्या झाडांचीं पानां जशीं मातसो हात लायल्यार लेगीत सडसडीत धांपतात, तशें कितें राधाचें जातालें. चुकून लेगीत कोणेंच हात-बोट लागल्यार तें भितल्ल्यान आंवळून आयिल्ले वरी जातालें. आनी सट् करून दोन पावलां फाटीं सरतालें. मागीर बेसीना कडेन वचून तो जागो धूय धूय धुयतालें.

ताच्या ह्या सभावाक लागून हेर शिक्षकांक ताचे कडेन उलयन शें दिसनासलें. तें एकमुळें जावन पडिल्लें. सगळ्यां मदीं आसूनय एकटें जातालें. आनी मनांतल्यान खंती जातालें. अशा वेळार हालींसराक तें मनांतल्या मनांत आपलेच कडेन उलयत रावतालें-

... स्कुलांत आससर म्हजी जीण कितली उमेदी आसली... वाक्या वाक्यार हांव खळखळून हांसतालें... कोणाचींय फकांडां करप, कोणाचोय आवाज काडून चाळोवप, कोणाचीय नक्कल करप... बरे भशेन गंभीरपणान अशें केन्ना कोणा कडेन उलयलेंच ना दिसता... शिक्षकांनी फाट वळ्ळी काय तांकां चाळोवप, सगळ्या वर्गाक हांसोवप, हांव मात गंभीर तोंड करून रावतालें... तो उमेश, ताका बाबड्याक एकदां हांसपाक सुरवात केली काय थांबूंक कळनासलें, मागीर टीचर ताका तापयताली... सदांच म्हजेर तो बेजार जातालो... "तूं मगो राधा, सामकें सुबेज. आमकां हांससयता आनी आपूण बरें ओग्गी रावता. तापोवणीं म्हाका. आतां हांव तुजे कडेन पळोवचोंच ना". पूण ताचो निश्चेव तितले पुरतोच उरतालो. हांव करतालेंच तशें. स्तित्रप्रज्ञ मनशाक लेगीत हांसयतालें... शिक्षक म्हाका तापोवंक आयल्यार, हांवें अशीं तोंडां करप, तो शिक्षक आपलें हांसप चिड्डीत वतालो... म्हाका तें कळटकच हांव व्हडान हांसतालें... मागीर त्या शिक्षकान म्हणप, "तूं मगो, केन्ना सुदारपाचें ना, राव, प्रिन्सीपलाक सांगतां". पूण म्हजी कागाळ कोणें केन्ना प्रिन्सीपला म्हऱ्यांत पावयली ना... म्हजी प्रगती, सगळ्या मळा वयली हुशारी पळोवन सगळे शिक्षक म्हजी तोखणाय करताले... म्हाका सगळें माफ जातालें... मागीर म्हजे इश्ट-इश्टिणी म्हजेर जळटालीं... कांय जाणां खऱ्यांनीच, कांय जाणां फकांडांनी...

खंय गेले ते फुलपाखी दीस? कोणें जादू केल्ले वरी म्हज्या जिविताचें सगळें चित्रूच बदलून गेलें. हांवूंय पुराय बदल्लें. ते दिसूय शेणले आनी इश्ट-इश्टिणीय शेणल्यो. शेणल्यो कशें म्हणप? हांवेंच शेणयलीं तांकां. तांच्यांतलीं आतां कोणय मेळ्ळ्यार म्हजो सभाव पळोवन हांव तें न्हीच म्हणटलीं. शाळा सुटली, कॉलेज केली. हांव पयलींचेंच आसलें. उपरांत बीएड केलें. ही शिर्वीस मेळ्ळी. हे गडबडींत म्हजो पयलींचो सभाव बदलत गेलो

काय? सगळ्यांकूच अशें जाता काय? नासतलें. हांवूंच अशें बदलत गेलां. तें निमा, प्रिता, विजय तशींच आसात. तांच्यो गजाली अजून त्योच आसतल्यो. केन्नाय मेळ, फकत चल्यांच्यो गजाली. कोण खंयच्या हिरो भशेन दिसता, कोणाची स्टायल कशी. शी, म्हाका हें सगळें आयकूनच वाज येतालो. तें थोडें म्हणल्यार तांकां खंय कोणाक पळोवन शिर्रऽ जाता, कोणाक पळोवन काळजांत कुचकूच जाता कितें जाता आनी कितें ना. म्हाका मात शिर्रऽ फुर्रऽ कांयच जायनासलें. तांच्या तसल्या खबऱ्यांचोच वाज येतालो. वीट येतालो. म्हणून तर हांवें तांचे मदीं वचपाचें सोडलें? तांची इश्टागत अजूनय आसा. तांचे मदीं ना तें हांव. तांणी म्हाका आपोवंक कितले फावटीं फोन केले. तांचो नंबर पळोवन हांवें फोनूच घेवप ना. तोडलीं तांकां हांवें.

अशें हांव सगळ्यां परस वेगळें कशें? कित्याक आवडनासल्यो म्हाका तांच्यो गजाली... काय हांव ॲबनॉर्मल बी?... छट्, हें कितें चिंततां हांव पिशां भशेन. म्हजे म्हाकाच ॲबनॉर्मल थारायतां... शीऽ... हांव नॉर्मल नाशिल्लें जाल्यार हे सगळे वेव्हार, शिर्वीस कशें करतलें आसलें... पूण म्हाका अशें कित्याक जाता तर? म्हजे वरी कोणाकूच पळयना हांव... कोणाकूय बुरशापणाचो वीट येता. उमा वयनी भशेन ती घरा येवन साडी सोडटा, हात पांय धुयता... जाली तिची निवळसाण. म्हजे भशेन धूय धूय, पूस पूस ना. म्हाका निवळ गजालींचो लेगीत वीट येता. इतलें बरें रूप म्हजें, पूण श्रापीत कशें. कितले जाण म्हजे कडेन इश्टागत करूंक सोदतात. म्हाका मात कोणा कडेन इश्टागत सोड, सादें उलोवपय नाका दिसता. ताका लागून वनिता टीचर म्हाका कुसकें, आपल्या वाद्याचें, रुपाचो गर्व आसा अशें जायतें कितें कितें म्हणटा. म्हाका आयकूंक येता अशें म्हणटा. पूण कोण सांगत तिका, हांव कुसकें न्हय, गर्विश्ठ तर मातूय न्हय. फकत लोकां मदीं भरसुपाचो म्हाका भंय सो दिसता. ते परस एकटेंच रावप बरें दिसता. पयरूच ती रिना टीचर म्हणी, "हें आमकां अशें करता, फाल्यां हाचें लग्न जातकच न्हवऱ्याक म्हऱ्यांत उबो पूण करून घेतलें मूं?" हांव मनांतल्या मनांत हांसलें, दुसऱ्या खिणाक म्हज्या दोळ्यांतल्यान घळ्ळ करून दुकां गळ्ळीं. लेंस सकयल उडोवन काडपाचें निमित्त करून हांवें ल्हवूच दुकां पुसलीं. सोड खबर, ह्यो खबरी सोंपपाच्यो न्हय.

तास सोंपिल्ल्याची घांट वाजली. राधा आपलीं पुस्तकां, डस्टर आनी खडू घेवन उठलें. इतल्यांत आपलो तास सोंपोवन भितर येवपी देसाय सरान ताका हडकिलें,

- राधा खंयचे क्लासींत गो?

- धावी ब.

- आं, गणिताचो सराव केला मगो बरो. ते क्लासींतलीं भुरगीं धडाचीं न्हय. गरजे भायर प्रस्न करून शिकोवंक दिनात.

- ना, म्हाका आयकतात तीं.

उलयतां उलयतां राधा गेलें. थंय आशिल्ल्या शिक्षकांनी देसाय सराची फिरकी घेवंक सुरवात केली.

- देसाय, राधाको उलोयले बोगोर तुका सुसेग मेवोना न्हूं?

- कितें विचारप तुजें वॉल्टर? राधा कडेन उलयले बगर ताच्यान रावं जाता? एक वेळ उपाशीं रावत तो.

- राधान परती जाप दिवं, दिवं नाका. बाबडो देसाय सर राधा राधा करून ताचे कडेन उलयत रावतलो.

- ये तुमी देसाय सराचीं बेठीच फकांडां करूं नाकातआं. राधा आतां पयलींचें उरूंक ना. तें देसाय सराक बरी करून जाप दिता.

- देसायान धा उतरां उलयतकच तीन उतरांनी जाप दिवूं मागीर.

- हय गो, हळूहळू सुदारतलें तें. धा वाक्यां उलयतलें तें ताचे कडेन. पळोवशात तुमी.

- होय तोर, देसायान आमकां चॅलेंज केलां तें बेठेंच? तो तेका फ्रॅण्डशीप करून रावपा ना, तेचे फुडें वोसोन काजार लेगीत कोरीत. देसायागे कांय सांगूं नेजो. वेरी स्मार्ट बॉय. मोन्यांक लेगीत उलोवपा लावपा आहा तो.

इतलो वेळ मुमुरख्यांनी वांगडी शिक्षकांचीं उलोवणीं आयकुपी देसाय सरान व्हडान हांसून म्हणलें,

- आरे, अशीं तर्क-वितर्क करीत रावनाकात. निकतो भट न्हांवपाक गेला. पळोवशात तुमी, राधेक हो मोहन कसो बदलत तो. मोहन नांव म्हजें सार्थ करून दाखयतां तुमकां.

फाटल्या वर्सा हिंदी टीचर रिटायर जाली आनी तिच्या जाग्यार देसाय सर आयलो. हांसत्या तोंडाचो, बडबडो तसो गडबडोय बी. पांच मिणटां ताच्यान ओगी बसपाक जायनासलें. कोणाचींय फकांडां करप, उतरा-उतरांचेर विनोद करप. शिक्षक कुडींत देसाय सर आसप म्हणल्यार हांसपचो आवाज भायर मेरेन वचूंकच जाय. तो ज्या वर्गांत शिकोवंक वतालो त्या वर्गांतल्यानय हांसपाचो उलोवपाचो आवाज भायर पावूंकच जाय. तो जितलो विद्यार्थ्यांक आवडटालो तितलो वांगडी शिक्षकांकय आवडटालो. एक दीस जरी देसाय सरान रजा घेतली, जाल्यार हेर शिक्षक म्हणटाले, 'ये आयज वाज आयलो. आयज दीस अळणी गेलो'.

तो शाळेंत आयलो आनी रोखडोच सगळ्या शिक्षकां मदीं भरसलो. सगळ्यां कडेन घोळून मेळून वागूंक लागलो. सोडून राधा. देसाय सरान राधा कडेनूय उलोवपाचो यत्न केलो. पूण ताका 'हां, ना, हूं" हाचे वयर प्रतिसाद मेळना जालो. मागीर बाकीच्या शिक्षकांनी ताका राधाची गजाल सांगली. थंयच देसाय सरान पैज मारली - वर्सा भितर राधाक हांव मनशाळायतां. मनशाळावप हें ताचें खास उतर.

आपली पैज खरी करपाच्या वावराक तो रोखडोच लागलो. राधान जाप दिवं, ना जाल्यार दिवूं नाका, तो कितें ना कितें निमित्त काडून राधा कडेन उलयतालो. मदले सुटयेंत जावं ना तर दोगांकय एका बराबर रितो तास आसत जाल्यार, तो राधाच्या शेजरा वचून बसतालो. पयलीं पयलीं राधा काचाबूल जातालें. लजेच्या झाडा वरी सगळें आंग आंवळून घेतालें. अशा वेळार ताच्या कानांतल्यान उजो आयिल्ले वरी ताका दिसतालें आनी तें नर्वस जातालें. मागीर देसाय सराल्या प्रस्नांच्यो जापो खंयच्यान दितलें? ताच्या तोंडाक लेगीत पळय नासतना 'हां, हूं' करतालें. नाच जाल्यार निमित्त करून बाथरुमांत, वाचनालयांत खंयूय वचून येतालें.

मागीर सगळ्यांनी देसाय सराक म्हणप - आरे, पक्षी उडलो, तूं कोणाक मनशाळायतलो?

देसाय सर जिद्दी. ताणें आपलो हट्ट सोडलो ना. राधा कडेन उलोवंक तो निमतांच सोदतालो. गॅदरींग जावं हेर कसलेय कार्यावळीचीं कामां वांट्टना तो राधा आसा धंयच आपूण रावतालो. ताका आदार करूंक तो सदांच मुखार आसतालो.

हळूहळू देसाय सराल्या यत्नांक येस येतालें. राधा मात्शें शें मेकळें जाल्लें. पयसुल्ल्यान काय जायना तें देसाय सरा कडेनच न्हय तर हेर शिक्षकां कडेनय उलोवंक लागिल्लें. राधाक पोवनां रकयिल्ले वरी खळखळून हांसूंक कळटा हाचो सोद ताकां नव्यानूच लागिल्लो. विद्यार्थ्यां कडेनूय तें आतां खूब सदळ जाल्लें. पूण 'अनटचेबल लेडी' हो ताचो किताब मात सुटूंक नासलो. तें भुरग्यांक पयलीं वरींच चड लागीं येवंक दिनासलें.

ताचो बदलिल्लो सभाव पळोवन वांगडी शिक्षक देसाय सराक चिमटायताले.

- देसाय, तूं पैज जिखतलो सो दिसता.

- आतां शेवट गोड कर. डबल पार्टी दिले बगर सोडचेना आं आमी तुका.

- आमकां पार्टी दिवन नाटक सोंपोवशीत. 'शो मस्ट गो ऑन'.

- तुमी कित्याक भियेल्यात. व्हडली पार्टी दिवयाच. लाडू मात दोन दोन दिवपा बसचीं नात. एकूच मोट्टो दितलीं. चलता मूं?

- चलता कित्याक धांवता, धांवता. आमकां दोट्टी बोवाळ, आतां पसून तयारेक लागूंक जाय.

हेर शिक्षकांचीं हीं उलोवणीं आयकतना राधा मनांतल्या मनांत खिणभर सुखावतालें आनी दुसऱ्या खिणाक ताचें मन पेट्न उठ्ठालें. आपल्या मनाचोच आतां ताका भंय दिसूंक लागिल्लो.

अशें कितें जाता म्हाका. केन्नाच जावंक नासलें अशें. देसाय सराल्या उलोवण्यान म्हाका अशें फुलून आयिल्ले वरी दिसता, भितरल्यान कितें तरी सरसरता. हें अशें जावंक जायना. हेर शिक्षकांचीं तिढावपी, दोन अर्थाचीं उतरां आयकना मन ल्हवपीक जाता. ना, ना. हें बरोबर न्ही. इतलो तेंप हांवें मोट्या यत्नान घाल्लो बांद असो वेरेवंक जायना. म्हाका ती जाणीव जायत साकवन हांवें म्हज्या मनाक घट्ट बांदून घाल्लें. बॉन्साय करतना झाडाचीं पाळां घट्ट बांदून दवरचीं, तशें हांवें म्हजें मन बॉन्साय केल्लें. म्हाका दिशिल्लें तें आतां सपनाच्या राज्यांत केन्ना पेवचें ना. पूण अशें कितें जालें? म्हाका पयलीं हेर चलयां वरी लजप, मोडप, चल्यांक पळोवन बेठेंच किटकिटचें अशें केन्नाच दिसलें ना. खंयच्याय चल्या कडेन उलयतना म्हज्या इश्टिणीं वरी काळजांत केन्ना धडधडलें ना, थरथरलें ना. मागीर मागीर ती जाणीव जायत सावन तर हांवें म्हज्यांतली मोवसाण खरपणान चिड्डून दवरली. तेन्नाच्यान हांव अशें बदल्लें काय? म्हाका भैरजळप काय कितें तें लागलें काय? आसत. तशेंच जावं येता. कठोरतायेचो बुरखो हांवें इतलो घट्ट घेतलो, तोच म्हजी खरी कात जाला अशें म्हाका दिसलें. पूण देसाय सरान हो बुरखो हालयलो. ना, ना, तो निखळावंक हांव दिवचें ना. दिवंकच शकना. म्हज्या मनाक अशें वाऱ्यार हुबपाक दिवूं जायना. तें आनी सदळ जावचे पयलींच ताका बांदून घालूं जाय. कितले फावटीं म्हाका सगळ्यां मदीं भरसून हांसचें उलोवचें शें दिसलां. पूण आजवेर हांवेंच म्हाका घाल्ल्यो बेडयो म्हाका वाटायत आयल्यात. पूण. हो देसाय सर खरो जादूगार. म्हज्यो बेडयो हालोवन दवरल्यो. आतां अशे धडेर म्हाका उबें केलां, मातशें हाल्ल्यार हांव निसरून पडटलें. आतां शिक्षक कुडींत सगळीं उकतेपणान उलोवपाक लागल्यांत. देसाय सरूय तातूंत वांटो घेता. हें प्रकरण चड मुखार वच्चे पयलींच थांबोवंक जाय. म्हज्या बदलिल्ल्या सभावाचो हेरां वरी देसाय सरानय वेगळोच अर्थ घेतला. ते नदरेन हांव तुजे कडेन केन्नाच पळोवंक शकचें ना देसाय सर. तुजे कडेन सादी इश्टागत करची आसली. फकत इश्टागत. तुजी जीण म्हाका पिड्ड्यार करपाची ना. आतां म्हजो हो घुस्मटमार म्हज्यान सोंसूंक जायना. कितें तरी एक निर्णय म्हाका घेवंकच जाय.

कांय दीस मना कडेन झगडून राधान निर्णय घेतलो. एक दीस राधाचो रजेचो अर्ज हेडमास्तराच्या मेजार पाविल्लो. "गरजे भायर केन्नाच रजा न घेवपी राधा व्हड रजेर? अजाप मूं?" शिक्षक कुडींत सगळेच अजापान उलयताले.

- देसाय, राधालें कितें जालां?

- अचकीत रजेर शें? रोखडोच लाडू दिवपाचो बोवाळ काय कितें रे?

- तयारी करपाक रजा घेतल्या दिसता ताणें.

सगळींच तरे तरेन देसाय सराचीं आनी राधाचीं फकांडां करतालीं. देसाय सर मात अजापांत बुडिल्लो. हालीं तें म्हजे कडेन मेकळेपणान उलयतालें. म्हाका कसलीच सुलूस लायनासतना राधा अचकीत रजेर कित्याक गेलें काय? जिवान बरें आसा मूं? चवकशी करची पडटली.

ऑफिसांतल्या क्लार्का कडल्यान ताका कळ्ळें राधान वीआरएस फॉर्म व्हेला. "राधागेर वचूनच ताची चवकशी करची पडटली. तें खंय रावता तें विचारचे पडटलें".

देसाय सरान मनांतल्या मनांत थारायलें.

दुसऱ्याच दिसा मदले सुटयेंत शिक्षक कुडींत देसाय सराक शाळेच्या शिपायान चीट हाडून दिली.

'राधाची चीट'. देसाय सराल्या तोंडांतल्यान उमेदीन उतरां भायर सरलीं. भितर कितें बरयलां तें कळचे पयलींच सगळ्यांनी बोवाळ घालो, "देसाय पार्टी जायच आमकां. आयज वेळ जाला. फाल्यां सोडचे ना तुका."

- दिवया दिवया.

म्हणत मुमुरख्या तोंडान देसाय सरान चीट भायर काडली. सच वळींची ती चीट वाचली आनी ताणें दोनय हात मेजार आपटिले आनी दोळे गच्च धांपले. म्हऱ्यांत बशिल्ल्या वॉल्टरान चीट काडून वाचली.

"देसाय सर, तुवें पयरूच म्हणिल्लें, दादलो आनी बायल एकटीं आसल्यार सदांच अपूर्ण. तीं एकठांय येतकच पूर्ण जातात आनी हो संवसार घडटा. खरें तुजें. हांव सदां खातीरच अपूर्ण. म्हजी जीण अपूर्ण. हो अपुर्णांक कोणूच केन्नाच पूर्ण करूंक शकचो ना. कारण... कारण... हांव न्हय दादलो, न्हय बायल..."

# जोर



• जुजे लॉरेन्स
मडगांव
मो: 9822184740

जेन्ना समोणी देसायाच्या आंगांत गरमी चडूच वाडली, तेन्ना तो दोतोर शिवरामा कडेन गेलो. दोतोरान आपलें पुडवें वयर काडून खोयलें आनी समोणीक बारीकसाणीन तपासलो. ताणें ताका खोंकली काडूंक लायली आनी समोणीच्यो आंतकडयो वयर सकयल कश्यो जातात तें पळयलें.

दोतोर शिवरामाच्या कोनसुलतारींत शिंपयांचीं जनेलां आसात. दोतोरान समोणीक त्या जनेलांच्या उजवाडांत उबो केलो आनी जमनीक पळयत रावलो.

"जोर" ताणें म्हणलें.

"जोर?"

"सावळेक. तुजे सावळेक जोर आयला".

समोणी चिंतेस्त जावन घरा परतलो. येन्ना म्हणसर सावळ्यो लांबिल्ल्यो. पूण समोणी फाटल्यान पळय नासतना चलत गेलो. रातचो मात न्हिदचे पयलीं दिवलेक फाट करून तो वणटीक पळयत रावलो.

- हय, सावळी मातशी सुजल्या खरी.

"खंयचे सावळेक जोर आसा दोतोर", ताणें दुसऱ्या दिसा दोतोर शिवरामाक विचारलें. "म्हजे दिसाचे सावळेक वा रातचे?"

दोतोर शिवराम ओक्त घालूंक विसरिल्लो. दोळे बारीक करून ताणें समोणीक रागान पळयलें. "तुका कितें दिसता, हांव रातची सावळी तपासपी दोतोर रे? तसल्या कामांक तूं वच - त्या सकयल्या बाजारांतल्या दोतोर चंद्रावेळ्ळुगेर".

त्या दनपारां समोणी घरा चलतासतना आपले सावळेचो हुस्को करीत आसलो. सावळी आतां मात्शी बारीक जाल्ली. ताणें

रस्त्यार बसून सावळेक हात लायलो. सावळी बरीच हून लागली. आपले सावळेची कुयताद बरे भशेन करूंक ना म्हणून ताका वायट दिसलें आनी आयच्यान सगळें जाग्यार घालतलों, अशें चिंतींत तो चमकत घरा गेलो.

"सारको बस. हालूं नाका". ताचे बायलेन ताका दनपारच्या वतांत बल्कांवांत बसयलो आनी ताचे सावळेक गरम तेल आनी कोडूलिंबाच्या पानांनी बरी शेकयली. ती तेल रगडीत रावली आनी वरा वरान सावळी लांबीत गेली. सावळी सामकीच पातळ जातकच समोणी उठलो. तेलान चिकचिकीत जाल्ले जमनी वयल्यान चलत घरांत भितर सरलो. न्हालो आनी पांगरूण घेवन न्हिदलो.

"आयज दुकानार वचनाका रे", बायलेन सकाळचें सांगलें. "आमसाण आनी कांद्याच्या वासान जोर चाळवतलो".

सांजेच्या वेळार गाडेकार आयलो. जगमीची ताळी घेवन समोणीचे सावळेक येतिश्ट झाडयली. मागीर विडी पेळोवपाक उगडो बसलो तेन्ना समोणीन ताका विचारलें -

"हें झाडणी करतात ते चड करून पिशा सुण्यांनी घांस मारल्यार करतात न्हय".

"पिशा सुण्यांक, सोरपांक आनी सावळ्यांक" गाडयेकारान म्हणलें आनी आपल्या आंगा वटेन धुंवर सोडीत बसलो. समोणीचे बायलेन ताका तीन रुपया दिले. ते ताच्या मनांत बरे वचूंक नात. वतना ताणें म्हणलें, "तो आंबो पळय, ताका येता त्या वर्सा घडये फूल येवचें ना".

चवथ्या दिसा समोणी उठून दुकानार गेलो. ताच्या फाटल्यान चलतले सावळेक सांबाळून आनी अपुरबायेन भोंवडायली, तिका रस्त्याच्या फोंडकुलांनी पडपाक वा फातरांक आपटूंक दिली ना. मदींच रस्त्याचेर बसून जोर पळयलो. सावळेची थंडसाण पळोवन खुशाल जालो.

दुकानाच्या मांडार बसून समोणीन सकाळचें वत तोंडार घेतलें आनी ताच्या जिवाक बरें दिसलें. बोंडी जातकच आनीकय बरें दिसलें. ताची सावळी दुकानाचे फाटले कुडींत सरकटून पेत्रोलाच्या लातां वयल्यान आनी सॉफ्ट ड्रिंकचे काशे वयल्यान खेळूंक लागली, पूण समोणीन कांयच म्हणूंक ना.

समोणीक तिची सावळी बारीक आनी दुखेस्त दिसली. आपले सावळेन तिचे सावळेक वेंगेंत घेवन थाकाय दिवची, अशें दिसलें. पूण चौगांय जाणां हालनासतना ओग्गी बसलीं. बऱ्या वेळार पयशिल्ल्या पाळोळेच्या वेळे वयल्यान मिर्गाचें वारें धांवत आयलें आनी गुळें आनी पाडी हुपून समोणीच्या धाकट्या मातये घरा कडेन पावलें. वाऱ्यान जनेलांतल्यान फूंक मारली ते बराबर वखदा बाटलेच्या पेत्रोला दिव्याची ज्योत थरथरली.

सांज वेळार घरा वतना समोणी शंकराच्या झाडां पोंदच्यान चलत गेलो आनी आपली सावळी सुर्याच्या किर्णां कडेन आपालिपा खेळटा तें पळोवन मुमुरख्यान हांसलो. घरा चलतना धाकट्या पेट्या भशेन सावळी ताच्या पांयां मदीं घुस्पत रावली.

"जोर बरो निवळ्ळा", दोतोर शिवरामान जमनीक कान लावन म्हणलें. "पूण अजूनय फ्राकेज आसा. दिसाक तीन फावटीं पेज पिवय".

घरा वतना रस्त्या देगेक रावन मुताचो घोगो सोडून ताणें आपली सावळी चिप्प भिजयली. ताका मोरारजी देसायाची याद आयली.

घरा पवलो तेन्ना सावळी झेमेवंक लागिल्ली.

"रातचें म्हजे खाटीर कित्याक न्हिदना गो?" बायलेन हाडिल्लें ग्लासभर दूद पियेवन ताणें विचारलें.

तें ताचे खाटीचेर ताच्या म्हऱ्यांत बसलें आनी दोगांय चुन्या वणटीचेर आपल्या सावळ्यांक पळयत रावलीं.

"बाबुलो गेल्ल्यान... बाबू वचत सावन म्हज्यान नज..." ती रडकुरी जाली.

समोणीक तिची सावळी बारीक आनी दुखेस्त दिसली. आपले सावळेन तिचे सावळेक वेंगेंत घेवन थाकाय दिवची, अशें दिसलें. पूण चौगांय जाणां हालनासतना ओग्गी बसलीं. बऱ्या वेळार पयशिल्ल्या पाळोळेच्या वेळे वयल्यान मिर्गाचें वारें धांवत आयलें आनी गुळें आनी पाडी हुपून समोणीच्या धाकट्या मातये घरा कडेन पावलें. वाऱ्यान जनेलांतल्यान फूंक मारली ते बराबर वखदा बाटलेच्या पेत्रोला दिव्याची ज्योत थरथरली.

त्या नेटार सावळ्यो हालतात तें पळोवन समोणीन म्हणलें, "पळय, तीं कशीं नाचता तीं पळय, पार्वती".

पार्वती मुरगुटून हांसूंक लागलें.

आपले सावळेन हात उबारून तिचे खांदार दवरला तें पळोवन समोणी मात्सो लजेलो. ताणें वणटी वयल्यान दोळे काडले आनी खिणांत दोनूय सावळ्यो वेंग मारून एक जाल्यो.

रात वाडत गेली. वारें बंद पडलें. पेत्रोला दिव्याची ज्योत शिवलिंगा वरी थीर उबी रावली. वणटी वयल्यो सावळ्यो मात जोर आयिल्ले वरी वयर सकयल जायत रावल्यो.



# ताची आवय जिती आशिल्ली जाल्यार...?



• नयना आडारकार
पणजी
9823537563

**पांय** सामके मुयेले आनी काळीजय. कितलो वेळ जालो हांगाच बसून उरलें हांव. आतां मेरेन सगळो स्टाफ घरा गेल्लो. हेडमिस्ट्रेस मात आशिल्ली. म्हाका मात खुर्चेवयल्यान उठनच दिसनाशिल्लें. जीव सामको गळसणून गेल्ले वरी जाल्लो. फाटलीं पस्तीस वर्सां विद्यादानाचें कार्य करतां हांव. आनीक पांच-स म्हयन्यांनी रिटायरूय जातलें. ह्या काळांत कितलेशेच फावट मनाचो आखाणो परिस्थितींच्या फातरांचेर आपटत रावलो. आपटून-फुटून किणेंत रावलो. कितलो काळ ठसठसत उरलो. तरीय ती ठसठस घेवन हांवें मुखा वेलो मार्ग गांठलो. मागीर हेच खेपे कित्याक अशें जालें? कित्याक ती बातमी म्हाका सोंसूंक जालिना? हांव त्या विद्यार्थ्याक सगळ्या टिचरी परसूय चड वळखतालें म्हणून? काय ताचे विशीं म्हाका सहानुभूती आशिल्ली म्हणून?

तो बोंगो आशिल्लो तेन्ना सावन तो फुलपाच्या मार्गार आस मेरेन हांवें ताका पळयला. बरे तरेन नियाळ्ळा. ताचे हुशारकायेन हांव प्रसन्न जालां. ताचे तळमळे पळोवन हांव दुख्खीय जालां. ताका जायत्या प्रसंगांत हांवें मोगाचीं दोन उतरां दिल्यांत. हळव्या काळजाचो भुरगो अशें म्हजें ताचे विशीं पक्कें मत जालां. आनी आतां...

म्हाका ताची एक गजाल आवडनाशिल्ली. ताची म्हणचे ताच्या आवय-बापायची. तो म्हूण एक भुरगो. पूण ताच्या आवय-बापायक समजूंक जाय आसलें. तीं दोगांय ताचे अती लाड करतालीं. जाय तें घे, जाय तेन्ना घे, जाय तितलें घे ही दोगांयची वृत्ती. म्हणून तोवूय मागत आसलो जाय तें आनी नाकाय तें. म्हाका खूबदां तांचे लाड पळोवन चिटमिटे पडटाले. पूण म्हज्योय मर्यादा म्हाका तोंड बंद करूंक लायताल्यो.

पूण त्या दिसा मात हांवें ताचे आवयक शिटकायलेंच. घडलेंच तशें कारण. म्हजी इश्टीण तांची शेजान्न. त्या दिसा हांव इश्टिणीगेर गेल्लें. पळयल्यार त्या भुरग्याची आवय कोणाचेर तरी तापय काडटा. हाय-फाय उलयता. खाल्लें-जेविल्लें वयर काडटा. कारण कळ्ळें तेन्ना मात हांव उसळ्ळेंच...

कारण तशें सादेंच. त्या भुरग्याच्या बापायन दोन मोटारी हाडिल्ल्यो. एक आपल्या पुताक आनी एक ड्रायवराच्या पुताक. हाच्या पुतान आपली मोटार केन्नाच मोडली आनी लागलो ड्रायवराच्या पुता फाटल्यान, 'म्हज्या पप्पान दिल्या ती मोटार तुका. दी पयलीं म्हाका'. ड्रायवराचो पूतय म्हणून ताचेय पिरायेचो. तो 'ना दिना' म्हणून घट्ट रावला आनी हो 'जायच म्हाका' म्हणून खेंट कसो रावला. ताचे आवयक हो अपमान सो दिसलो जावंये. लागली उसळपाक. भुरग्याक उलयता उलयता ड्रायवर बापायचेर घसरली. दिल्लें-खाल्लें वयर काडपाक लागली. मागीर जालें, ड्रायवर खाल्ल्या मिठाक जागलो आनी आपल्या पुताच्या कानपटार मारून ती मोटार ओडून घेतली आनी दिली आवय कडेन. हांव हें सगळें पळयतालें. तेन्ना हांवें कांयच म्हणलें ना. पूण मागीर रावं नजो जावन हांवें ताचे आवयक शिटकायलें, 'रागार जावं नाका आं, ही सवंय बरी न्हय. ताकाच माल पडटली मुखार.'

यादींचें पोतेंर हांवें अश्शें झाडलें आनी उठून

ल्हवू ल्हवू करून बस स्टॉपार आयलें. केन्ना एकदां बस येता आनी हांव बशींत घालून घेतां अशें म्हाका जाल्लें. पूण आयज बशीनय वेळ काडलो.

हेवटेन पर्थून म्हजें मन कुप्पाळ्ळें. यादींची ठसठस पर्थून काळजांत फुटली. तेन्ना तो तिसरेक काय चवथेक? याद जायना. पूण ती गजाल मात सामकी याद आसा. शाळेची मदली सुटी आशिल्ली. हांव हेर टिचरी वांगडा टिफीन खावपाक बशिल्लें. इतल्यान कांय भुरगे धांवत धांवत आयले, 'टिचर टिचर, तो भुरगो रडटा' अशें तांणी सांगिना बराबर आमी धांवलीं. पळयल्यार हो भुरगो खऱ्यांनीच घुस्मटून रडटा. 'कितें जालें रे बाबा?' हांवें ताका थापटीत विचारलें. 'तांणी तांकां मारलें...' तो आनीक घुस्मटलो. ताणें बोट दाखयलां थंय हांवें पळयलें. कांय मुयांक थंय चिड्डून उडयिल्लें.

'आरे, त्यो मुयो. तांकां मारलें म्हणून कितें जालें? तांकां मारिना जाल्यार त्यो तुमका चाबपाच्यो'. हांवें ताका समजायत म्हणलें.

'ना... ना... तांकांय जीव आसता. आईन सांगलां म्हाका'. तो परत रडपाक लागलो. कितलो हळवो पोर. .किडी-मुयांक मारल्यारूय रडटा. म्हाका तो ओगीच आवडूंक सो लागलो. मागीर मागीर ताणें नुस्तें-मटण-चिकन खावप सोडलें अशें कानार आयलें. तेन्ना हांवें ताका विचारलें, 'कितें रे शिवराक बाप्पा जालां खंय तूं?' तो मुमुरखो हांसलो. 'टिचर तांकांय जीव आसता'. ताच्या ह्या उतरार हांवें म्हणलें, 'शाक-भाजयेकय जीव आसता हें जाणा मरे तूं'.

तांची फडफड, तांचें आड्डप तरी कानार येना न्हय टिचर. तांचें भाबडे दोळे म्हाका खूब त्रास जातात ते पळयल्यार'. ताची जाप आयकून हांव चाट जालें.

आनी ह्या भुरग्यान असलें कर्तूप केलें. म्हाका सोंसपाक जालें ना.

प्रासार... प्रासार... करीत एक बस मुखार थारली तशें हांव यंत्र कशें बशीर चडलें. आनी बशीची घरघर सुरू जाली तशी तकलेंत विचारूय घरघरपाक लागले.

तो भुरगो हुशार जालोच. आतां आवयूय म्हज्या सांगण्यान शिटकावल्ली. ताका बरी राखताली. ऑल वॉल गोईंग वॅल...

... पूण ना. एक दीस इश्टिणीन म्हज्या कानांर खुसूफुसू केलें. ताचे आवयची खबर ती. तिका कांक्र जाल्लो. सामको निमाणे स्टेजीर डिटॅक्ट जाल्लो. दुसऱ्या दिसा म्हाका त्या भुरग्याचे नदरेक नदर दिवंक जालिना. शाळा सुटपाक हांव ताचे कडेन गेल्लें. ताका धिराचीं दोन उतरां सांगपाक. पूण पळयल्यार हो आपलो अभ्यासांत गुल्ल. अंदू धावेक न्हय तो. आसूं अभ्यासांत रमल्यार रमूं दी पोर म्हणत हांव परतल्लें.

**तो तेन्ना म्हजे कडेन भरभरून उलयलो. पळयतल्याक दिसचें, देवा इतलो तेंप मोनो कसो आशिल्लो दिसता आयज कितल्या तेंपान ताका आपलो सो कोणूय दिसलो आनी तो भरभरता. पूण ताच्या भरभरपांत सूख नाशिल्लें. ताचें मन पिळवट्टालें. दुख्खाचो शिंवर शिंवरतालो. ताचो बापूय आतां नव्या संवसारांत गुंतिल्लो. आनी हाची सामकी गळचेपी जाल्ली. दोनूय वटेन ना बापायची माया, ना अर्थीक फाटबळ.**

ताची परिक्षा चलताली तेन्ना ताची आवय हॉस्पिटलांत मरणा कडेन झुजताली. 'देवा ताची परिक्षा सोंपसर तरी आवय उरल्यार पुरो' हांव मनांतल्या मनांत मागतालें. पूण खंयचें मागणें आनी कितें... ती ताच्या निमाण्या पेपराच्या आदल्या दिसा सोंपली. पेपरा दिसा तिचेर निमाणे संस्कार जावपाचे आशिल्ले. आमकां दिसलें तो पेपराक येवचो ना. पूण तो आयलो. 'टिचर एका पेपरा खातीर म्हजें एक वर्स फुकट वतलें' म्हणपाक लागलो. पेपर बरयतना मदीं मदीं दोळे पुसतालो. ताचे आवयक तो पेपर बरोवन घरा पर्थून येसर दवरिल्ली. त्या वेळार तिचेर घालून थेवन तो खोळसांनी रडलो.

ताच्या सांगाताक हांवूंय गेल्लें. ताचो आकांत म्हज्यान पळोवं नजो जालो.

एसएससी जातकच सगळे आपले आपले वटेन गेले. पूण हो मात म्हाका मुजरत मेळपाक आयलो. 'हांव खूब शिकतलों टिचर. आईचें सपन खरें करतलों' उलयतना तो खूब हळवो जाल्लो.

मागीर एक दीस इश्टिणीन सांगलें, ताच्या बापायन दुसरें लग्न केलें आनी हाका व्हरून आजयेगेर दवरलो. आजयेगेर गेल्लो तेन्ना दुयेंत जावन ताचें एक वर्स लेगीत बुडलें. एक दीस म्हाका तो मेळ्ळो. मार्केटांत. हांव ताका वळखूंकच ना. सामको बडकेल्लो. तोंडार ती निरागसता, ती गिरेस्तकाय नाशिल्लीच. ताणें म्हाका जाप केली म्हणून म्हाका तो, तोच म्हणून कळ्ळो.

तो तेन्ना म्हजे कडेन भरभरून उलयलो. पळयतल्याक दिसचें, देवा इतलो तेंप मोनो कसो आशिल्लो दिसता आयज कितल्या तेंपान ताका आपलो सो कोणूय दिसलो आनी तो भरभरता. पूण ताच्या भरभरपांत सूख नाशिल्लें. ताचें मन पिळवट्टालें. दुख्खाचो शिंवर शिंवरतालो. ताचो बापूय आतां नव्या संवसारांत गुंतिल्लो. आनी हाची सामकी गळचेपी जाल्ली. दोनूय वटेन ना बापायची माया, ना अर्थीक फाटबळ. 'टिचर, कितलीं सपनां पळयिल्लीं हांवें. पूण आतां दोळे सामके भरल्यात. दुख्खान. सपनां दवरपाक आतां दोळ्यांत जागोच ना'. ताणें म्हाका म्हणिल्लें.

जालीं दोन वर्सां हे गजालीक. ते उपरांत तो म्हाका केन्ना दिसलो ना. पूण काळजांत मात तो केन्ना केन्ना झळकतालो. आनी आयज तो झळकलो दिसाळ्यांनी. ताचे विशीं कितल्योश्योच गजाली सांगिल्ल्यो थंय. तो असो... तो तसो... ताणें वायट कर्म केलें. हय, जर ताणेंच तें केलां जाल्यार तें कर्म वायटूच. ताका जिणेंतल्यान उठयतलें तें कर्म आतां. सगळे वटेन पयलींच निराश जाल्लो तो आनिकूय निरशेतलो. ताका सांबाळूंक जाय कोणें तरी. पूण कोण?

म्हाका मात रावन रावन ताची आवय याद जावंक लागली. ती जिती आशिल्ली जाल्यार...??

# बॅड नंबर 25



• ब्रॅण्डा मिनेझीस
'द मस्टर्ड सीड'
कुस्मण, केपें
फो: 2662491

**कितें पळयलें हांवें? आंगान ती काळी-सावळी. पूण त्या काळ्या-सावळ्या पांयांचें पावल? गुलाबी. चकचकीत गुलाबी. गुलाबी-धव्या त्या पावलांतल्यान तिच्यो शिरो आनी हाडांचो सांपळो दिसतालो. त्या पावलाचेर काळी कातूच नासली. कात विरून, पावल वयल्यान, सकयल्यान तशेंच भितरल्यान मोव जावन पकपकीत जाल्लें. म्हज्या जिवितांत असली जखम हांवें केन्नाच पळयली ना.**

"नाका... नाका रे बाबा. नाका... ना.. ना... का रे बाबा! तुज्या पांयां पडटा. पुरो रे बाबा. म्हज्या बाबा, पुरो... पुरो! हय! हय, सोंसूंक जायना रे देवा... सोडात गो बाय म्हाका! मरूंक दी रे दोतोर म्हाका... आय! आवय, आवय! आय... आय...!"

सरकारी हॉस्पिटलांतल्या सर्जरी वॉर्डांतल्या पंचवीस नंबराचे खाटी वयली जाणटी अस्तुरी, उशाचेर आपली तकली दोनांय वटांनी धपटीत हुयेली मारताली.

दोतोर आरावजो, तिच्या पांयाचें ड्रॅसिंग करतालो. 'डिसइन्फॅक्टंट' सोल्युशनान धुतना, विरून गेल्लें तिचें पावल जळटालें, ते हुलप आनी दुखीच्यो त्यो वेदना तिच्यान सोंसूंक जायनासल्यो. सामकारा आशिल्ले एकुणत्तीस नंबराचे खाटीर म्हजी भयण 'गॅसट्रायसटीस' जावन त्याच दिसा थंय ॲडमिट जाल्ली. तिचो 'ड्रिप' चालू आशिल्लो. हांव तिचे कुशीक स्टूलार बशिल्लें. अजून मेरेन आशीकुशीक आशिल्ल्या दुयेंतींची आमकां वळख जावंक नाशिल्ली.

'रावंड' घेवंक दोतोर आयलो. पंचवीस नंबराची खाट पयलींच आशिल्ल्यान ताणें तिचे कडल्यान सुरवात केली. तिचो पुराय उजवो पांय 'बॅण्डेजीन' गुठलायिल्लो आसलो. वांगडा आयिल्ले 'वॉर्ड सिस्टरीन' बॅण्डेज सोडपाक सुरवात केली. हांव, थंयच्यान स्टूलार बसून सगळें पळयतालें. एका मिनटा भितर तिचो पुराय पांय 'बॅण्डेजींतल्यान' मुक्त जालो आनी तिचें पावल दिश्टी पडलें. पळोवन म्हजें आंग शिरशिरलें. दोळे भगभगले. काळजाक पीळ पडलो.

किते पळयलें हांवें? आंगान ती काळी-सावळी. पूण त्या काळ्या-सावळ्या पांयांचें पावल? गुलाबी. चकचकीत गुलाबी. गुलाबी-धव्या त्या पावलांतल्यान तिच्यो शिरो आनी हाडांचो सांपळो दिसतालो. त्या पावलाचेर काळी कातूच नासली. कात विरून, पावल वयल्यान, सकयल्यान तशेंच भितरल्यान मोव जावन पकपकीत जाल्लें. म्हज्या जिवितांत असली जखम हांवें केन्नाच पळयली ना.

दोतोर रकयतल्या 'सोल्युशनान' तिचो हुलप वाडटालो. 'वॉर्ड सिस्टर' आपल्या हातान पावडर घालून त्या जखमेचेर मलम लायताली.

तांच्या त्या स्पर्शान, तिच्यो वेदना थांबचे बदला वाडतूच वताल्यो. इतलें तिचें पावल मर्मीक जाल्लें. एका भुरग्या भशेन आड्डून रडून, खाटीर कूस परतून ती तळमळटाली. तिका धरून आसली ती तिची सोयरी बावडी तिका घट्ट धरून रावंक धडपडटाली.

ती जमख पळोवन आनी त्यो आड्डी आयकून म्हाका झींठ मारून आयली. भयणीक हांवें दोळे धांपून कूस परतूंक न्हिदूंक सांगलें. सगळ्या हेर दुयेतींची नदर आपापले कश्ट विसरून तिचेर थिरावल्ली. सुमार पंदरा-वीस मिनटां ही 'ड्रेसिंगाची' कसरत चालू आसली. आनी तिच्या त्या दुख्खी, कश्टी हुयेलींतल्यान पुराय वॉर्ड आपलें दुख्ख विसरून शांत जाल्लो. तिचे हुलप आनी विनवणी रडणें, तशेंच दोतोराचो आनी नर्सीचें तिका ओगी रावंक घाल्ले धेंगशे, नव्यान पुराय बॅण्डेज बांदून जातासर थंड जालें.

तें सगळें पळोवन हांव खूब अस्वस्थ जालें. म्हजी पुराय कूड दुख्खान भरली. म्हज्यान थंय ओगीच बसूंक जालें ना. भयणीक तपासून दोतोर गेल्या उपरांत अठ्ठावीस नंबराचे खाटीर न्हिदिल्लो दुयेंती, रिटाक विचारलें, "तिका कितें जालां?"

लांब सुवास घेत आनी आपलो 'बॅण्डेजींतलो' पांय पोशेत, तिणें सांगूंक सुरवात केली. "सत्तर वर्सां वयरूच आसा बाय पिराय सुकांतीची. तिका भुरगेंबाळ ना. शेतकाम आनी दिसवड्याचें काम करून तिचो घरकार आनी ती आपलो दिसवडो जोडटात. केन्नाच तिची भलायकी इबाडूंक ना".

"म्हाका तिची 'फॅमिली हिस्ट्री' नाका". हिका चड उलोवपाची संवय दिसता. अशें चिंतून तिका मर्दीच आडावन मात्शें उतावीळ जायत हांवें म्हणलें, "तिचो पांय तसो कसो जालो तें सांग".

"तेंच सांगता बाय. आयक", तिणें थंडसाणीन जाप दिली.

"सुकांती आनी तिचो घरकार, पावसाक जळव पुंजावंक दोंगरार गेल्लीं. मायाचो म्हयनो खूबच तापिल्लो. सुर्या माथ्यार चडिल्लो. त्या दिसा उदकाची बाटली, ती बल्कावांतल्या सोप्याचेरूच विसरून आयिल्ली. तिचो ताळो सुकिल्लो. हुमेच्यो पांवळ्यो देंवताल्यो. ती खासावीस जाल्ली.तिणें घरकाराक म्हणलें, "चल, परतुया. ताळो सरांटला. वतूय खूब कडक आसा".

"भोरो घेवन देंवता तिका सुकिल्लो काजू खांदो दिसलो आनी तो मोडून तिणें हातांत घेतलो मात... घुंवळ येवन त्या लाकडा सयत ती धडेर पडली. घरकारान माथ्यार घेतिल्लो भोरो जमनीर उडयलो आनी जोगूल कशें तिचे म्हऱ्यांत धांवत आयलो. पळयल्यार तिका जिवूच ना..."

"तो आकांताळो. आबूज जालो. ताणें तिका काण्णी घाली. पूण निर्फळ. आपली सांगातीण आपल्याक आतां सोडून वता तें ताच्यान सोंसूंक जालें ना. तिका वचूंक दिवंक तो तयार नासलो. ताचे तकलेंत त्या खिणाक कितें आयलें देवूच जाणा. तो सोमतोच बसलो आनी तिच्या पावलाच्या आंगठ्याक घांस मारलो. त्या घांसान, तेच घडयेक किळांच मारून सुकांती शितीदांत आयलें. त्या घांसान तिका जीवदान दिलें. तिचो घरकार खोशेन भरलो. मात्शीं सावळेंत बसून तिका थाकाय मेळटाच ती घरा परतली.

माय सोंपून पावस लागीं पावलो. झड बांदून, खोंप शिंवून, जळव भरूंक आनी भात उकडून सुकोवंक तीं गुल्ल जालीं. घांस मारिल्ल्या आंगठ्या कडेन ह्या बोवाळांत तिणें लक्ष दिवंक ना. सदांचीं आपलीं कामां करीत रावली. आंगठ्याचेर पुळेर फुटलो. खाज येवंक लागली. करता करता पुराय पावल पुळेरान भरलें. मातेर जाली. पुळेर वयर वयर चडत आसलो. तिचो पुराय पांय सुजलो. जड जालो".

रिटान आपलो हात आपल्या तोंडा वयल्यान फिरयलो आनी परतून उलोवंक सुरवात केली. "भलायकी केंद्राचेर वचून दोतोराक दाखयलो. 'इन्फॅक्शन' जालां. रगत तपासूंक जाय. ह्यो थोड्यो गुळयो दिता. आनी हो पावडर आनी मलम. डॅटोलान धुवन, पावडर आनी मलम लाय. रिपोर्ट घेवन म्हाका दाखोवंक यो. दोतोरान सुचोवणी दिवन तिका परतिली".

"रगतांत साकर बरीच वाडिल्ली मेळ्ळी. दोतोरान दिल्ल्या वखदांचो गूण मेळूंक ना. जमख चड चड 'पेरीग' जायत गेली. गांवठी आनी घरगुती वखदां करूनय गूण मेळपाचीं चिन्नां दिसना जालीं. करता करता तिच्यान चलूंक जायना जालें. फोडाफोड आनी खाज येवन तिच्या दोळ्यांतली न्हिदूय पळून गेली".

"सुकांतीचे हाल उपाद्रे तिच्या घरकाराच्यान पळोवंक नज जाले. आपल्या दांताच्या विकारान आयज तिची ही दशा जाली म्हणू आपल्याकूच भितरल्या भितर धपटूंक लागलो. आपल्याक दोशी थारावंक लागलो. तशें ताणें सुकांतीक उलोवन दाखयलेंय बी. पूण सुकांतीन ताका मेकळो करीत म्हणलें, 'त्याखिणाक तुवें म्हजो जीव वाटावंक तो उपाय घेतिल्लो. म्हाका 'डायबेटिस' आसा आनी हें अशें जातलें म्हणून कोणाक खबर आसली? तूं मातूय तुका दोशी थारावं नाका. हांव ही दूख सोंसता खरी, पूण तुज्या मायेमोगाचे सावळेंत म्हाका थाकाय मेळटा'".

"दीस वता तशे तिची जखम हिसपा भायर वाडली. वयली कातूच ना जाली. दोतोरान तिका व्हडल्या सरकारी हॉस्पिटलांत दाखल करूंक लायली. आनी अशी ती ते खाटीर पावली". रिटा उलोवन थकलें. आनी जाम जावन ताणें आपली तकली उशाक तेंकयली आनी थोडो वेळ दोळे धांपले.

म्हजी नदर परतून परतून सुकांतीचेर वताली. भयणीक लायिल्लो सर ल्हवू ल्हवू चलताली. तिका मात्सो दोळो लागिल्लो. रिटान म्हाका विचारलें, "बाय तूं जेविना? कित्याक तिचे वटेन तूं पळयत बसलां. वायट दिसलें न्हय तुका?"

हांव ओगीच रावलें. काचाबूल जाल्लें मन कशेंच शांत जायना जालें. म्हाका जेवपाची भूकय नासली. भयण उपाशी आसली. रिटान परत सुस्कारत म्हणलें, "बाय, ती त्याच वेळार हो संवसार सोडून गेल्ली जाल्यार आयज हे कश्ट तिका पडचे नासले...."

हांव चिंतूंक पडलें. कसलो हो जिविताचो खेळ? मरणांतली जिवी करूंक, तिच्या घरकारान तिच्या आंगठ्याक घांस मारून सुकांतीक जिवदान दिलें. आनी आतां...

जिती आसूनय आपल्याचेर मरण धाड म्हणून ती मागताली...



• विन्सी क्वाड्रस
स्नोज कृपा,
आर्लें, राय, साश्ट
9822587498

# खेळ

"**मम्मी,** आयज कशेय भशेन ग्राफ बूक हाडूंक जाय", सात वर्सांचें हेजल आपले आवय कडेन पयशे मागूंक लागलें.

"राव गो मातशें", आवय बेजारली.

"कितले दीस जाले, सर बोवाळ मारीत आसा. आयज ताणें स्ट्रीक्टली सांगलां, फाल्यां ग्राफ बूक हाडिना जाल्यार वर्गांतूच घेवचो ना म्हूण".

"बाय, कित्याक तूं समजून घेना? आसलें नासलें सगळें काबार जायत वता. आतां म्हयनो जायत आयलो तुजो डॅडी आमकां सोडून गेल्यार. कालूच हांव ताचे कंपनींत वचून आयलां. प्रोविडंट फंड, ग्रॅज्युटी कांयच येवंक ना खंय. इन्शुरन्स कंपनींत गेल्लें, तांचेय पयशे अजून येवंक नात. सगळीं कागदपत्रां दिवन पसून कित्याक इतलो उशीर जाता देवच जाणा. डॅडीचो सेटलमॅण्ट जावन कितें मेळिल्लें ताचेर हे थोडे दीस काडले. हाचे मुखार हांव नकळों कशे दीस काडूंक जातले ते", तिणें आपणाले उमाळे उक्तायले.

एक म्हयन्या फाटीं सिल्वेस्टर, हेजलाचो बापूय मलेरिया दुयेंसान ह्या संवसाराक अंतरिल्लो. ताचे फाटल्यान ताची घरकात्र वेरोनिका आनी दोग भुरगीं आसलीं. तो एके व्हडले कंपनींत फिटर म्हूण फाटलीं 20 वर्सां नोकरी करतालो. जें जोडटालो तें ह्या ल्हान कुटूंबाक पुरो आसलें. पूण तो अकस्मात गेल्ल्यान कुटूंबाचे हाल जाताले.

"हेजल, कितले पयशे पडटात गो तुज्या बुकाक?" जॅनीफर, हेजलाच्या तितीवाचे घरकात्रीत तांच्या दारांत पांय दीत हेजलाक विचारलें. तीं एकाच घरांत, पूण मदीं वणत घालून वेगळे कडेन रावतालीं. आवय-धुवेचें उलप आयकून ताका खूब दुख्ख जाल्लें.

"पंदरा रुपया आण्टी".

"हे घे पयशे आनी बूक घेवन यो". आपूण घेवन आयिल्ले वीस रुपया ताणें हेजलाच्या हातांत दिले आनी तांच्या घरांत भितर सरलें.

"वेरोनिका, तुका इतले त्रास जाता जाल्यार तुवें आमकां कित्याक सांगूंक ना? आमी परकीं अशें मानता तूं?" हेजलाचे आवयचे कुशीक बसत ताणें म्हणलें.

"ना जॅनीफर. चड कितें आसल्यार सांगूं येता. पूण दिसा दिसपटी लागपी वस्तू दुसऱ्या कडेन मागूंक उतर येवंक नाका?"

"तसलें कितेंच मनांत हाडूं नाका. तूं म्हाका म्हजी धाकटी भयण कशी. हे घे थोडे पयशे दवर. आनीक जाय जाल्यार म्हाका सांगूंक..." जॅनीफरान ताच्या हातांत एक हजार रुपया घाले.

"पूण जॅनीफर..."

"म्हज्या घरकाराक लिपोवन हाडूंक नात हांवें. ताका सांगूंनच हाडल्यात. तुमचें सगळें उलप आयकलें आमी. देखून ताणेंच म्हाका हे पयशे घेवन धाडला. आतां सुसेगाद जा."

"कितले म्हूण उदार गो तूं? तुका म्हजें चुरचुरें दिसलें. पूण हांव..." एक दीस तुका पयशांची गरज आसली तेन्ना हांवें म्हज्या घरकाराक आडायलो आनी तुका पयशे दिवंक मनाय केल्ली. तूं म्हज्या दारांत पयशे मागूंक आयिल्ले कडेन तुका हांवें परतिल्लें आनी तुवें मागिनासतना म्हाका म्हज्या घरांत हाडून पयशे दिले. हांव खरेंच चुकलें जॅनीफर", वेरोनिकान ताका वेंग मारली आनी दुकां गळोवन रडपाक लागलें.

"मनीस आपल्या विचारांनी व्हड जाता वेरोनिका. पयशांनी न्हय. हे पयशे आयज म्हजे कडेन आसल्यार फाल्यां तुजे कडेन. ताचो बरो उपेग करप हेंच आमचें सर्वस्व. आमी तशीं गिरेस्त जावंक नात, पूण देवान दिल्लें वांटून खाल्यार तें चड मोलादीक".

"बरें, आयिल्लेंच आसा म्हूण सांगता, आतां म्हज्या घरकारा फाटल्यान आमकां कसलोच आदार ना. हांवें चिंतूकच नासलें तो इतले बेगीन आमकां सोडून वतलो म्हूण. ताणें कितें सुगूर करून दवरलां? तेंय ना. कंपनींतल्यान प्रोविडंट फंड, ग्रॅज्युटीचें कितें मेळटा जाल्यार पळयलां. एलआयसी कडल्यान पन्नाशेक हजार येतले हाची म्हाका खात्री आसा. आता जे पयशे मेळटले ते अशेच दवरले जाल्यार मोडूनच काबार जातले. देखून आमचो दिसपटो सोडोवंक आमच्या लुगारांत रस्त्या कुशीक एक ऑमलेट-पाव विकपाचो गाडो घालूंक सोदतालें. तुजो घरकार बी कितें म्हणीत म्हाका?"

"तो कितें म्हणटलो?"

"न्ही. कुटूंबांचो लुगार म्हूण... सगळ्यांकच धिरेत आसा न्हय?"

"तूं गाडो घालपाची तयारी कर. हांव समजायतां ताका. हीच गजाल तुज्या घरकारान सांगिल्ली जाल्यार तो ना म्हणटलो आसलो? आनीक दुसरें तुका सांगतां, आतां तूं एकटें आसा, तुजीं भुरगीं कांय व्हड जावंक नात. तेन्ना

खंयसरूय वचूंक जाय जाल्यार वा तुका कोणय त्रास करता जाल्यार आमकां सांग''.

''तुका चड आनी चड देव बरें करूं जॅनीफर''.

दुसऱ्या दिसाक पोस्टमन घरा येवन एक चीट दिवन गेलो. ती चीट एलआयसी कचेरेंतल्यान आयिल्ली. पन्नास हजार रुपयाचे पॉलिसीचो चेक व्हरूंक ताका आपयिल्लें. जिवाक मातसो धीर आयलो. तें रोखडेंच भायर सरलें आनी तो एलआयसी चेक हाडून येतना बॅंकेंत घालो.

''पन्नास हजारांचो एलआयसीचो चेक आयला. दोन दिसांनी पयशे बॅंकेंत जमा जातले म्हणटाले. देखून हांव चिंतताले थोडे चिरे हाडून घालूंक'', जॅनीफर पोरसांत वावुरतना वेरोनिकान ताका सांगलें.

''बरी गजाल. रातीं हांवें म्हज्या घरकाराक सांगिल्लें. तो म्हणटालो, आमच्या पंच वांगड्या कडेन जाय जाल्यार उलयता म्हूण''.

''सरपंचाकय सांगल्यार बरें न्हय आसलें?''

''हांव सांगतां ताका सरपंचाकय सांगूंक''.

''व्हड उपकार जायत. तांकां सांगिनासतना काम सुरू केलें जाल्यार ओगीच त्रास जातले. हालींच्या तेंपार कोणय कोणाचेर कागाळ करतात आनी काम बंद उडयतात''.

वेरोनिकान चिरे हाडून घाले आनी बुनयाद मारूंक मानांय आपयले. रातीं कडेन वेरोनिका जॅनीफरागेर आयलें आनी तांचे मदीं भासाभास जाली. विक्टर, जॅनीफराल्या घरकारानूय आपले विचार मांडले. सगळ्यांनी मेळून तेन्नाच सुवात थारायली. तांचें सहकार्य पळोवन वेरोनिका खुशाल जालें.

थारायिल्ले प्रमाण बुनयाद खणली. सुमार 8 चौ.मि. लुगाराचेर गाडो बांदूंक काम सुरू जालें. दोग जाण गवंडी आनी एकलो आदार करूंक आसलो. वेरोनिका स्वता कामाची पळोवणी करतालें. कांय शेजारी मदीं मदीं पासय मारून वताले. कोण बरें केलें म्हणटालीं जाल्यार कोण ओगीच रावन पळोवन वतालीं. वेरोनिकाक बेठीच भिरांत दिसपाक लागली. जॅनीफरा म्हऱ्यांत वचून ताणें आपलो हुस्को परगटायलो.

''पळय गो जॅनीफर, ह्या लोकांच्यो नदरो म्हाका बऱ्यो दिसनात''.

''तूं कांयच भियेनाका वेरोनिका. काम नेटान जावंदी. विक्टर रातीच फोना वयल्यान सरपंचा कडेन उलयला आनी आमच्याच लुगाराचेर काम करतात म्हूण ताणें कांयच अडचण हाडूंक ना''. जॅनीफराचीं उतरां आयकून परत एक फावट वेरोनिका धादोस जालें.

पूण दुसऱ्या दिसा अनर्थ घडलो. काम बंद कर म्हूण पंचायतींतल्यान सेक्रेटरीची चीट आयली. कितें करचें तें ताकाच कळना जालें. चीट घेवन तें जॅनीफरा लागीं गेलें. चीट पळोवन तें अजाप जालें. ''कागाळ कोणें केली?'' हो प्रस्न मुखार आयलो. जॅनीफरान मोबायला वयल्यान विक्टराक म्हायती दिली. विक्टराचें खळयो मारपाचें काम चालू आसलें. तांकां सांगून तो कामा वयल्यान आयलो आनी सरळ पंचायत घरांत गेलो. सरपंच नासलो तो सेक्रेटरीक मेळूंक गेलो.

''सेक्रेतारबाब, म्हजो भाव मेला आनी ताची घरकान्न आमच्या लुगाराचेर गाडो उबारूंक सोदता जाल्यार कोणाक कसली आडखळ जाली? हांव सरपंचा कडेन उलयलां आनी गाडो उबारूंक तांणी परवानगी दिल्ली. म्हजी व्हनी एक निराधार अस्तुरी जाल्या. पोटा खातीर तिका आनीक दुसरो आदार ना म्हूण तिणेंच सुचयिल्लें आमी मानून घेतलां''. विक्टरान आपली बाजू मांडली.

''विक्टरबाब, सगळ्या पंचायतींनी अशेंच घडटा. जर कोणाची आडखळ ना जाल्यार आमी कित्याक आडखळ जातात? कोणें तरी कागाळ केल्या म्हणू कायद्यान आमकां आडखळ हाडची पडली''.

''कोणें हाडल्या आडखळ? कोणें केल्या कागाळ?''

''तुजे भयणीच्या घरकारान...''

''कितें? भयणीच्या घरकारान? बरें तर, हांव पळयतां ताचें कितें जालां तें''. विक्टर तसोच आपले भयणीगेर गेलो. भयण भायरूच बसून आसली.

''कितें गो जॅनेट, ती व्हनी इल्लोसो गाडो घालूंक मुखार सरल्या आनी तुमीच तिका आडखळ हाडटात? तिका आनीक कसलोच आदार ना तें खबर ना गो तुमकां?'' ताणें सरळ विशयाक हात घालो.

''म्हाका हे बाबतींत कांयच खबर ना विक्टर'', जॅनेट गडबडलें.

''बरें आसा. तुज्या घरकारा कडेन हांवूंच उलयतां. आतां दनपरां जेवणाक येतलो न्हय गो तो?''

''जालो येवपाचो''.

''आमचे कडेन घडना तें पळयनासतना दोगूय भावांनी तुका गरज तें दिवन लग्न केलें. आनी तुज्या बऱ्या नशीबान तूं हांगा सुसेगाद आसा. तुमचो म्हूण स्वताचो थोडो लुगार आसा. आमी थंय कशीं रावतात तें जाणा आसतना लेगीत आमच्या लुगाराच्या वांट्याक आशेता कितें गो तूं? कसली आस्त जाल्या गो तुका?''

''ना विक्टर, तो कितें करता तें म्हाका खबर ना''.

''जाल्यार तुका खबर ना ताणें पंचायतींत कागाळ केल्या ती?''

''तो आयलो म्हणटकच हांव ताचे कडेन विचारतां''.

''तितल्यांत जॅनेटाचो घरकार जेवणाक आयलो आनी विक्टराक पळोवन अजाप जालो.

''ताका सांगलां मुगो आपणेंच कागाळ करूंक म्हाका सांगिल्लें म्हूण? ओगीच म्हज्या नांवान बोवाळ मारूं नाका''. हांचे भितर कितें उलोवणीं जाल्यात ताचो अंदाज नासतना ताणें खरें आसा तें सांगलें. आपल्या घरकाराचीं उतरां आयकून जॅनेट ताकाच पळोवंक उरलें. ताच्या तोंडाक उतरांच सुटना जालीं.

''समजलें, सगळें समजलें. तुका आमच्या लुगाराचो वांटो जाय मुगो? कायद्यान कितें आसा तें करुया. जाका कितें पडटा तें घेवन जण एकलो समाधान जावया. थंय मागीर गाडो घालूंक मेळटा काय खोंप घालूंक मेळटा तेंय पळोवया''. विक्टर रागानूच उलयलो.

''ताका आतां कितले पयशे मेळपाचे आसात म्हूण म्हाका तशें म्हणूंक आयलें''.

''ताका पयशे मेळपाचे आसात तें दिसता तुका, तुजो भाव गेलो तें दिसना? ह्या दिसांनी ताका खर्च कितलो जाला तें दिसना तुका? तुवें एक दीस पूण खबर घेतल्या गो ताची? सात दिसां कडेन फर्मालदाद करूंक आयिल्लें तूं. ह्या दिसांनी तीं कितें जेवल्यात ताची तरी तुवें खबर घेतल्या? ताचीं ल्हान भुरगीं आसात. तांची एक दीस खबर घेतल्या? एक फावट तांणी आमचे कडेन वाद घाल्लो म्हूण ताचे पसून पयस रावलीं तीं पयसूच

उरलीं खरीं, आतां तें आमी विसरूंक जाय न्हय? तीन दिसा फाटीं ताच्या चेडवाचीं उतरां आयकून काळीज पिंजलें, दोळ्यांनी दुकां भरलीं. तेन्नाच सारकें समजलें तीं कशीं जियेतात तीं. तें कितेंय आसूं, तुमकां जाय तो निर्णय घेयात, पूण जें कितें करतात तें बेगीन करात जे वरवीं ताणें कितें करूंक येवजिलां तें करूंक तेंय मेकळें जावंक जाय''. ताची कसलीच अपेक्षा करिनासतना विक्टर मान सकयल घालून वाटेक लागलो. ताणें येवजूंकच नासलें आपली भयण घरच्या वांट्याक उबी जातली म्हणून.

रातीं कडेन घडिल्ली सगळी गजाल ताणें जॅनीफराक सांगली.

''देव न्हिदूंक ना विक्टर. तुमचे लागीं घडना म्हूण म्हजें लेगीत ताका भांगर दिल्लें, आयज तेंच तुमचेर बदमास जालें? आमी कसलें तरी पाप केलां आसतलें ताची देव आमकां ख्यास्त दिता. ताची ख्यास्त आमी मानून घेवया. एक दीस येतलो जेन्ना आमकां खुशाल जिविताचें दार उकतें जातलें आनी आमी सांगातान सुखान जियेवंक पावतलीं''.

''आयज तूं देव-धर्माच्यो गजाली सांगात शें''.

''बरें काम करूंक मुखार सरिल्ले कडेन अकस्मात कोण आडवो आयलो तें समजना जावन हावें पवित्र पुस्तक हातांत घेतलें. बेठेंच एक पान उकतें करून एक उतारो वाचूंक लागलें. तातूंत म्हणलां, जो कोण आपल्या गरजेवंतांक पावना आनी आपलो ठेवो ह्या संवसारांत एकठांय करूंक सोदता तो देवाक पळयना आनी ताची देवाक गरजूय ना''. विक्टर आपले घरकान्नीचीं उतरां आयकूंकच पडलो.

''जो मनीस संवसारी वस्तूंनी आपलो कोडो भरूंक सोदता तो रितो जावंक वेळ लागना. आमचो वेळ येतकच आमचो मोगाचो कोडो आपूणच भरतलो'', ताणें मुखार सांगलें.

''हय जॅनीफर, आमच्यो करण्यो बऱ्यो आसतना कोण तरी आडखळ हाडटा जाल्यार ती देवाचीच मांडावळ आसतली. हें बऱ्या खातीरच जाता आसतलें. आमचें मन नितळ आसूंक जाय सगळे तरेन वेरोनिकाक आदार करूंक''.

कितें जालां काय म्हूण विचारूंक आयिल्लें वेरोनिका तांच्यो खबरी आयकून अजाप जालें.

''हांव नकळो आसलें तुमी इतलीं उदार आनी कुर्पेन भरिल्लीं मनशां म्हूण. तुमच्या खासगी जिविता कडेन हांवें केन्नाच लक्ष दिवंक नासलें'', वेरोनिकान म्हणलें.

''तूं कांयच भियेनाकका वेरोनिका. देव कितें तरी वाट काडटलो''.

''वेपार सगळो पडून आसा. अकस्मात पावस आयलो जाल्यार रेंव सगळी उडून वतली, शिमीट घट्ट जातलें''.

''देवाचेर भावार्थ दवर वेरोनिका'', जॅनीफरान ताच्या खांद्यार हात घालून ताका धीर दिलो.

पंदरा दीस उलगले. भयणीच्या घोवान आपली कागाळ फाटीं घेवंक ना आनी सरपंचानय आपले हात वयर काडले. आपूण कुटुंबाच्या झगड्यांत पडना म्हूणन. कितें करचें तें समजना अशे परिस्थितींत आसतनाच तांचेर आनीक एक सांवट आयलें. तांच्या घरा कडेन आनीक एक नोटीस आयली. ही नोटीस लॅण्ड ॲक्वीझीशन खात्या कडल्यान आयिल्ली. रस्तो रूंद करपा संबंदी. पंदरा वर्सां आदीं तो रस्तो रूंद करपाक सरकारान जमीन घेवन दवरिल्ली हें तांच्या लक्षांतच येवंक नासलें. सरकार सांगता ते प्रमाण रस्तो रूंद जालो जाल्यार ताच्या घराक मार बसतलो. गाडो आनीक खंयचो? घराची एक वणत मोडूंक पडटाली. तांचेर आनीक आकांत आयलो. वेरोनिका रस्त्या वटेन रावताले. कितें करचें तेंच समजना जालें. पंदरा दिसां मदीं कोणाचें कितें आसा तें निवळ करपाक सरकारान मुदत दिल्ली. ना जाल्यार मशीन घालून मोडून उडोवपाची शिटकावणी दिल्ली. पीडब्ल्यूडी खात्याचे मनीस येवन सगळो वाठार मेजून गेले आनी तांणी शीम मारली. घरांतल्यान पांय भायर घालूंक लुगार नासलो. वणत मोडटकच वेरोनिकाचें घरूच नासल्या सारकें जावपाची परिस्थिती निर्माण जाल्ली. वांटूंक लुगार आनी उरतलो काय?

''मम्मी आमचें घर मोडटात गे?'' निश्पाप हेजलान प्रस्न केलो.

धुवेचीं उतरां आयकून वेरोनिकाच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं. ताका आपलें जिवितूच काळखांत लोटून गेल्ल्याचें भासूंक लागलें.

''पळय वेरोनिका, देव जें कितें करता तें बऱ्याकूच करता''. जॅनीफरान ताचें सांत्वन केलें.

''हांका कसलें बरेंपण आसा? आतां घर मोडूंक वता. आमी खंय रावपाचें?'' तें रडपाक लागलें.

''फुडलो विचार करचे आदीं पयलीं असो विचार कर, तुवें गाडो घाल्लो जाल्यार तो मोडूंक वतलो आसलो आनी तुजे सगळे दुडू फुकट वतले आसले. देवाक नाका आसलें तुजे दुडू इबाडिल्ले. देखून त्या वेळार कागाळ जाली आनी काम बंद जालें. गाडो घालूंक हाडिल्लें सामान घराचें काम करूंक उपकारलें ना? तेच वरी आतांय कितें तरी बरें करपाच्या हावेसान देवान हें अदृश्ट आमचेर धाडलां आसतलें. घडये तो आमचे सहनशक्तीची परिक्षा घेता आसतलो. ताच्याच भरवंशान रावया''.

''एकदम बरी खबर हाडल्या जॅनीफर. आरे वेरोनिका, तुंवूय आसून बरें जालें. म्हाका एक सांग, तुजो घरकान नोकरी करतालो ते कंपनींत नोकरी करतलें? कंपनी लागींच आसा, यो-वच करूंक खर्चूय चड ना''.

''कितें?... तूं खरेंच सांगता?'' वेरोनिकाक आपल्या कानाचेर विस्वास बसना जालो.

''हय वेरोनिका. हांव खरेंच सांगतां. हांव गेल्लों तांचो एक टेंडर काडला ताचें फॉर्म भरूंक. ओगीच तुज्या पयशांची खबर घेतली. तेन्ना तो एचआर मॅनेजर बरे भशेन उलयलो आनी ताणेंच म्हाका म्हायती दिली, ते कामदार घेवपाचे आसात म्हूण. तुजी खोशी आसल्यार उत्पादक खात्यांत पॅकिंग स्टाफ म्हूण घेवंक तो तयार आसा. स म्हयने प्रशिक्षण आनी उपरांत कायमची नोकरी. पगारूय बरो आसा म्हणटालो''.

''म्हज्या नशिबाचेर म्हजो विस्वारूच बसना''.

''तूं विचार कर आनी म्हाका सांग''.

''आर्गां तुका धनया''.

''आनी दुसरी खबर आसा. तेच कंपनींत हांव कॉन्ट्रेक्टर म्हूण रजिस्टर जालां. आमचे हे फुडले दीस सारके बरे वतले''.

''पळयले न्हय वेरोनिका, देव जें कितें करता तें आमच्या बऱ्या खातीर करता. हो रस्तो रूंद जाता म्हूण देवाक लेगीत शिणलो, अखेरेक ताणेंच आमचें बरें येवजिलें न्हय?'' जॅनीफरान म्हणलें.

''हय''. विक्टराची भयण दारांत उबी जाली. ''म्हजी चूक जाली लुगाराचे भानगडींत पडून''.

''ना जॅनेट, हो देवाचोच खेळ आसलो''. विक्टरान ताका भितर घेतलें.

# घुस्मट



• जोफा गोन्साल्वीस
आगोंद, काणकोण
मो : 9423602336

फाल्यां घरा कोण उरचीं नात आनी घरांत भाड्याक रावपी विदेशी पर्यटकांच्या रातीच्या जेवणाचें सगळें म्हाकाच पळोवचें पडटलें हें चिंतूनच तकली विरार जाल्ली. पर्यटकांचें येवप निकतेंच सुरू जालां. हांगाची तात्पुरती हॉटेलां अजून सुरू जावपाचीं आसात. आमच्या घरांत रावपी पर्यटकांक घरा जेवण दिवप हें पयशे जोडपाचें एक बरें साधन जालां. फाटले पंदरा-वीस दीस होच उद्देग चल्ला. म्हाकाय हात-बोट घालचेंच पडटा. म्हजीं कामां करपाक इल्लोच वेळ मेळना. भुरग्याचे पेपर तपासपाचे तशेच पडून आसात. सबमीट करपाची तारीखूय जावन गेल्या. भितरले भितर हांव सामकें घुस्मट्टां. मात्शें रांदपाचें सोडून म्हजें काम घेवन बसल्यार नणंदे कडल्यान थोमणे आयकूचे पडटात. फाल्यां एका लागींच्या सोयऱ्याचें काजार आशिल्ल्यान सगळीं थंय वचपाचीं आसात.

'फाल्यां गॅस्टांच्या डिनराचें कितें करपाचें? आमी सगळीं थिंगा वयतलीं न्ही.' सासपायन बायलेक विचारलें.

'तें आपूण येवपा ना म्हुणटालें'.

'तूं येवपा ना गो?' सासपायन म्हाका प्रस्न केलो.

'हय, म्हजे पेपर तासपाचे आसात'.

'तशें जाल्यार बरें जालें, गॅस्टांच्या डिनराचें मात्शें चोय'.

'हांव मांयगेर वयतलें. कितलेशे दीस जाले आपयता ती म्हाका'.

'फाल्यां वचनाका तूं'.

हांव फुडें कांय उलयलें ना. फाल्यांचोच दीस फुकट वतलो हें चिंतून तकली रागान सणसणली. फाटले पंदरा-वीस दीस हांव भितरले भितर घुस्मट्टालें. भयंकर राग येतालो. पूण राग उक्तावपाक म्हाका खंय जमता? सट्ट करून कोणाक कितेंय म्हणपूय म्हाका जमना. विल्यम लागीं नाशिल्ल्यान खूब एकटेपण जाणवतालें. तो आसतना कोण कांय म्हणिनासलीं. पूण तो नोकरेक वचत सावन सगळींच त्रास दिवपाक लागल्यांत. हांव नोकरी करतां हेंय घरच्यांक आवडना. फकत घरा रावन घरचें काम करपाचें. नणंद हरशीं जाल्यार सुरवाते सावन म्हजेर कुड्डेपणां करताली.

हांव म्हजें काम घेवन बसलें तशें नणंद आनी सासमांयची बडबड चालू जाताली.

'शिकलां आनी नोकरी करता म्हणून जिवाक व्हडलें समजता. आयतें बसून खावपाचें'.

'म्हज्या धुवांक हांवें काम करपाक शिकयलां. देखून शिकूंक पावलीं नाय. घर संवसार सांबाळटाय'.

'तुगे चेड्याक चड गर्व चडला, बायल शिकिल्ली मेळ्ळ्या म्हूण. तेणेंच चड माथ्यार बसयलां'.

हरशीं ही बडबड मदीं मदीं चलताली. पूण फाटल्या दिसांनी टुरिस्ट येत सावन बोवाळ वाडिल्लो. सकाळ-सांज तांकां रांदपा खातीर चड जाणांची गरज आशिल्ली. हांव घरा आसा तेन्ना थांबनासतना काम करतालें. पूण सकाळचें हांव घरा आसना हाकाच लागून तीं अदीक तिडकतालीं. हेच जोडपाचे दीस. टुरिस्टां कडेन बरेपण जोडून पयशे करपाचे. तांकां जेवण दिवपा फाटल्यान भरपूर फायदो आशिल्लो. तात्पुरती हॉटेलां सुरू जातात म्हणसर हो उद्देग बरो चलतालो. आनी हॉटेलां सुरू जातकच लेगीत कांय टुरिस्ट अशें घरचेंच जेवण घेवप पसंद करताले.

हरशीं जाल्यार पर्यटनाच्या नांवान चलिल्ल्या उद्देगाची म्हाका पयलीं सावन तिडक येताली. दयदिगांनी रावपी लोकां खातीर ही लाखांनी पयशे जोडपाची संद आसली. पूण सामान्य गरीब मनशाक ताचो मार बसतालो. बाजारांतली दर एक वस्त ह्या दिसांनी हिसपा भायर म्हारग जाताली. नुस्तें, भाजी, फळां गरिबाच्या बोल्साक परवडपाचीं न्हय. काजार जावचे पयलीं होवं हें अणभविल्लें. मांय सदांच म्हणटाली, 'आतां टुरिस्ट सिझन सुरू जालो. आतां बाजारांत नुस्तें पळोवन फकत आंवडो गिळपाचो'.

हांगां घरचीं मनशां ह्या टुरिस्टां फाटल्यान इतलीं नाचतात तें पळोवन तिडक येताली. तांचे कडेन बरेपण जोडून फकत पयसो करपाचो. तांचे कडेन बरें नातें जोडल्यार वतना तांच्यो बऱ्यो बऱ्यो विदेशी वस्तूय ते दिवन वताले. तांकां जाय त्यो वस्तू बाजारांतल्यान हाडून दुप्पट किंमतीन तांकां दिवपाक मेळटाल्यो. आमच्या घरांतूय हें चलिल्लें. तांचे कडेन बरेपण जोडून तांच्या खुस्तार तांचे देशूय भोवन आयिल्लीं.

फाटलीं कांय वर्सां हें चलतालें. पयशा बगर सासमांयक दुसरें कांयच दिसनासलें. व्हडली धूव एका इस्रायली वांगडा पळून गेल्ली. पांच वर्सां जावन गेलीं परत केन्नाच आयली ना. विचारल्यार सांगतात थंय तांचो व्हडलो धंदो चलता. ताका लागून तांकां येवपाक मेळना. खरें, फट तांकांच खबर.

धाकट्यो धुवोय फॉरेनरांच जाल्यांत. भेसूय तांचो आनी वागणूकच तांचीच. धाकटो पूत वालेस आनी वेसनाचे भकीक पडला. चडसो वेळ घरा भायरूच आसता. सिझनांत दीस आनी रात टुरिस्टां फाटल्यान भोंवप होच ताचो उद्देग जावन पडला. धुवांकूय तांचे वांगडा ती बिनधास्त धाडटा. पर्यटनाच्या नांवान पयशे जोडपाच्या धंद्यांत तीं खूब कितें शेणोवन बसल्यांत हाची तिका केन्नाच जाणीव जायना. विलयम कितलींशींच वर्सां नोकरे निमतान विदेशांतूच उरिल्लो. देखून ताका हांगा कितें चलता कांय बखर ना. तो हांगा आशिल्लो जाल्यार घडये तोवूय हातूंतच घुस्पता आशिल्लो.

केन्ना केन्ना दिसता, ह्या टुरिस्टांक घरांत पांय दवरपाक दिवचें ना. पूण म्हजें कितें चलता? तोंड धांपून ओग्गी रावचें पडटा. सासमांयन सांगिल्लीं कामां ओग्गी रावन करचीं पडटात. पयलीं कितले बेगीन आयतार येतलो आनी घरा रावपाक मेळटलें अशें दिसतालें. पूण आतां घरा रावप म्हणल्यारूय जिवार येता.

कालच्या आयतारा सकाळीं सासमांयन आनी नणंद दोगांय टुरिस्टां खातीर खरेदी करपाक गेलीं. हांव एकटेंच घरा आशिल्लें.

'तिगूय गॅस्ट उठले म्हणटकच तांकां अणसाचो ज्यूस दिवपाचो आं. पयलींच तयार करून दवर'.

सासमांयन भायर सरतनाच ऑर्डर दिली. ना म्हणप म्हाका शक्य नाशिल्लें.

ज्यूस तयार करून दवरलो. पूण एकटोय रुमांतल्यान भायर येना. तांच्या रुमांत वचून दिवपाक मन तयार जायना जालें. दोगांय खरेदी करून आयलीं.

'ज्यूस दिलो मगो?' भितर सरतनाच सासमांयचो प्रस्न.

'तयार करून दवरलां हांवें. पूण ते कोणूच भायर सरूंक नात'.

'ते येयन व्हरतले म्हूण समजलें तूं. मातूय अक्कल ना. रुमांत व्हरून दिल्यार कोण खातालो तुका?'

'....'

'मामी, चल तूं बेगीन व्हरून दी. बाबडे भुकेल्याय आसतले', नणंदेन तोंड घालें.

'होय, एक काम करपाक जायना. आयतें मेळटा सगळें'.

हांव इतलें काम करूनय सगळें आयतें मेळटा म्हणटात हाचीच तिडक येताली. एक मिनीट सुसेग घेनासतना घरांत काम करतालें. कॉलेजी सावन घरा पावता तेन्ना सगळीं जेवन न्हिदिल्लीं आसतालीं. पूण हांव येता तशें केन्ना केन्ना जेवनासतना कामाक लागतालें. विलयम फोन केल्ले फावट सांगतालो, 'जेव मात्शें न्हीद. सुसेग घे'.

पूण हांव म्हजे पद्दतीन सगळें सांबाळटालें. तरीय आयकून घेवचेंच पडटालें.

हांव घरा पावलें तेन्ना सगळीं भायर सरपाची तयारी करतालीं. हांव घरांत भितर सरता सरताच सासमांयन तिनांय टुरिस्टांक रातचें कसलें जेवण दिवपाचें ताचो मेनू सांगलो. आठा पयलीं तांचें जेवण तयार जावपाक जाय आसलें. जेवतकच एक अर्द वर पेपर घेवन बसतलें आनी उपरांत कामाक लागतलें अशें चिंतून पयलोच पेपर उगडपाक विलयमाचो फोन आयलो.

'तुजे कडेन उलोवपाक वेळ ना म्हाका. कामां आसात भरपूर'.

तकलेंत गरगरतालो तो सगळो राग एकाच बराबर भायर आयलो.

'हांव कितें बेकार आसा. म्हजीं कामां करपाक वेळ पावना म्हाका. त्या धव्या भुतांक हांवें रांदून वाडपाचें? काजारा पयलीं कित्याक सांगूंक ना म्हाका. हांव कितें घरांतली वावराडी'.

रागा वांगडा दोळ्यांतल्यान दुकांय देंवपाक लागलीं. पूण ताचे वांगडा इतल्या दिसांचो मनांतलो घुस्मट ल्हवू जाता हाची जाणीव जावपाक लागली.

'राणी, कितें जालें? रडटा कित्याक तूं?'

'म्हाका टुरिस्टांक जेवण रांदून दिवपाक सांगून सगळीं काजराक गेल्यांत'.

'तूं तुजें काम कर. हांव सांगता तांकां. चड जाता तांचें'.

विलयमान अजून मेरेन म्हाका कसलोच त्रास जावंक दिलो ना. घर संवसार सांबाळटना म्हजे नोकरेक वेर वचत हाची चिंता म्हजे परस ताका चड आसा. तो हांगा आसल्यार म्हाका एक उतर कोणा कडल्यान आयकूचें पडचें नाशिल्लें. पूण ताची विदेशांतली नोकरी सोडपाकूय पर्याय नाशिल्लो.

'म्हज्यान जायना रे सोंसपाक. वाज येयलो म्हाका'.

'प्लीज तशें म्हणूं नाका. तुका त्रास जावपाक दिवचों ना हांव. टुरिस्टांक रांदपाची गरज ना'.

'आठ जालीं तशे ते जेवणाक तयार जातले'.

'सांग तांकां भायर जेवपाक वचात म्हूण'.

'मामी येतकच तापतली म्हजेर'.

'कोण कांय म्हणचो ना. हांव फोन करतां तिका'.

'नाका. आसूं... रांदतां हांव. म्हाका भिरांत दिसता तिची'.

'राणी, तुवें कोणाक भियेवपाची गरज ना. हांव आसा तुज्या सांगाताक. थोड्या वेळान परत फोन करतां तुका'.

मन खूब धादोस जालें. विलयम म्हाका समजून घेता हेंच म्हजे खातीर सगळ्यांत व्हड समाधान. म्हाका तो केन्ना त्रास जावंक दिवचो ना हाची म्हाका पुरायेन खात्री आसा. एक चिंता पयस जाल्ली. पेपर तपासपाक सुरवात करतां म्हणसर परत फोन वाजलो.

'राणी, हांवें सांगलां तांकां तूं पेपर घेवन बस. म्हजो कामाचो वेळ जाला'.

'मामी तापची ना मरे'.

'कितेंय म्हणल्यार बेठेंच आयकून घेवं नाका. रातीं उसरां फोन करतां तुका'.

पेपर घेवन बसलें खरें पूण लक्ष लागना जालें. घरचीं येतकच बोवाळ जातलोच हें निश्चीत आसलें. डिनराचो फायदो चुकलो हें सासमांयक सहन जावचें ना. फकत जोड, जोड आनी जोड. स-सात म्हयने फकत जोडपाचे. खूब अस्वस्थताय जाणवपाक लागली. बेगिनूच इल्लें जेवलें आनी आड पडलें. पूण न्हीद कशीच येना जाली.

मात्शी झापडी लागताली तेन्ना बेल वाजिल्ल्याचो आवाज पडलो. सडसडीत उठून दार उगडलें.

'तांकां डिनर दिलो मगो'.

'विलयमान दिनाका म्हूण सांगलें म्हाका. तुमकां फोन करूंक ना'.

'आमी काम सांगतात म्हूण घोवाक सांगपाक बरें तोंड आसा. आपूण कांय करिना हें कोण सांगता?' नणंद तापली.

'बायलेक एकटी दवरली म्हूण त्रास जालो. भयणांक एकटीं दवरिनाकात म्हूण केन्ना सांगनासलो'.

'हांव बेकार ना. म्हजींच कामां करपाक म्हाका वेळ पावना'.

'नोकरी करता म्हूण सर्गाक हात लायलो अशें दिसता आसतलें'.

'विलयमान म्हाका फाल्यां सावन कांयच करिनाका म्हूण सांगलां. आनी करचेंच ना हांव. म्हजीं कामां चड महत्वाचीं म्हाका. घरांतलें काम पळयतलें हांव पूण त्या टुरिस्टांचें फाल्यां सावन कोण एक काम सांगचो ना म्हाका'.

हांव तडक म्हज्या रुमांत गेलें. इतलें उलोवपाक शकलें हाचेंच अजाप दिसलें.

'परतून फोन करूं दी ताका. सारकें शिकयतां. बायलेचो बरो हुस्को जाता. आवयचो आनी भयणांचो केन्ना हुस्को जायना'.

सासमांयची बडबड चालूच आशिल्ली. हांव विलयमाच्या फोनाची वाट पळयत माथ्यार चादर घेवन आड पडलें.







• नरेश नायक
काणकोण


**गोडकमळ्यांक** आयकूंक येतालो तो साडेसंचो गाडयेचो आवाज आयज पासलांक आयकूंक आयलो. आयज म्हाका कळाव जाला हें शंकराच्या लक्षांत आयलें.

रातीं न्हिदपाक कळाव जाल्लो. तसो न्हिदपाक म्हूण बाज्जेर आड पडिल्लो. पूण काळजांत निर्शेणेचीं आनी दुख्खाचीं काळीं कुपां दोळ्यां मुखार दाटिल्लीं. दोळ्यांक न्हिदेचें पांगरूण कशेंच लागीं घेनासलें. दीसभर शेतांत, कामता कडेन गोरवां फाटल्यान वणवणून सगळें आंग जड जाल्लें. पूण दोळ्यांच्यो पातकड्यो आड जायनासल्यो. मनाकूय कुसांकीड लागिल्ले भशेन जातालें. हेवटेन तेवटेन कूस परतून वळवळटालो. एके वटेन हातपांय जड जाल्ले जाल्यार दुसरे वटेन काळीज दुख्खाच्या काळखांत बुचकळटालें. गोजडी तोंडा वयल्यान ओडून घेतली आनी दोळे गच्च चिड्डून न्हिदपाचो यत्न केलो.

सकाळीं मायकाचो आवाज कानार पडना फुडें शंकर फडफडीत जागो जालो. कोंब्या सादार जाग येवपी शंकर आयज कावळे रड मेरेन न्हिदेंत बुडिल्लो. वाड्यार आयज शेंवत्याल्या देवकाऱ्याचो मायक वाजतालो. जाग येना फुडें शंकराक घाव्यार मीठ लायले भशेन जालें. न्हीद जावंक नाशिल्ल्यान दोळे जळटाले. दोळे तशेच चोळीत कोळसो घेवन दांत घांशीत व्हाळार गेलो. तो धेंपांनीच चलतालो. येवन आवयन दिल्ली खुटी च्याव आनी गोण्याचे भाकरेचो कुडको मोडून चाबडायलो. मात्शी ताकतीक आसली. मात्सो वेळ जाल्यार माकड कामतांत शिगमो खेळटाले. आवयन डब्यांत भरून दिल्ली दनपारच्या जेवणाची भुती आनी आड वेळार जेवपाक भरिल्लो पेजेचो डबो घेतलो आनी तो मोन्यांनी वाटेक लागलो.

आवय चिंतूंक पडली. कितें जालें काय? रातीं सारको उलोवंक ना. सकाळीं उठपाकूय कळाव केलो. हरशीं उठले बराबर गोठ्यांत वतालो. म्हाका गोरवांचेंय कांय सांगलें ना. हें सगळें चिंतून आवयक जायते प्रस्न पडले. तिका बेठोच हुस्को जालो. पोर बरो बी ना काय? हरशीं थंडी बी जाल्यार कसाय करपाक लायतालो. आयज गायचें दुदय काडलें ना. हें पळोवन आवय उदकाचो तांबयो आनी सोप्यार बांदिल्ल्या पाडकाक घेवन दूद काडूंक गेली.

सादारण झिळमिळट्यार शंकर पणसलांतल्यान कामता कडेन वचपाचे वाटेन दोंगर चडूंक लागलो. वाटेर सावन मात्शें फुडें आशिल्ल्या बापायल्या धुप्याचेर सदां ताची नदर पडटाली. पूण आयज नदर फकत पांयां कडेनच आसली. वयर गोट्याचेर आनी घोडका रुखाचेर माकड केंकारतालो. तो खरशेत खरशेत धेंपां मारतालो. खांदार उडयिल्ल्या तुवाल्याच्या बतरान घाम पुसतालो. सकयल कुमयाच्या झाडा मेरेन वाड्या वयल्या मायकाचो आवाज आयकूंक येतालो. मन एके वटेन सकयल वाड्यार जाल्यार दुसरे वटेन कामता कडेन ओडटालें.

शंकर खरशेत खरशेत कामताच्या मळ्या कडेन पावलो. हय न्हयशी कामतार आनी वंयेचेर नदर मारली. दोळ्यार निर्शेणेचीं आनी दुख्खाचीं कुपां आशिल्लीं. वंयेर आशिल्लीं घोंसाळीं, तवशीं, पिपऱ्यो चानयो ना करतात

म्हणून सदां येवन आवाज करतालो, पूण आयज तो आवाज शेळेल्लो. तसोच कामताच्या माथ्यार आशिल्ल्या माळ्याचेर चडलो. जेवणाची भुती माळ्याच्या एका कोनशाक दवरली. बुश्कोट काडून माळ्याच्या केकल्याक लावन तुवाल्याच्या बतरान आंग पुसलें. माळ्यार सावन नदर सकयल पडटाली. सकाळचीं सुर्यांचीं भांगराळी किर्णां झाडांच्या पानांचेर पडून पानां लिकलिकतालीं. थंड वारें शंकराच्या आंगाक स्पर्श करतालें. सवण्यांचो चिंवचिंवाट कानांक थाकाय दितालो. सगळें पळोवन दोळे सुखावताले. काळजाकय थाकाय मेळ्ळी. सैमाचो मनभुलयणो देखाव, सवण्यांचें संगीत आनी वाऱ्याच्या झोतान शंकराक मात्शी थंडसाण दिल्ली. पूण हे सुखाचे खीण अणभवपाचे स्थितींत ताचें मन तयार नासलें. तें सगळें अडेचें अशें दिसतालें आनी ताका ताच्या घायाची जाणीव जाली.

सकाळच्यान शंकराच्या काळजांत दाट गडद दुख्खाचीं कुपां दाटिल्लीं. तीं केन्ना झडत म्हूण सांगूंक जायनासलें. मन थाऱ्यार नासलें. कामताचें बीन कित्याचेंच भान नासलें. हरशीं तो सदां आयले बराबर कामतांत भितर वचून चानयांनी खाल्लीं घोंसाळीं, चिंबडां, मोगीं भायर हाडटालो. एक चिबड नाजाल्यार मोगें खातालो. पूण आयज रूच आनी भूक मेल्ली. चित्त, भान, मन भेरेल्ल्या भशेन जाल्लें. कांय खिणां पयलीं सैमाचें सोबीत रूप पळोवपी शंकराच्या दोळ्यां मुखार काळोख आयिल्ल्या भशेन जालो. आपूण दुख्खाच्या ल्हारांनी बुचकळ्ळे भशेन ताका जालें.

अजून मेरेन शंकराक वाचा फुटनासली. आपलें हें दुख्ख कोणा कडेन म्हूण उक्तायतलो? कोणच लागींचो नासलो. कडेक पुंडलीक आपणाल्या कामतांत भोंवतालो. पूण ताचे कडेन उलोवपाची इत्सा ताका नासली. तो गळसणले भशेन जाल्लो. ताका सगळ्यांचोच विसर पडिल्लो.

तुवाल्याचें बतर आनी बुश्कोटाची गुठली करून आपले तकले पोंदा घेवन माळ्यारूच लवंडलो. पूण चिंतनांनी, दुख्खान आनी हुस्क्यान शंकराक आपूण दाबणीच्या कांट्यार न्हिदिल्ले भशेन भास जातालो. शंकरान

**शंकराच्या दोळ्यां मुखार ते उमेदीचे, मोगाचे दीस धालो खेळूंक लागले. गोरवांक घेवन वाड्या वयलीं भुरगीं सड्यार वतालीं. सकाळचें सातांच्या अदमासाक गोरवां फाटल्यान घरांतलो एक मनीस वतालो. चडशीं भुरगींच आसतालीं. वता आसतना दनपारची जेवणाची भुती, आड वेळार जेवपाक पेज घेवन वतालीं. सकाळच्या मायत्याक गोरवांक घेवन शेटीच्या रानांत वतालीं आनी पेज जेवन जातकच सड्यार वतालीं. सांजे सच्या अदमासाक पासलांक देंवून उदक पियेवन गोठ्यांत येतालीं.**

भुरगेपणांतल्या दिसांच्या तळ्यांत उडी मारली.

शंकर ल्हान आसतना गोरवां फाटल्यान वतालो. बराबर गांवचीं जायतीं भुरगीं वतालीं. वाड्यार भुरग्यांचें शिकप चड नासलें. लोक गरीब आशिल्ल्यान आनी शेताचें, कामताचें, गोरवांचें, काजूचीं आनी हेरा कामांक लागून भुरगीं फुडें शिकूंक पावनासलीं. चवथी मेरेन गांवांत आशिल्ले शाळेंत वतालीं. खंयचींय एक दोन भुरगीं शिकतालीं.

शंकर ल्हान आसतनाच ताचो बापूय कामताचे सावळेक गेल्ले कडेन कुमयाच्या झाड वयल्यान पडून मेल्लो. आवय आपल्या भावांक हाडून शेताचें काम करून घेताली नाजाल्यार शेत करपाक कोणूय भागेली घेताली. तिवूय लोकांगेर नाट लावपाक, लुंवपाक, नडपाक, कमताचे सावळेक वताली. घोव आसतना गोरवांचो गोठो विशेक गोरवांनी भरिल्लो. पूण तीं आतां विकून थोडींच दवरिल्लीं. गोरवां राखपी आनी आवयक आदार करपी कोण नाशिल्ल्यान शंकरान अर्ध्यारूच शाळा सोडिल्ली.

शंकराच्या दोळ्यां मुखार ते उमेदीचे, मोगाचे दीस धालो खेळूंक लागले. गोरवांक घेवन वाड्या वयलीं भुरगीं सड्यार वतालीं. सकाळचें सातांच्या अदमासाक गोरवां फाटल्यान घरांतलो एक मनीस वतालो. चडशीं भुरगींच आसतालीं. वता आसतना दनपारची जेवणाची भुती, आड वेळार जेवपाक पेज घेवन वतालीं. सकाळच्या मायत्याक गोरवांक घेवन शेटीच्या रानांत वतालीं आनी पेज जेवन जातकच सड्यार वतालीं. सांजे सच्या अदमासाक पासलांक देंवून उदक पियेवन गोठ्यांत येतालीं.

गोरवां राखूंक चलेच न्हय तर चलयोय वतालीं. शेंवतें तांगेल्या गोरवांक घेवन वतालें. तें चड करून शंकराच्याच बराबर वतालें. दोगांय वांगडाच खेळटालीं, जेवतालीं. दोगांयचीं तीं कवळीं मनां एकामेकांक हांसयतालीं, खेळयतालीं आनी सांबाळटालींय. कोणाकय कितेंय जालें जाल्यार रोखडींच खासावीस जातालीं. दोगांय भितरलो कोणूय गोरवां कडेन आयलो ना जाल्यार तीं खंती जातालीं. तांकां चुकिल्ले भशेन जातालें.

एक दीस शेंवत्याच्या पांयांक चुरकी लागली. शेंवतें पांय बुड्डीत रडूंक लागलें. तें रडटा तें पळोवन शंकर हांसूंक लागलो. हांव रडटा आनी शंकर म्हाका हांसता तें पळोवन शेंवतें फुगलें आनी चडूच रडपाक लागलें. शेवत्याक दिशिल्लें, हांव रडटकच शंकर म्हाका येवन कितें जालें काय म्हूण अपुरबायेन विचारतलो. पूण तो उरफाटो हांसता तें पळोवन कांय वेळ शेंवत्याक ताची तिडक आयली. हरशीं तें केन्नाच शंकराचेर तिडकूंक नाशिल्लें. शंकरान शेंवत्या कडेन येवन हांसत म्हणलें, ''आगो पिशा, ती चुरकी मगो. मात्शी ओडल्यार इतलें रडटा कित्याक? मात्शें बुड्डतलें आनी मागीर थांबतलें. चुरकी लागल्यार म्हूणन इतलें रडूंक जाय? हांवें तुका वखद हाडलां पळय. तें लायतकच रोखडेंच खरजुपाचें थांबतलें''.

पूण शेंवतें बरेंच फुगिल्लें. दोनांय दोळ्यांनी दुकां भरिल्लीं. कांय पोल्यां वयल्यान गळटालीं. शेंवतें तुवाल्याचें बतर जमनीर उडोवन ताचेर बशिल्लें. शंकर उलयतालो पूण

ांवतें मान सकयल घालून एका हातान पांय व्रपीत हुंडकेतालें. शंकराच्या रागान जोत्या हट्टर शेंवटून मारिल्लें. हें सगळें पळोवन शंकराक हांसूंक येतालें. पूण आनीकय ताळवतलें म्हूण ताणें हांसो दामलो आनी शेंवतें पांय बुड्डिता तो हात कडेक काडून त्या जाग्यार शेण लायलें.

आतां पळय बुड्डप थांबतलें. शंकरान शेण लावन आपलो हात हुसकेच्या पानांक पुशीत शेंवत्याक म्हणलें, "चल या, गोरवां फुडें पावलीं. ते सगळे फुडें पावलें. गोरवांचो माग पळय. खंयच्यान गेलीं तीं", अशें म्हणीत शंकरान वांगड्यांक कुलो मारलो. पूण शेंवत्याचो राग अजून मेरेन निवळूंक नासलो. शेंवत्याचें बुड्डप थांबिल्लें पूण तें हट्टान बशिल्लें.

मोन्यांनीच तें शंकराच्या फाटल्यान चलूंक लागलें. फुडें वागा घोली कडेन पावतकच थंय आशिल्ल्या झऱ्या कडेन पेज जेवंक बसतालीं. सगळे वांगडी फुडें पाविल्ले. तांणी पेज जेवपाक सुरवात केल्ली. तीं वेळार पावलिंनात तें पळोवन गणेशान म्हणलें, "कितें करतालीं रे दोगांय फाटल्यान केदो वेळ मेरेन?" आनी सगळे हांसले. हें आयकून शंकराच्या आनी शेंवत्याच्या काळजाक मात्श्यो खातकुतल्यो जाल्यो.

"आरे कांय ना, शेंवत्याक माट्टी झाडा कडेन चुरकी लागली म्हूण वेळ जालो", शंकरान जाप दिली.

शंकर आनी शेंवतें फातराचेर पेज जेवंक बसलीं. कुमयाचे खोले काडले. दोन रूंद खोल्यांक बडयेचीं कुसां तोंपलीं आनी ताचेर पेज जेवपाक घेतली. पूण अजून म्हणल्यार शेंवतें मोन्यांनीच आसलें. शंकरान विचारलें, "तुका तोंडाक लावंक खळांतलें तोर नाका? शेंवतें ओगीच रावलें आनी आपणाक हाडिल्ली भिकणाची भाजी खोल्यार वाडून शंकरा फुडें दवरली. शेंवतें मोन्यांनीच पेज जेवलें आनी दोगांयच्यो पेजे किटल्यो घेवन धुवपाक गेलें. शेंवतें बरेंच दुखावलां हाची शंकराक जाण जाली.

गोरवां उदकाक सावन वयर सरिल्लीं. दोगांय वाटेक लागलीं. शेंवत्याचो मोनेळ शंकराक खावंक येतालो. शंकरान चूक लेगीत मागिल्ली पूण शेंवतें कांयच उलोवंक तयार नासलें. शंकराक आयचो दीस कसो गेलो तो कळ्ळेंच ना. दीस धारेक वतालो. गोरवां सड्या वयल्यान देंवून उदकाक वचून घरचे वाटेक लागिल्लीं. शेंवतें अजून उलयना तें पळोवन शंकराचें तोंड पडिल्लें. सगळीं आपआपलीं गोरवां घेवन गोठ्यांनी गेल्लीं.

शंकराक रातभर न्हीद पडूंक ना. फकत शेंवत्याचीं तीं तेऱ्या पाना वयले उदका थेंबे कशीं दुकां आनी ताचें मोनें मुखामळ ताच्या दोळ्यांनी घुंवतालें. केन्ना काय दीस जातलो आनी शेंवत्याची परत चूक मागतलो, परत ताचे कडेन उलोवंक लागतलो, ताका सांगतलो, तुजे कडेन उलयनासतना म्हज्यान रावंक जायना. ताचीं फकांडां करतलो, तें हांसता तें पळयतलो, ह्या विचारांनी शंकर कूस परतीत आसलो. ताका प्रस्न पडलो, शेंवतें कित्याक इतलें रागार जालें काय? हरशीं केन्नाच म्हजेर रागार जावंक ना. ह्या रागांत कितें तरी आसा हो दुबाव शंकराक पडिल्लो.

दुसरे वटेन शेंवत्याचोय दोळो लागनासलो. बेठोच हांवें शंकराचेर राग केलो. उलयनासतना रावलें हें शेंवत्याच्या मनाक खातालें. शंकराचें पडिल्लें तोंड एक सारकें दोळ्यां सामकार येतालें. दोनूय कंवळ्या काळजांनी मोगाचीं बियां किल्लूंक लागिल्लीं. कंवळ्या मनाच्यो भावना जाग्यो जावपाक लागिल्ल्यो.

दुसऱ्या दिसा गोरवां फाटल्यान दोगांय शेटी रानांत पाविल्लीं. एकामेकांक पळोवन दोगांयच्यो नदरो सकयल गेल्ल्यो. शंकरान घोगऱ्या आवाजान चूक मागली तशें शेंवतें तामणीच्या फुला भशेन हांसलें आनी म्हणूंक लागलें, "हांव मुद्दाम तुजेर रागार जाल्लें. तूं कितें करता तें पळोवंक". हें आयकून शंकर खोशी जाल्लो. शंकरान हातांतली बडी फकांडांनी शेंवत्याचे फाटीर मारली.

अशे तरेन दोन मनांतल्या मोगाचें झाड व्हड जावंक लागलें. त्या झाडाक काळजा भितर पाळांमुळां फुटूंक लागलीं, चवंरूंक लागलीं. सदांच गोरवांच्या निमतान मेळप जातालें. पूण काळजांतली गजाल ओंठार येवंक नासली. फकत दोन मनां एकामेकां कडेन उलयतालीं. घरा केल्ली तांदळाची, गोण्यांची भाकरी, पिट्या गुळयो जावं हेर कितेंय शेंवतें तुवाल्याच्या बतरांत बांदून लिपोवन हाडटालें आनी शंकराक दितालें. तो तें खातना पळोवन उमेदी जातालें.

शेंवत्याक फुलांची खूब आवड आसली. शंकर शेंवत्याक ओंवळां, सुरंगां हाडून दितालो. मागीर शेंवतें थंय किवणीच्या व्हायांचेर तीं गुंथ्थालें आनी माथ्यांत खोयतालें. एक दीस फकांडांनी ओंवळांची माळ ताणें शेंवत्याच्या गळ्यांत घाली. मागीर एकामेकांक पळोवन दोगांय लजेलीं.

शेताचें काम चड आसतालें. शंकर गोरवां फाटल्यान येनासलो तेन्ना शेंवतें खंती जातालें. ताका केन्ना काय ते सात आठ दीस सोंपल्यार पुरो जातालें. शंकर झाडार पावटो कसो चडटालो. आंवाळे, काण्णां, तोरां, बी खळांत घालूंक हाडटालो. काण्णां, चारां, चुन्नां, कणेरां, चिंवरां तो शेंवत्याक हाडून दितालो. ताका कांटे तोंपत, तो झाडा वयल्यान पडत म्हूण शेंतवें बेठेंच भियेतालें. तें सदांच सांगतालें, हो जागो बरो न्हय खंय. दाद सांगतालो म्हाका. हांगा आलवांतीण आसा. थंय घोडका रुखा सकयल मसण. थंय बरें न्हय. ओंवळां झाडा वयल्यान पडल्यार बरें न्हय अशें एकार एक शेंवतें सांगीत सुट्टालें. पूण शंकर तें घेवन बसनासलो.

चवथीक, नाटकाक, शिगम्याच्या दिसांनी वाड्यार लोक एकठांय येताले. पूण केन्नाच तीं लोकां मुखार एकामेकां कडेन उलयनासलीं. दोगांय चोरयांनी एकामेकांक पळयतालीं. तांचीं घरचीं आनी तिवूंय एकामेकांगेर यो-वच करतालीं. पूण घरच्यां मुखार उलोवंक तीं भियेतालीं.

एक दीस शंकर तळपा वयल्यान निसरून पडलो आनी ताच्या कपलाक कोंक जाली. रगत पळोवन शंकरा पयलीं शेंवतें खासावीस जालें. शंकरान बेगीनबेगीन शेंवत्याक उदक मारलें. आगो पिशा, म्हाका कांयच जावंक ना, मात्शें झरकटलां मुगो. कित्याक भियेवंक जाय इतलें. शेंवत्यान कोंक सारकी पळयली आनी आपल्या घागऱ्याचो तीर पिंजून शंकराचे तकलेक बांदलो. थंयची थोडी माती दाव्या

हातांत घेवन शंकराचे तकले भोंवतणीं तीन फावटीं घुंवडावन उडयली आनी थळाव्या बेताळाक पांय पडलें. शंकराक निवळ पियेवंक दिलो.

जरी शंकराचें आनी शेंवत्याचें उलोवप जायनासलें तरी हेर राखण्यांक तांचेर दुबाव आसलो. ते आपले मदींच फुतफुत्ताले.

पिराय जशी वाडत वताली तशें ह्या मोगाच्या झाडाक खांद्यो फुडत आसल्यो. कुडींतूय बदल जाल्ले. एकामेकां विशीं आकर्शण आनी ओड निर्माण जावंक लागली. एक दीस अकस्मात आडमेळो पावस आयलो. कोणेंच आसरूंक कांयच हाडूंक नासलें. सगळीं भिजून थापो जाल्लीं. तीं दोगांय थोडो वेळ एका किनळीच्या झाडा पोंदा करमलीचीं पानां माथ्यार धरून उबीं रावलीं. पयलेच फावट शंकराची शेंतव्याच्या भिजिल्ल्या देहाचेर नदर गेल्ली. पयलेच फावट ताचें कुडींत तरणेपणाचें वासनेचें जोगूल पेटिल्लें. दोगांय एकामेकाक पळोवन लजिल्ले भशेन जालीं. नकळटां शंकरान शेंवत्याचो हात धरलो. दोगांयच्यो नदरो सकयल गेल्ल्यो पूण इतल्यान गोरवां सकयल धांवलीं म्हूण राखण्यांनी कुलो मारलो. तो आयकून तीं भानार आयलीं आनी गोरवांच्या मागार धांवूंक लागलीं.

शेंवत्याक घरा पावून बेठेंच कलकलपाक लागलें. शंकरान ताचो हात हातांत घेतिल्लो खीण ताका जाय जायसो दिसतालो. ह्या स्पर्शान एक वेगळीच ओड लायिल्ली. कुडींतली मोनी वासना उचांबळ जाताली. कांय खीण शेंवत्याक शंकराचे वेगेंत आशिल्ल्याचो भास जालो. आवयच्या धेंकण्यान शेंवतें भानार आयलें.

पिराय वाडटा तशी शंकराची घरची जापसालदारकी वाडत वताली. पेज जेवंक बशिल्ले कडेन शंकरान शेंवत्याक आडखळत म्हणलें, "आतां म्हाका सदांच गोरवां राखूंक येवंक मेळचें ना. म्हाका शेतांतलीं आनी हेर कामां पळोवचीं पडटलीं. आवयच्यान जायना आतां".

हें आयकून शेंवत्याक कच्च जालें. पेजेंत घाल्लो हात थंयच उरलो. दुखखाचें मळब माथ्यार कोसळ्ळे भशेन जालें. ताचें तोंड मनांतलें सगळें दुख्ख सांगतालें. शंकरान ताचें दुख्ख पारखिलें. हें पळोवन ताणें इतलो तेंप दोन मनांनी घुंवपी भावनांक वाट मेकळी करून दिली.

"पिशा, म्हाकाय वायट दिसता. पूण हें सदांच परवडचें ना म्हाका. आमकां अशें सदांच मेळूंक मेळचें ना. तुका आतां काळजार फातर दरवचो पडटलो. हांव तुका सोडचों ना. हांव तुजेच कडेन लग्न जातलों".

हें आयकून शेंवत्याक कांय खीण वाऱ्यार हुबिल्ले वरी जालें. आडोवन दवरिल्ल्या ताच्या भावनांच्या बांदाक उतरां फुटलीं. दोळ्यांतल्यान फळफळीत दुकां देंवलीं.

"तूं जाणा, तुजे बगर ही पेज म्हज्या ताळ्या सकयल देंवची ना. आनी देंवली जाल्यार फकत पोट भरपा खातीर देंवोवची पडटली. म्हाका फकत तुजो सांगात जाय. तुजे बगर हांव पोल जातलें", अशें म्हणीत तें शंकराक वेंग मारून हुडक्या हुडक्यांनी रडूंक लागलें. शंकरान ताका थातारलें.

"पिशा, रडूं नाका, हांव खंयच वच्चों ना तुका सोडून", अशें म्हणीत शंकरान खांदार आशिल्ल्या तुवाल्यान ताचीं दुकां पुसलीं. कितलो वेळ मेरेन दोगांय तशींच आशिल्लीं. वयल्यान झाडांचीं पानां फुलांच्यो पाकळ्यो कश्यो तांचेर झडलीं. कोगळान शेनाय वाजयली. सैमाचे साक्षीन दोगांय एकामेकाचीं जाल्लीं.

पूण हे सुखाचे दीस थोड्या दिसां खातीर उरले. ह्या मोगाच्या झाडाक फळचे पयलींच मोरें पडलें. आयज शेंवत्याले दोळे सुजिल्ले, तांबडे जाल्ले. माथ्या वयल्या केंसांक दातोणी लावंक नासली. शेंवतें खूबच रडलां हें शंकराक कळ्ळें. तें मोन्यांनी शेटी राना मेरेन पावलें. कांच उलयना तें पळोवन शंकरान शेंवत्याच्या हाताक धरून विचारलें, "पिशा कितें जालां?"

शेंवत्याच्या मोनेपणाक वाचा फुटली. "आमकां विसरचें पडटलें. हो सगळो देवाचो खेळ. आमच्या नशिबांत नात ते दीस".

"पूण अकस्मात अशें कितें जालें?" शंकरान खासावीस जावन विचारलें.

"म्हाका रातीच कळ्ळें. तूं जाणा, एक दायजिके भितर आनीक एक देव आसता त्या चल्याक आनी चलयेक एकामेकां कडेन लग्न जावंक मेळना".

शेंवतें गळसणले वरी उलयत सुटिल्लें. तें कितें उलयता हाचें ताका भान नासलें. तें उलयतालें खरें पूण पुराय तरेन घट्ट फातरा भशेन जाल्लों. फकत ताचें तोंड हालतालें आनी ते दोळे दुकांचीं कुपां घेवन झडपाची वाट पळयताले. हें सगळें आयकून शंकर शाबूद्द शेणिल्ले भशेन उलोवंक लागलो. कांय खीण ताच्या दोळ्यां मुखार काळोख आयिल्ले भशेन जालो. अकस्मात शंकराच्या तोंडांतल्यान 'पूण आमी जावया न्हूं' असो आवाज भायर सरलो. आनी ताणें थंयच आशिल्ल्या फातराचेर थपकल मारली.

तें जावचें ना. तशें केल्यार आमकां गांवाक आनी घरच्यांक सोडचीं पडटलीं. गांवांत अशें केन्नाच जालें ना.

आतां मात शेंवत्याच्यान स्वताक आडावंक जालें ना. "तुजे बगर हांव सदांच अर्दकुटें उरतलें. म्हजें तन, मन कोणाकूच दिवंक पावचें ना. तें सदांच हीं झाडां, गोरवां आनी तुजे भोंवतणीच उरतलें. तानेल्ल्या कोगळा भशेन म्हजें मन तुका साद घालीत रावतलें. तूं सुखान राव. तुजो संवसार कर. फुडल्या जल्मांत ह्याच रानांत तळपार बसून वाट पळयतलें पेज जेवपाक. तुजी आनी गोरवांची".

माकडांच्या केकाऱ्यांनी आनी पुंडलीकाचे हुयेलीन शंकर भानार आयलो. मायकाचो आवाज अजूनय कानांत घुमतालो. कामतांत पळयल्यार माकडांनी पुराय कामत बुड्डून कामताची नासाडी केल्ली. वसाड दोळ्यांनी नासाडी केल्ल्या कामताचेर नदर मारीत शंकर जड पावलांनी वाड्या वटेन वळ्ळो.



## चार कविता

हुपतना शीम
रेले आनी बोल
मळबूय गोल
तुजे तुकाच तोल...

सोदतना सम
हुपतना शीम
पाव कितलें खोल...

## पाखो

सकाळीं
फुलांर बशिल्लो
वताचो पाखो
खुणायता म्हाका
एक सारखो...

## ध्यास

ल्हारांचीं कडवीं
दर्याच्या गिताक
अनंताचो ध्यास
लागला अर्थाक

## चंद्रीम

चंद्रीम चैत्र पुनवेचो
फुलिल्लो
कळो बटमोगरेचो.



• माधव बोरकार
ए/एफ-2,
ग्रीनपीस हावसिंग सोसायटी,
नागाळी, ताळगांव
फो : 2224455



## काळा झोपाळो

आर्दी अंताचो काळा झोपाळो
धोलता बाये धोलता
तातूंत बसून कृष्ण अद्दश्टो
दोनूय तोंकां जोडटा

आर्दी अंताचो काळा झोपाळो
कृष्ण बाये रचयता
आर्दी काळाक स्पर्श करून
अंतकाळाक जियेता

आर्दी अंताचो काळा झोपाळो
जाता सूर उत्क्रांते
कृष्ण उलयता भास काळाची
तो धर्म तत्त्वां फांते

आर्दी अंताचो काळा झोपाळो
धोलता बाये धोलता
जिणे मरणा सांगड घालून
आलतड पलतड दाखयता

• प्रकाश पाडगांवकार
'मातृ-कलश' च - 16,
हावसिंग बोर्ड कॉलनी,
आल्त पर्वरी, बार्देस,
फोन: 2412103



## मोग कळा

तुजीं दोन मोव मळां
ताच्यो और मोग कळा
केन्ना दूद गोड कर
केन्ना मोग मोव कर

कंवळ्या ओंठांत गे
अमृताचो दुदरस
मोगा काळाजांत गो
भरता जिवीत रस

छातयेची भुरग्याचें
खेळणें लेगीत सुट्टा
दोंगर ऊंच पुरुशी
सान्निध्यांत फसता

मोव मळांशी बाये
गोड मोव जाता
हांव म्हणपी लेगीत
तुज्या फुडें शेणटा

• तुकाराम शेट
बालगीत निकेतन
वाळकेश्वर वाडो,
बेती,बार्देस,
फोन नं: 2411414

## दुर्गा जावन उठ माते

काळीज तुजें धगधगता
तकली तुजी हुलपता
पळोवन तुजी आवतिकाय
माते जीव तळमळटा

भुकेक लागून खावचेलें
तानेक लागून पिवचेलें
गोड लागना, तान न्हिवना
वांट्याक आयलां सोंसचेलें

कर्तुपी ते पूत गेले
पडमूर हे धाकले जाले
बळिश्टांनी पुरायपणी
दुर्बळांक नागयले

प्राक्तनाक दोश दीत
पिंजून मेले जाणटेले
तीच गत तरणाटे आयज
कित्याक म्हणून सोंसतले?

उठल्यात तुज्या जिवार माते
भायले आनी भितरले
मड्या उज्यार भाजूंक पोळी
दुस्मानांचे तळमळे

दुर्गा जावन उठ माते
शेळेल्ल्यांच्या बस कांठ्यार
शस्त्रां पाजूंक पेटय भातें
मार सुळार असूरांक तिठ्यार




• **रमेश लाड**
एम्-11, हावसिंग बोर्ड कॉलनी,
घोगळ, मडगांव.


## ल्हारां आनी मनीस

माडा येदीं उंचायेचीं दर्या ल्हारां
तडीर येवन फुट्टना
सामकीं किरंगुळी येदीं जातात

तसोच,
पोको बडवाचार
पांगुल्लेलो मनीस
खरें रूप उक्ताडार येतकच
असोच मातयेभरवण जाता
त्या दर्या ल्हारां भशेन!

दर्यांत कितलीं ल्हारां
तडीर आयलीं आनी फुटलीं
हाचो हिशेब कोणूच दवरिना

तशेंच,
असले पोके मनीस
ह्या संवसारांत आयले कितले
आनी गेले कितले
हाची यादीय कोण दवरिना
ताचीं यादय कोण काडिना!




• **सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार**
सी 25, सपना व्हॅली
विंटेज हॉस्पिटला लागसार,
पाजीफोंड, मडगांव
9923306751


## रवीन्द्राबाबाक

हिणसायताले आमचे भाशेक
गिळूंक सोदताले आमचे भुंयेक
'आमी बाबत कुळां न्हय' हें सांगपी
शणै गोंयबाबाचो आदर्श घालून
तुवें आमकां जागयले

कोंकणी भाशेक जें जें उणें आसलें
'रायटर' जावन तुवें तें दिलें
कोंकणी भाशे आड येवपी अरिश्ट
'फायटर' जावन तुवें परतिलें

जात-धर्म-लिंग भेद करिनासतना
तरणाट्यांचेर तूं पातयेलो
तरणाट्यांक मुखार काडून
जैताचो मार्ग आंखून दिलो

कोंकणीक जो भोवमान फावो आसलो
तो तुवें मेळोवन दिलो
युवा शक्ती मुखार तूं
व्हडलो आदर्श घालून गेलो

आयज जरी तूं आमच्यांत नासलो
सासाय तुजी अखंड आसा
तुज्या म्हालवजाचेरूच आयज
आमचो फुडार सुगूर आसा
आमचो फुडार सुगूर आसा

## केन्ना मेरेन

मनशाच्या काळजांत देवा
मनीसपण जागचे खातीर
बंदूकांच्या नळयांतल्यान
गुळ्यो कितल्यो सुट्टल्यो?
गरिबांची भूक मारूंक
आंगभर वस्त्रां मेळूंक
कितल्यो खोंपी पेट्टल्यो?
हातांत हात घालून देवा
मोडून उडोवंक सगळ्यो शिमो
कितलीं झुजां जिखतले?
जित्या मनशाक कडेक दवरून
कितले फातर पुजतले?
मोगाचो अर्थ देवा
तवनास मनशांक कळचे खातीर
कितलीं फुलां पिसुडटले?
गुन्यांवाचें लांशें पुसूंक
अडेचीं रुपडीं न्हेसूंक
कितले रंग फाफुडटले?
एकचाराचो मंत्र देवा
प्रत्येकाच्या ओंठार खेळूंक
कितले सूर आड्डतले?
जीण जाल्या म्हारग देखून
मरणाच्या वज्या खाला
कितले जाण चिड्डतले?




• ग्वादालूप डायस
माजोड्डें


## हावेस आसा

हावेस आसा सुखदिणो
सपनाक मेळू ना दिको
वता हांव आमुडटां थंय
गोरवांचो हालतो गोठो

पिर्शी म्हजी चिंतनां खरीं
मळबाची हालती धिगी
पाख्याक म्हज्या थातारूंक
तुजे कडेन सुसेग ना

वाट म्हजी मोडणाची
कशेय निसरून पडपाची
कांटे वाली बेणावपाक
बावळान म्हज्या नेट ना

काळोखच दिसता कसो
उजवाड सामको पयस पयस
कुपांचो काळखी फाफडूंक
आसोराची मोख ना

हुलोप सगळो धुंवरेल्लो
म्हाका घुस्पून उडोवपाचो
फूंक एक मारीन म्हणटा
स्वासांत तूं ना कसो




• लिना कुंकळयेंकार
'सृजन',
अंबाजीवाडो
फातोड्डें


## दोन कविता

1

पाखां फुटून उड्लीं सवणीं
घोंटेर जालो रितो रितो
येवजीत भितर दोगांच जाणां
हांतलो कोण काय येत परतो?

आमचीं भुरगीं चडटा घाट
आमी फकत पळोवची वाट
कोण जिखतलो? कोण बाब?
भुरगेपणांतलो खो-खो जाता याद

तसो आमचो शिणूय ना
दिसूच आयल्यात न्ही अशे
कोणाक दोश दिवचो हांगा?
रिते आयज आमचे पोशे

2

ज्या मळार खेळ्ळे,
ज्या तळ्यांत पेवले
मनांत म्हज्या खेळ्ळो
देवकी कृष्ण

ज्या थळार पावले,
काळान पारखिलें,
करून घेतली सेवा
मन धन्य धन्य

नियतीचें कुवाडें
सुटून सुटना,
बऱ्याचें फळ मेळटा
कोण जाणा?




• नूतन साखरदांडे
'काव्यांगण', एफ सी-3,
बेप्सीन रेसिडंसी,
अन्साभाट, म्हापशें.
मो. 9422061702

## शब्द

पुराय वाक्य
शब्दांचो मेळ
कोणाचेरूय
वार करपी
असलें अस्त्र
अर्थ परंपरेचे
विचार प्रगटावपाचे
दर शब्दाक
आपल्यो मर्यादा
ताका ना रूप
ना वास, ना रंग
ना रूच
प्रत्येक शब्द आपल्या
वाक्याक नटयता संस्कारांनी
प्रत्येक शब्दांक
विंगडविंगड अर्थ
मुखा वयली व्यक्ती
कशी घेता ताचेर
आसा निंबून
शब्दा बगर जीण अळणी
वाक्याक नटयता वेवस्थीत
शब्द भांगरांनी
वाक्यां ल्हान वा व्हड
तातूंतल्या एकाच शब्दान
घडयता आविश्कार
कांय शब्द
शब्दकोशांनी
येता सोदपाची पाळी
निमणे खरशेत
ताचो अर्थ दिता
त्योच ओळी




• **अलका सिनाय असोळडेकार**
द नेस्ट,
टीव्हीएस शोरूमा सामकार
बड्डें, मडगांव
9822981107


## ओड

ओड म्हाका गोंया तुजी
नितळ शितळ सैमाची
माड, माडयो मळबाक तेंकल्यो
भरजरी पाचवो शालू न्हेंसल्यो

मोगी म्हजें उडटें शेवणें
घेवन मनांत हावेस मोटे
तूंच म्हजें जिवीत
तूंच म्हजें कवीत ।। ओड म्हाका...

चंवरिल्ल्या चुन्नां, चिवरांचीं
आंबे, काजू, जांबळांची
लांबचे लांब व्हाळांची
शेकानशेक समिंदराची ।। ओड म्हाका...

मांडार धालो, शिगम्याचे खेळ
सोबीत सुंदर दर्याची वेळ
सजल्या म्हज्या गोंयची
माडां-सुरूंच्या झाडांची ।।

ओड म्हाका गोंया तुजी
नितळ शितळ सैमाची

## सावळी मायेची

सावळी मायेची सोंपली ऽऽ
अशी कशी तूं पयस गेली ऽ
तुजे विणें जिणें हें ऽ
जालां आतां उणें उणें ।।

मायेचो वझरो तूं ऽऽ
शितळकायेची उब तूं ऽ
धादोसकायेची म्हुर्त तूं ऽ
कदीम काळाची सासाय तूं ।। सावळी...

खंय सोदूं कशी सोदूं ऽऽ
मोयपाशी जीण कशी सारूं ऽ
एकसुरें जिणें हें म्हजें ऽ
सादयता तुका अशें ।। सावळी....

माया म्हजी तूं अपुरबायेची ऽऽ
अचकीत कशी पयस गेली ऽ
तुजे विणें जगांत म्हाका ऽ
थाकाय कोण दितलो आतां ।।

सावळी मायेची सोंपली ऽऽ
अशी कशी तूं पयस गेली ऽ




• **एन. सुहास**
160ए मंगेश मठी
धडें, सांवड्डें

## गीत मोगाचें

फुलपाखो आयला उडत
काळजा फुलाचेर बसूंक
भोंवर मारीत भोंवतणी, सोदतालो तो वचूंक ॥
फुलां भितर घुस्पलो
मोगान घालो बांदून
पास घट्ट मोगाचो, गावना असोच तोडूंक ॥
फुलांतलो म्होंवा थेंबो
गावना तागडेंत जोखूंक
दवरला भरून शिसो, मोग फुलपाख्याचो बांदूंक ॥

## माती हुंगता

नाका भितर बोटां धोंगसून
कितें तरी तो खरवडटा
काम-धंदो कांय ना
देखून हेंच काम तो करता
रावता उबो रस्त्या देगेर
नदर सगल्याक धांवता
पळयतले मात समजतात
संवसारांत होच सुखी दिसता.
आयतें गावल्यार खाता
घरा वचून बायलेक बडयता
तसो खंयच मेतेर जायना
पूण नदर म्हजीच तापयता.
मनीस हो मनशा भशेन
खांकनवाळ कसो जियेता
करपा सारकें कितलें आसतना
धतरेचो फकत पेज वाडयता.
तसो तोवूय गुळो मातयेचो
पांय आसात म्हूण भोंवता
केन्ना तरी मातयेंत वतलो
जिवेपणी कित्याक ती हुंगता?



• महेश पारकार
थळ, शिरोडें.
फोन: 2306281

## म्हजी कविता

1

म्हजी कविता
म्हज्या शब्दांचें शिल्प
म्हजी कविता
म्हजे वेदनेचें पडबिंब
म्हजी कविता
म्हजे तृप्तीची साय
म्हजी कविता
म्हज्या अस्तित्वाची गवाय
म्हजी कविता
म्हजी निर्मणी
म्हजी कविता
एक संवेदना- सुखदिणी

2

म्हजे कवितेचो फुलपाखो
भिरभिरत रावला
म्हज्या मनाच्या झाडार
फुलिल्ल्या शब्दफुलांचेर

हांव मात अस्वस्थ मनान
रितें करीत बसलां
म्हजें म्हाका
धव्याफुल्ल कागदाचेर

3

मळबांत भिरभिरपी सवणें
तिनसांजेचें परतूंक लागता
घोंटेरा कडेन
तेच ओडीन म्हजी कविता
परतता म्हजे कडेन
तिकाय सोंसना जावंये म्हजो विरह

तिचें मळब अथांग दर्या
तिच्या स्पर्शान हांव जाता ल्हवपीक
सवणें जावन अमर्याद पेंवता
तिच्या विशाळ दर्यांत...
चिंब भिजून भायर सरता
म्हज्यांतलेंच नवें हांव



• हर्षा शेटये
कृष्णप्रेम
अंबाजी, फातोड्डं
9850530152



## जाणटो पिपळ

एक एक पान शेणून गेल्ले
सवर्णीं घोंटेर सोडून गेल्लीं
पुर्विल्ली काणी आयकूंक कोण ना पावता म्हूण
जाणटो पिंपळ मोन्यांनी रावलो

रुखा तळा रख रख वोत आशिल्ल्यान
सावट सोडून धांवलीं पोरां
पुर्विल्ली काणी आयकूंक कोण ना पावता म्हूण
जाणटो पिंपळ मोन्यांनी रावलो

फाटल्या मोडावेळा मारन गेल्ली जगलावणी
याद ताका सदां वेळा भिरांत दिता
पुर्विल्ली काणी आयकूंक कोण ना पावता म्हूण
जाणटो पिंपळ मोन्यांनी रावलो

रुखा मुळांत कुराड तेंकोवन
उमेदी विना रावलो झाड मारपी
पुर्विल्ली काणी आयकूंक कोण ना पावता म्हूण
जाणटो पिंपळ मोन्यांनी रावलो

सदां काळ उरची आनी सावट दीत रावची
आशा ताजी आशिल्ली पूण अर्दकुट्यांनी उरली
पुर्विल्ली काणी आयकूंक कोण ना पावता म्हूण
जाणटो पिंपळ मोन्यांनी रावलो

## एक आवय

एक आवय
एक आवयक तीग पूत

एक एक पुताक जाय
एक एक तरा भाताचें शीत
एक पुताक जाय
मिर्ग भाताचें शीत
आनी एक पुताक जाय
चित्रा भाताचें शीत
आनी पुताक जाय
रेवती भाताचें शीत
एक एक पुताक जाय
वेगवेगळ्या तरा भाताचें शीत

एक आवय
एक आवयचे कडे एकूच तोपील

एक आवय
एक आवयक आसाय तीग पूत
तीग पुतां खातीर शिजोवपाक जाय
तीन तरां भाताचें शीत
आवयचे कडे आसा पूण
एकूच तोपील




• **आर एस भास्कर**
राम मंदीर, 10/539,
जनार्दन देवूळ, दक्षिण
अमरावती, कोची, केरळ
09387505951

## आल्लय

आयली परी, कुकुल्या सरी
न्हिदोवंक तुका म्हजे राणी
न्हिदेंत राव, सपनांत पाव
पऱ्यां सांगातान म्हजे राणी ।।धृ।।

कापशीं कुपां, खूबशीं रुपां
वाऱ्या ल्हारार झेल झेलतात
ताऱ्या थिकां आनी उल्का
आपालिपा खेळ खेळटात
वाऱ्यार झेल, लिपून खेळ
ताऱ्यां सांगातान म्हजे राणी ।।धृ।।

चंद्रीम मामा सोडून कामां
राजा-राणीची काणी सांगता
चांदणी ताई करून घाई
ताऱ्या फुलांच्यो फांती गुंतिता
राणेक मेळ फांतयेक माळ
चांदणे संगतीन म्हजे राणी ।।धृ।।

## रे कृष्णा...

रंगयाळीं सपानां फुलय रे कृष्णा
रंगोवन तूं म्हाका उडय ।।धृ।।

मोरकंठी आंगाचो नीळ दी
आबोली ओंठांचो अबीर दी
झाडपिको पीत दी, बिजांकुरी पाचवी
उदेंतेचो गुलाल उडय रे कृष्णा
रंगोवन तूं म्हाका उडय ।।1।।

देवकेच्या कुसव्यांतली उब दी
यशोदेच्या रुसव्यांतलो मोग दी
मिरेची भक्त दी राधेची आसक्त दी
गोपिकांचो रास रंग खेळय रे कृष्णा
रंगोवन तूं म्हाका उडय ।।2।।



• **चेतन आचार्य**
लोलयें, काणकोण
मो : 9422389290

## माय माऊली

कश्ट सोंशीत सानुल्या खातीर
जळटा जशी कापसाची वात
उरांत काजळी एकठावन
फाटीर मायेचोच हात

म्हज्या मनमंदिराचे गर्भकुडींत
पुजा सदांच मायमाऊलीची
म्हजे जिणेंत येस किर्ती
तिचेच पुर्वपुण्यायेची

तिच्या सुसंस्कारी तेलाची
अखंड मायेचीच ज्योत
दिता ज्ञानरुपी उजवाड
म्हज्या मनमंदिरांत

केलें जिवाचें रान तिणें
मेळोवंक कश्टांची भाकरी
हांसतें मुखामळ पळोवन
दिसता दिवाळेचीच तयारी



कांट्याकुट्यांच्या संवसारांत
शिजोवन सादेंच अन्न
अन्नपुर्णेच्या आशिर्वादान
जाता स्वादिश्ट पक्वान्न

भर दनपारच्या वतांत
झिजोवन आपली काया
सात्विकतायेच्या धुपान
मेळटा सुगंधीत माया

तिच्या पोशांतली शब्दफुलां
शिकयता अर्थ मनीसपणाचो
स्वाभिमानान जियेतना
परमळ सदांच निस्वार्थाचो

तिच्या जल्माच्या त्यागाक
निरंतर कश्टांची झालर
वाट दाखयता म्हाका
तिचेच गोड संस्कार

तिच्या पोशांतलीं शब्दफुलां
शिकयता मनीसपणाचो अर्थ
स्वाभिमानान जियेतना
दिसता सदांच निस्वार्थ

• **सुशिला नि. हळर्णकार**
'शिवकृपा' 135/के12
वासुदेव नगर, मडगांव
फो: 2752917

## तुज्या देशा खातीर

आमी देशा खातीर हें करुया
आनीक तें करुया
अशें म्हणपी हांवें ह्या जगांत
खूब जाण पळयल्यात
पूण गांवा खातीर
आपल्या वाड्या खातीर
करपी खूब थोडे जल्मल्यात
घरा खातीर करतलेच न्हय गा?
फामिलीक तुज्या खंय उडयतलो?
ते कोणय करता
वाड्या खातीर कितें केलां?
वय मोडली म्हूण शेजान्नीक गाळ्यो
गणपती बायंत बुडयलो म्हूण
शेजाऱ्या कडेन रातदीस झगडीं
एके वणटीचे चाळींत हें चल्लां
हें कित्या खातीर?
आनी देशा खातीर कितें करता?
कर्म?
अशें हें शेजारपण?
खंय दवरलां तुजें गांवपण?
सांबाळ तुज्या आंगांतलें मनीसपण
आनीक मागीर कर
जाय तें तुज्या देशा खातीर

## हिशोब

हांव हिशोब करीत आसां
म्हाका कळूंक लागिल्ल्याक
पूण आयज मेरेन हिशोब
कितें तोच कळ्ळो ना
ताका लागूनच जावंये
हांव हिशोब करीतच आसां
आनीक तो...
बावडो चुकतच आसा
हिशोब कसो करप
तेच कळ्ळें ना
तरी पूण करीत आसां
आतां करीत आसां
तो दोळ्यांक काळजाक बांद घालून
म्हजे जिणेचो
तो मात चुकना जाल्यार पुरो

## आयस्क्रीम

आयज म्हाका तुजो हुस्को जाला
कित्याक म्हूण नकळों हांव
पूण जाला खरो
रातीं न्हिदतना तुजो मिस कॉल ना
रात कशी काडली हांवूंच जाणा
तुका कळचें ना
हुस्को तुजो म्हाका जाला
तुका म्हजो न्हय
सकाळीं तूं फोन करूंकक विसरलो
तूं जाणा न्हय?
तुज्या आवाजाक हांव आशेता म्हूण?
आवाज सोड
तुज्या मिस कॉलानय हांव सुखावता
दनपार जाली
तुजी कितेंय खबर ना
हुस्को काळजांत, तकलेक
धालो खेळू लागल्यो
हुमेच्यो पांवळ्यो केंसांतल्यान गळ्ळ्यो
तळवे पावलां फुगड्यो घालतालीं
तुजो हुस्को म्हजे कुडींत नाचतालो
आनीक तुज्या हुस्क्यान
म्हजो अणून अणू दुखिल्लो
तुका कशें कळ्ळें?... हांव नकळों
इतल्यांत... तुजो फोन आयलो
आनी खिणां भितर
हांव सगळो हुस्को विसरलें
तुज्या आवाजांत विरगळें
सामकें आयस्क्रीम कशें
आतां हांव आयूस
आनी तूं क्रीम जाला
नकळों हुस्को खंय पावला!




• सुफला रुद्राजी गायतोंडे
मिरामार
98231119178

## उतरां आनी वेदना

उतरां म्हजीं बडबडूंक जाणात
विश्वाच्या वाठारांत शेणनात
आशयघनता मळबाक तेकता
दर्यातळाची खोलाय पेंवता
वेदना मात काळजांत घुस्मट्टा
अव्यक्त रावंक धडपडटा

• नीला तेलंग
आडपय, फोंडें.
फोन: 2325505

## दोंगर आनी मळब

मळब पाट्या पोंदा दोंगर बसला निश्चल
मळब मात ताका चाळयता
आपलीं काळीं, धवीं, निळीं कुपां
दाखोवन ताका खुणायता
म्हातारी दळण करून तळबांत पीठ सारयता
दोंगर मात सगळीं कवनां ओगीच रावन पळयता
मळबाक येता कूय सूर्य, चंद्राक, नखेत्रांक
घेवन नाचपाची
दोंगराक कांयच करपाक जमना
तो मात मोन्या वरी भेस करून
ओगीच बसला
तें पळोवन मळबाक चडटा मस्ती
तें जोगूल बायक नाचयता
गडगडाटाच्या तालार दोंगराक न्हाणयता

• दीपा दिलीप खोलकार
दिकरपाली, मडगांव.
फोन: 2766003

## सरस्पती

अनादी कालांतु भगवन्ताले मनांत
ती जल्मीली अमृतधारा जावनु
आदी कालांतु महामेरू वयरी
ती प्रकट जाल्ली सरस्पती जावनु ।
मन-मन्दिर तिजे धाम
नाद-ब्रह्म तिजे रूप
शांती, ज्ञान, आनन्द, प्रेम
पातळावप तिजे काम ।
निराकार-निर्मल-निर्मम आसून
नित्य नियमित् सुख दितात् आसा
पुण्य पुनीत भारत धरणीचेर
आनन्दामृत-वर्षा करतात् आस्सा ।
काल्, देस्, रुप-रंग, वेष-भास
जाती-धर्म, भेद-भाव नासिले
जनगणाचे मनांत, जिवे-वयरी
आपणाली ज्ञानमृतवर्षा करतात आस्सा ।
मानव संस्कृतीचो उत्कृश्ट पैतृक
वेद-उपनिषद, पुराण-इतिहास
बाईबिळ-खुरान-धम्मसम्पद-गुरुवाणी
तिगेलो अमृत-धारेचो रसाळ फळ ।
आमचे पूर्वज ऋषि-मुनि गणाचें
मन-बुद्धि-अन्तःकरणांक प्रचोदित करून
सभ्य--भास, संस्कार, विद्वत्काइ हाडून
विश्वशांती खातिर शांतिमंत्र तिणें रचविले।
भूंयवैली सरस्पती सुखून गेल्ली आस्सो
मनांतली सरस्पती अजून जीवन्त आस्सा
आमची आवयभास कोंकणीमातेचे रुपान
आमचे अन्तर्मनाक सदा सुखशीतळ करपाक जावनु ।
धन्य जाल्ले आमी सप्तकोंकणांतले मायमोगाचे भुर्गे
धन्य जाल्ले आमी सप्तसिन्धूचे गोड अमृतसार पीवनू
गर्जत केल्ले आज सप्तसमुद्राचे प्रचण्ड लहरानी
जय जय कोंकणी । जय जय कोंकणी । जय जय कोंकणी ।

• वज्रबाहु शेटी
10/98 जनार्दन देवूळ मार्ग,
अमरावती, कोची, केरळ
09249595166

## माळ

हांव पांकरीत आसां सदांच
ध्येयां मदलें अंतर
आयज हांवें आयकलां गा
उलोवंक नाशिल्लें उतर

हो आत्मो भरून आसा
रंगिल्ल्या सयम सपनांनी
केन्नाय देव तुजें जिवीत
आकारता आपल्या हातांनी

कश्ट वाटेर दाटल्या म्हणून
तें दुर्दैव म्हणप सारकें न्हय
आडखळी अडचणीं आयल्यात
दूख सुखाचो अंत न्हय

जिणेची शीम हुपची नासता
मनशाच्या वीर पुतांनी
दुतांचे जिवीत घडयता
देव आपल्या हातांनी

जायतेच फावट जिवीत जाता
प्रत्येक खिणाक कश्टा सपन
कसो वळखूंक विसरलों
तें मरे येसाचें सोंपण

मरणा बिशाद कसली
उजो गिळ प्राण्याक
तोच भांगरान सुरंगायता
ह्या मातयेच्या दाण्यांक

सपनां पुंजायता आसतना
केन्ना पळयिल्लो म्हाका
मन शांती जोडूंक शीक
दुसरें दायज सोदिनाका

तांणी सोडलो तुका म्हणून
तूं जावंक ना गा निराधार
पळय आयज देवता तुजेर
कश्टां येसा माळ खांदार



• जेस फॅर्नांडीस
मो : 9890292415

## मागणें

चुकून लेगीत
चुकचें न्हय
मन कोणाचेंच
दुखचें न्हय
इतलोच आशीर्वाद
दी देवा
म्हजे खातीर
दोळ्यांत दुकां
केन्नाच कोणाचीं
झडचीं न्हय
उतरान म्हज्या
केन्नाच देवा
काळीज कोणाचेंच
तुटचें न्हय
मोगान काळीज
सदांच भरचें
सगळ्यांक म्हजो
मोग मेळचो
बुडटल्याची बडी जावन
अडिल्ल्या वेळार
तांकां पावचें



• शोभा शिवा फुलकार
किर्ला वाडो,
चिंबल
9226929710

## मोग

तुजो मोग...
म्हजो मोग...
वा आमचो मोग?
निळ्या निळ्या मळबांतलो
भरतेच्या ल्हारांतलो
चकचकत्या नकेत्रांतलो
तो मोग याद आसा अजून...
पुनवेच्या चान्न्यांतलो
थॅटरांतल्या काळखांतलो
वेळे वयल्या रेंवेंतलो
तो मोग याद आसा अजून...
पाचव्याचार जिणेंतलो
रेंवेच्या बंगल्यांतलो
आळवा वयल्या थेंब्यांतलो
तो मोग याद आसा अजून...

## कुकमाचो धनी

अनवळखी रुपाचेर भाळिल्लों हां
मनाच्या संग्रहालयांतल्यान
भायर आयलां
मोग आनी समाज हांचो
सांगड बांदतना...
नाकान अमृत पियेता हांव
रुपाची आसक्ती आसूनय
उमेदीचे दीस सोंपूंक ना
नव्या ल्हाराच्या थंड स्पर्शान
गिरेस्तकायेच्या राशीर उबो हांव
गुणांची शिरीमंती
कुबेरालो कोश
सदाकालीन हांसो तिचो
कुकमाचो धनी हांव

• संजय रो. गोवेकार
पिळगांव, दिवचल

## वर्षा राणी



अजाप हें सैमाचें चाक
एका फाटल्यान एक रुतू

कडकडीत ग्रिष्मा मागीर
येता नटूनथटून वर्षा राणी

धरणी माते वयलो दरेक जीव
पावसा सरींनी न्हावन वता

झाडांपेडां फुलां पानां सवणीं
जनावरां नितळ धुवन वतात

सगळीं टवटवीत प्रसन्न जावन
हवेंत खुशाल थंडसाण पातळटा

पावसाच्या उदकान मातये वास परमळटा
व्हाळ न्हंयो तुडूंब भरून व्हावूंक लागतात

पानां फुलां नटिल्ल्या व्हंकले वरी दिसता
चित्रकार, कवीक सुंदरतायेन भुलयता

काळ्या कुपांच्या गडगडाटान जिवाक भिवयता
विजूलबायच्या नाचान दोळे दिपकायता

मनशाच्या मनांतलो राग ना करता
दुस्मानकाय, तिरस्कार पयस करता

नवीन उमेदीची प्रेरणा दिवन जीण जगयता
जिणेंत जोश, जगपाचो वसो दिता

अशी म्हजी आवडीची लक्तुबायेची
वर्षा राणी केन्ना न विसरपा सारकी

• **शांता केणी**
फातोर्ड्डें
फो : 2749670

## मोगाची याद

आयज काळजाक याद आसा
दयदिगे वेली सांज वेळ ती
दोगांय मोत्यांनी आमी उलयतालीं
फेसाळ ल्हारां दोळ्यांक भरतालीं

पूण त्या दयदिगेर केन्नाच
आमी रेंवे घरां बांदलीं नात
गळिल्लीं तीं खारट दुकां
कितलीं पावलां माडोवन गेलीं खबर ना

आनी हांव एकटेंच आयज
त्याच दयदिगेर कितें तरी सोदता
तूं दर्यापलतडीं वचून संवसारी जालो
हांव मात रेंवेर यादींचे 'गांठवल' पोरसितां

## धर्तरेचेर कलाकार

झाडां-पेडां, फुलां-फळां रचपी
हो सोबीत संवसार राखपी
तूंच व्हड कलाकार
धर्तरेचो व्हड राखणदार
खिणाखिणांत तुजी याद येता
तुका नमळायेन नमन करतां

वाऱ्याच्या तालार शेवणीं धोलतात
सुरांच्या लयेर पावलां नाचतात
वत-पावस आपालिपा खेळटात
फुलपांखे फुलांतलें म्हॉव चोखतात
तेन्ना तुजी याद येता, याद येता

चंद्र, सूर्य, नकेत्रां आनी मळब निळें
दसण, आबोलीं, शेंवतीं, मागरे कळे
देवा करणेन तुज्या खुशालभरीत जाले दोळे
जेन्ना सूर्य उदेतेर येता
तेन्ना तुजी याद येता, याद येता

• **पुष्पा प्रमोद गायतोंडे**
ई-3, हावसिंग बोर्ड
घोगळ, मडगांव

# DEPARTMENT OF CIVIL SUPPLIES AND CONSUMER AFFAIRS, PANAJI

# AIMS AT




The Department plays a bi-lateral role in two sectors i.e. matter related to

**1. Civil Supplies & Consumer Affairs**

In the pursuit of maintaining proper supply of Civil Essential Commodities, the Department is entrusted with:

- Proper functioning of Fair Price Shops & availability of Essential commodities in these Fair Price Shops.
- Supply of pure kerosene & check on its pilferage.
- Supply of pure petrol & diesel & check on its pilferage.
- Ensuring proper acquisition, sale and storage of Naphtha, Solvent, Raffinate & Slop and prevention of its use in Automobile.
- Ensuring non-commercial use of domestic LPG cylinder.

Along with this, the Department runs special beneficiary schemes for Below Poverty Line people, viz. Annapurna Anna Yojna, Antyodaya Anna Yojna etc. The affords are made to make people aware about these and other schemes under Jagriti Shivir Yojna.

**2. Consumer Affairs.**

The Government has established Grievance Redressal Machinery to safeguard consumer's rights. The Government has established State Commission and two District Forums to settle Consumer complaint regarding goods & service. Consumer complaint can include:

(a) Loss of damage suffered due to unfair trade practice by any trade

(b) Defective good

(c) Price of goods charged is excess that fixed by law/displayed on packet/displayed on goods.

| You may complaint before | If complaint value |
|---|---|
| 1. District Forum, Porvorim/Margao | Up to Rs. 20 lakhs |
| 2. State Commission | Up to Rs. 1 crore |
| 3. National Commission | Above Rs. 1 crore |
| 4. Consumer Conciliation Committee Panaji-Goa | Amicable Settlement Mechanism |
| 5. Lok Adalat at both Districts | |

**Pledge for the betterment of all Goans and all consumers**



Issued By

Government of Goa

**Department of Civil Supplies & Consumer Affairs**

Panaji-Goa

# उजवाडाचो कवी प्रकाश पाडगांवकार आनी ब्रह्मांड-योगीत चिरंतनाचो




• डॉ . एल. सुनीथा बाय
वृंदावन, कक्कनड पोस्ट
कोची-682030
(केरळ)


कोंकणींत एक म्हण आसा - मन तशें भाव, भाव तशे देव. प्रकाश बाबाल्या संदर्भांत ही म्हण सत जाता. ताची जीण आनी कविता उजवाडाची साधना म्हूण सांगल्यार तातूंत दुबाव ना. हे साधनेंत प्राचीन भारतीय दार्शनीक परंपरा सदां तांचे वांगडा आसा. तो 'तमसो मा ज्योतिर्गमय' हें आदेशवाक्य अणसरून आसा. उजवाडा खातीर ताची अभिप्सा अपार आनी तिचे बराबर ताची काव्यसाधना बी प्रकाशपुरीत जाल्या. आध्यात्मीकरण आनी ताचो चिरंतन उजवाड ताच्या मनांत, ताच्या प्रभावपूर्ण व्यक्तिमत्तेंत जशें आसा तशेंच ताचे कवितेंतय पळोवपाक मेळटा. ताचो पयलो कविता झेलो - 'उजवाडाची पावलां'. ह्या संग्रहांत प्रकाशपूर्ण साधनेची काव्यात्मक मुळावण दिसता. हातूंत ताचे उद्गार पळोवपा सारकेंच. देखीक-

'उजवाडाचें पावल म्हजें काळखा सोंपण चडटलें
येवं तुफान जावं माड सहजकायेन परतितलें'

प्रकाश पाडगांवकार काळखाक भियेवचो न्हय. तो आपणाक उजवाडाक ओंपून दिता. आपले जिणेंत आनी कवितेंत तो भरपूर आत्मविस्वासची. उजवाड काळोख पयस करून ताची जीण मुखार व्हरतलो म्हूण ताचो घट विस्वास. ही उजवाडाची प्रतिभा कोंकणी काव्याच्या मळार तशीच सोबीत जाल्या जसो मळबा वयलो सुर्या. हो उजवाड विजेचो मात न्हय, संपूर्ण संवाराचो सनातन उजवाड जाची निवळ नदर ताच्या संपूर्ण काव्यांतल्यान, विशेशता 'ब्रह्मांड - योगी चिरंतनाचो' संग्रहांतल्यान भायर सरता.

'ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो' संग्रहाची फाटभूंय ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाची' झेलो प्रकाशबाबाले जिणेंतल्या प्रकाशपुरीत अणभवांचो संग्रह. हो उजवाडाक होलमता आनी ह्या उजवाडांत कवीक आपले भोंवतणच्यो वस्तू झगझगता म्हूण दिसतात. ताच्या मनांत उजवाडाचे नवे नवे विचार येतात. ह्या उजवडांत तो

ीसकायेचे उत्कर्श पळयता. सत मनशाचें तेबिंब पळयता आनी ताका गिज्ञानाचो प्रकाश ळटा जो मन-ब्रह्मांडांत तल्लीन करून ासुखाचो संतोस भोगयता. भुरगेपणांत सावन काशबाब प्रतिशठीत आनी मानेस्त मनशांच्या ागातांत आशिल्ले. हे मानेस्त मनीस सामान्य नशाक आपुलकायेन वागयताले. काशबाबाकूय हांचें मार्गदर्शन खूब लाबलें. ांकणी भाशेचे पितामह आनी व्हड विचारवंत ीन्द्रबाब केळेकार हांच्या व्यक्तिमत्वांतल्यान काशबाबाक तत्वगिज्ञान समजून घेवपाक ानी कवितांत हाडपाक प्रेरणा आनी प्रोत्साहन ळ्ळें. ह्या मनशाचें गिन्यानाचें भांडार आनी णभवाचें गिज्ञान प्रकाशबाबाल्या विचारांचेर र घालतालें. रवीन्द्र केळेकार समान चारवंताचें मार्गदर्शन आनी सहवास ताचे ाव्यनिर्मणेक उर्बा दिवपी थारलें. ताच्या स्कारान प्रकाशबाबाले प्रभायुक्त ाव्यशक्तीक नव्यो नव्यो आंकऱ्यो फुटल्यो. ंतनशीलतायेचो नवो मार्ग दिश्टींत आयलो. ाच्या व्यक्तिमत्वांतलो उजवाड खूब काशमान जालो आनी उजवाडाच्या प्रभावान ाका परोपकाराची जाणीव आयली. काळखांत आडखळटल्यांक उजवाडाचो हात देवन तांच्या प्राणांत किरणाची बीं रुजयत ांतोडे वाटेन व्हरतल्या चैतन्यपुरुशाक' ताणें ापलें काव्य समर्पण केलें. परोपकाराची ही ाणीव 'ब्रह्मांड- योगी चिरंतनाचो' ह्या संग्रहांत ाडून आयली. प्रकाशबाबाले कवितेंत रुजून ायली मानवतावादी प्रवृत्ती ह्या संग्रहांत ुर्णतायेक पावली. हांव मनीस सनातन, ातिमाहत्म्य, देवमनीस, तीर्थक्षेत्र वसुधैव कुटुंब, एक धर्मस्थान मनीसकायेचें आदी कविता हाचें प्रमाण. ही पुर्णता ताचें जिणेंतय भरून आयली. ताचे जिणेची आनी उतरांची साधना एकच जाली. जिणेंतले काव्यात्म खीण ाणें उतरांतल्यान चिरंजिवी केले. अशे प्रकाशबाबाले आध्यात्मीक विचार तेजिश्ट जावन उजवाडांत आयले. ह्या विचारांक उतरांचें फाटबळ जेन्ना मेळ्ळें तेन्ना कवी ब्रह्मांडांत उडपाक लागलो. ताची प्रतिभा दिसानदीस फुलत गेली. भारतीय संस्कृती आनी भारतीय दर्शन हे प्रतिभेचे वांगडा मुखार आयलें आनी उजवाडाचो कवी काव्यांतल्यान भरपूर उजवाड करीत गेलो. 'ब्रह्मांड- योगी चिरंतनाचो' संग्रह ह्या उजवाडांत झगझगूंग लागलो. हो झगझग संवसाराचे वस्तींत दिसून आयलो. देखीक -

'हांव ह्या झगझगपी टांकयेंतल्या नुस्त्यांक
पळयत रावतां
उजवाडाचें पयलें रूप - देव
देव ह्या उजवाडाचें पयलें रूप' कवी प्रार्थना करता

'विश्वब्रह्मांड रचणाऱ्या तुजें उजवाडाचें ध्यान
वित्तप्रज्ञेन पर्जळावन भर जीण उत्कर्शान
देव म्हणल्यार उजवाड हो उजवाड'

मनशाच्या मनांत प्रज्वलीत करून मनीस जीण उत्कर्शान भरपाक आशिल्ली ही प्रार्थना. उजवाडाच्या कवीचे अस्मितायेचें आनी देवाचे स्वरुपतायेचें पयलें रूप. हो उजवाड संवसाराची उत्पत्ती, स्थिती आनी लयाचो उत्सव मनयत आसा. होच उजवाड गिज्ञानाक आनी विज्ञानाक गत दिता. उजवाड मनशाचे भितर भरून आसा, देखून ज्या खिणाक शरीराचो भान ना जाता त्या खिणाक ज्योत (उजवाड) ज्योतीक भेटून घेता. मनीस ईश्वराचें पडबिंब मात आसता. ज्या मनशाच्या मनांत उजवाड आसता ताका हें पडबिंब दिसून येता. प्रकाशबाब असलोच एक विशेश कवी. तो ईश्वरा लागीं सांगता -

'ईश्वरा तूं कितलो दयेस्त आनी कितलो मायेस्त
काळजा सावन तुजी भक्ती करतल्यांच्या
तूं सांगाताक आसता
तूं आसता तांच्या स्वासा उस्वासा कणकणीं
तुज्या अस्तित्वाची सुलूस दाखयत
तांचे भितर जावन ज्योत पर्जळटी
ही ज्योत चैतन्ययुक्त आसता'. हें चैतन्य ईश्वराचें, कवी म्हणटा -

'तुजेच जिवसाणीचें अस्तित्व शिंपडून
तुवें प्रसयलें चैतन्य
व्यापीत अंतराळ अनंततत्व सगळे वाटेन
हेंच चैतन्य ईश्वरान संवसारांत व्यापून दवरल्या. हेंच मनशांतय भरल्या. जें कोण हें समजता तोच जिणेंत सफलताय भोगता.'

चैतन्याचो हो उजवाड भिंगा सारको अश्टतासी रंगीत आसा. ईश्वराच्या भिंगांतल्यान भायर सरपी हो चिरंजिवी अश्टतासी रंगी उजवाड ब्रह्मांडाचें बिंब परगटायता. कवी म्हणटा-

'ह्या भिंगांतल्यान चिरंजिवी अश्टतासी रंगी उजवाड
जाता कोटि सुर्याचें आगटें ब्रह्मनिर्मणेच्या रसायनाचें
जें जिवावळीचें काळ प्रसवणे शक्तिप्रवाह पेरून
भोगयता निराकार ईश्वराचे नवे आविश्कार कल्प कल्पांतराचे
ह्या उजवाडाचें रूप कवीक अशें दिसता -
अनादि अगम्य परतत्वांतल्यान
म्हजे मेरेन पाविल्ली ही
रंगरंगाच्या लखलखीत दिव्यांची रांग
मनांत जेन्ना दिव्य विचार येतात तेन्ना अंतरात्मा दीपस्तंभ कशे प्रशोभीत आसता', कवी म्हणटा-

'अनंतत्वाच्या अस्तित्वतायेचें भान आशिल्ले
म्हजे अंतरात्म्यांत दीपस्तंभ कशे
मंत्रून फुलिल्ले दिव्य विचार अंतराळांत अधांतरी
सोडीत जिव्यो ध्वनिलहरी
जावन हुमकळटे ट्रान्समिटिंग स्टेशन
हांगा प्रकाशाचो, गिज्ञानाचो आनी विज्ञानाचो एकवट दिसून येता'. हीच

प्रकाशबाबाली खासीयत ताच्या तत्वगिज्ञानाचो आधार पोरण्या उपनिशदांचीं तत्वां मात न्हय तर आधुनीक युगाच्या विज्ञानाचो आदारूय आसता. आयच्या युगाचें चिंतन आनी वर्तणूक ताचे वांगडा बराबर चलत आसा. पृथ्वी ताका संगणकाचो अक्रंवर अक्षरपट आनी ब्रह्मांड मोनिटर पड्डो म्हूण दिसता. ताची इंटरनॅटाची कार्यान्विती मनशांक एकामेकाच्या लागीं हाडपाची. तत्वगिज्ञानाचे सैद्धान्तिक पक्षाचे वांगडा तो वेव्हारीक जिणेचो सहाय बी घेता.

उजवाड आनी काळोख एकाच नाण्याचे दोन पक्ष. जंय उजवाड आसता थंय काळोखय. हो काळोख केन्ना केन्ना उकतो जावन विस्तारायता, पूण उजवाडाचीं किरणां पयस करून मनशाचीं मन-काळजां जोडपी प्रज्ञा विकसीत करून घेतात. देखीक-

'ह्या वज्रकिरणांचो प्रभाव
खिणाक काळोख वितळावन
करता उत्सर्जीत
उजवाड तासा तासांचो प्रज्ञावंत'

हांगा एक मनीस दुसऱ्याक खूब वळखून घेता आनी एकवट जावन जिणेची खोस भोगता. मनीस माती म्हणूय तातूंत निर्मळ सात्वीक उजवाड येतकच तो जिवो जाता म्हणूनय हे ब्रह्मांड निर्मिती विशीं विचार करून कवी ईश्वराची तोखणाय करता. अशें कवी चिरंतनाचे वाटे वयल्यान मुखार सरता -

'प्रवास म्हजो जाला सुरू चिरंतनाच्या वाटे वयल्यान
फांतोडेच्या झिळमिळट्यार मागून बरें प्रवासाक म्हज्या
दितात तारे निरोप म्हाका लिकलीक आपली घेत फाटीं
वचत भरसून उजवाडान सरता मुखार तसो सूर्य
दिता उर्बा पातळावन वाटेर कंवळीं किरणां लवचिकतायेचीं
आनी लागता चलूंक सांगातान लांब सावळी म्हजी सोडीत फाटल्यान
चलता तसो हांव मुखार'

काळखाच्या यज्ञांतल्यान उजावाडाची सिद्धिरुपी समाधी मेरेन आशिल्लो कवीचो हो प्रवास भोव म्हत्वाचो आसा. हांगा सत आसा, शीव आसा आनी सौंदर्य, बी आसा. सत्यं शिवं सुन्दरम् ताचे कवितेची विशेशता. 'ब्रह्मांड-योगी चिरंतनचो' संग्रह हाचें प्रमाण दिवपी

**उजवाडाचें दुसरें रूप - मनीसधर्म आनी मनीसकाय**

मनीसधर्म आनी मनीसकाय उजवाडाचें दुसरें रूप दाखयता. आचारलक्षणो धर्मः म्हूण व्हड मनशांनी सांगलां. हांगा आचार म्हणल्यार सदाचार. सदाचार जंय आसता धर्म थंय आसता. धर्मोरक्षति रक्षितः धर्माची रक्षा आपणाली रक्षा आसता. सदाचार खरोच मनीसधर्म. ह्या आचारधर्माच्या सहायान मनीस मनाचे संकुचीत विचार ना नपश्चात करूंक शकता. मनीसधर्माची जाणीव आशिल्लो कवी सांगता -

एकमेकांक पावप होच धर्म मनीसजातीचो
आनीकय ईश्वरा सगळे मनीसजातीक
एका धाग्यान बांदून दवरपा सारको
तुचे निर्मणेचो स्रोत
ईश्वरान दिलें, मनशान वगडायलें.

भोंवतणचीं कोसळपी मुल्यां पळोवन कवीचो आत्मो जो अस्वस्था जातालो ब्रह्मांडाचें गिन्नान घेवन तो शांत जालो. तीर्थक्षेत्र वसुधैव कुटुंब उजवाडाच्या दर्शनाच्या आनी शांततायेच्या संबंदान सांगता. कवी म्हणटा -

ह्या तीर्थक्षेत्रार येतलो जल्माक
नवो अवतार नव्या काळाच्या नवविचारी सिद्धपुरुशाचो

-------

विस्तरायतलो नवो सिद्धांत मनीसजातीच्या कल्याणाचो

हांगा गितोपदेश कविच्या सहायाक पावता
परित्राणाय साधूनां विनाशाय च दुश्कृताम्
धर्मसंस्थापनार्थाय संभवामि युगे युगे

भारतीय संस्कृतायेच्या मुल्यांची जाणीव आशिल्लो कवी गितोपदेशांत घट विस्वास करता. ह्या उपदेशाक अणसरून दुसऱ्यांकूय आस्वासन दिता.

मनशान संवसारांत जें कितें केलें ताचो सगळो नियाळ प्रकाशबाब अध्यात्मदर्शनां वरवीं करता. तो पारदर्शक नुस्त्याचे टांकयेंत उजवाड पळयता. वीख भरिल्ल्या मनशाचें मन, सर्तींत जियेवचो आयचो मनीस, जैतवंत जावपा खातीर दुसऱ्याल्या मानसीक विचारां विशीं जाणीव दवरिनासतना मुखार सरचो मनीस 'ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो' ह्या संग्रहांत पळोवपाक मेळटा. ह्या मनशाक मनीसपण तेन्ना जाता जेन्ना तो ब्रह्मरुपी सत्पुशाचें स्वरुप पळयता, जात-पात, भासा-भेद सगळीं बंधनां तोडून देवमनशाक साकार करपाचो प्रयत्न करता जो देवमनीस मनीसकायेन मन भरून हांवपण विरगळायता आनी माये पाझर अमृताचो शिंवर घेवन दुसऱ्यांक आसरो दिता. तांकां हात दिवन वयर काडटा. हांगा कवी वसुधैव कुटुंबाचो उगडास करता. ह्या कुटुंबांत एक धर्म - मनीस धर्म आसता आनी एक जात - मनीसजात आसता. 'ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो' ह्या संग्रहाचो संदेश मनीसकाय वाडोवपांत म्हूण कवी मानून घेता. ब्रह्मांड राया लागीं तो मागणें करता -

मनीसकायेक येवन ओतो नातीं नवीं जुळचीं
संवसार भरची मनीसजात एकाच धाग्यान गुंथची

-------------------

किर्णां तुजीं दिव्यतायेचीं संवसारार पातळचीं
सोदूंक सत चिरंतनाचें तानेन काळजां भरचीं

प्रकाशबाब ह्या सताच्या उजवाडाच्या सोदांत व्हांवते न्हंयचे भाशेन मुखार सरता. हांगा अव्यक्तता आसूनय उजवाडाचो आभास तांकां जावन येता. हो आभास चिरंतनाचो ब्रह्मांड योगी संपूर्ण करता. हेंच ह्या संग्रहाचें म्हत्व. ह्या संग्रहांत कवी समाजाचो प्रतिनिधी जावन मनीसकुळयेचें पडबिंब आपल्या संग्रहांत चित्रीत करता. 'चित्तप्रज्ञेन पर्जळावन जीण उत्कर्शान भरूंक' तो ब्रह्मांड रचणाऱ्या लागीं मागणी करता. काव्यात्मक भाशेन विश्व ब्रह्मांड रचणाऱ्याची आनी सादारण मनशा भितरची ज्योत एकूच म्हूण कवी प्रमाणीत करता.

आयच्या संवसारांत मनीस काळखांत पडून जिणे खातीर तळतळटा. ताका उजवाडांत हाडपचो यत्न 'ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो' ह्या संग्रहाचे वटेन कवी करता. राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय घटनाचक्रांत पडून यातना भोगच्या मनशाचे जिणेत आयज काळाखे मात आसा. उजवाड सोदपाक तो मुखार सरला. तरी ताका उजवाड मेळूंक ना. 'ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो' मनशाची ही यातना सोंपोवन ताका उजवाडांत हाडचे खातीर तीर्थक्षेत्रांत जल्माक येवच्या नव्या अवताराचो विस्वास करता. हांगा वसुधैव कुटुम्बकम्, भारतीय संस्कृतायेची पोरणी भावना साकार जाता. हे भावनेन जिणेचो काळोख पयस जातलो आनी नव्या विश्वाचो निर्माण जातलो. आयच्या मनशाचें पोकें व्हडपण सोंपून वतलें आनी कसलोच वेगळोचार दवरिनासतना मनीस मनशा लागीं एकवट जातलो. 'ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो' ह्या संग्रहाचें म्हत्व ह्याच विचारांनी आसा. अशें अठरापगड जाती-धर्मांतल्या लोकांची उच्च उणाकपणाची भावना ना जावची आनी मनशाच्या काळजांत उजवाड येवचो म्हूण कवी ह्या संग्रहांत इत्सा उक्तायता.

# बोरकारी

15 ऑगस्ट 2010 दिसा संदेश प्रभुदेसायान माशां खंय तरी आपलो 50वो वाडदीस दवरिल्लो. त्या कार्यक्रमांत म्हजी बोरकारी जायच असो आग्रो धरिल्लो. उटंगाराच्या पावसाक लागून ती बोरकारी चिप्प भिजली. ते खातीर सादर करप जाली ना. घरा कडेन तिची सीसी आशिल्ली. ती हांगा ह्या अंकांत छापूंक दिल्या. - **दिलीप बोरकार**

ण् ठण् ठण् ठण्
डयाळीन साताचे ठोके दिले.
शांती तळपणकाराक जाग आयली
तल्यान भुर्रर भुर्रर आवाज जालो
शांती तळपणकारान आंग काडलें
यलीं दिसलें ताका संदेश घोरेता
ागीर कळ्ळें अलार्म वाजला
ूण तो वाजला तो सकाळचो काय सांजेचो
ांतरुणार पडूनच तें येवजूंक लागलें
ागीर ताणें कूस परतिली
ळयल्यार शेजराक संदेश न्हिदला
न्हणटकच अलार्म वाजला तो सकाळचो
सांजेचो वाजता तेन्ना तो खाटीर नासता
वड करून प्रुडंटान आसता
पाड पडूं म्हणत प्रशांती उठलें
ताचें हें पाड पडूं प्रुडंटा खातीर नाशिल्लें
आनी संदेशा खातीरूय नाशिल्लें
अनिच्छेन प्रशांती उठलें
उठटना धोंपरां कटकट जालीं
प्रशांतीन परतून एकदां पाड पडूं म्हणलें
पूण उठले बगर पर्याय नाशिल्लो
खाटी वयल्यान देंवत ताणें आळस दिलो
आता ताच्या भुजांत कटकट जालें
पूण ताणें पाड पडूं म्हणलें ना
आतां अशें हें जावपाचेंच
अशें येवजीत ताणें चादर घडी केली
तशें करतना ताची नदर संदेशाचेर गेली
दोनूय हात जांगडा मदीं घालून सुस्त न्हिदिल्लो
मदींच आपले भितरूच मुमुरखो हांसतालो
भोवतेक सपनांत आसतलो
कोण आयला आसतलो सपनांत?
चंद्रिका न्हय हें नक्की
चंद्रिकाक तसो वेळूय नाच म्हणा
आतांच प्रुडंट आतांच योगा
खंय म्हणून पावतलें बावडें!
भोवतेक प्रमोद आचार्य आसूं येता
तोच ताच्या फाटल्यान फुडल्यान भोंवता
प्रशांतीक तेय अवस्थेंत बरेंऽ दिसलें
उमेदीन ताणें आलमारीच्या हारशांत पळयलें

मागीर संदेशाचेर नदर भोंवडायली
एक्साचो अजून कोंबोच आसा
अशेंशें कितें म्हणत तें किचनांत गेलें
च्या बी करून बाथरुमांत वचूंक
संदेशूच बाथरुमांतल्यान भायर आयलो
हो उठलो केन्ना आनी न्हालो तरी केन्ना?
प्रशांतीचीं धोंपरां परतून कटकट जालीं
बाथरुमांत भितर सरतां सरतां प्रशांतीन
संदेशाचेर नदर मारली
तो आलमारी मुखार उबो आशिल्लो
आपल्याकूच हारशांत तोखेतालो
ताचें फ्रेंच कट खाडय ताका सोबतालें
पिकिल्ल्यान अमिताभाची सया मारताली
कितलीं वर्सां काय हाका आतां?
वेदाक आतां अमकीं वर्सां, रुचाक अमकीं
म्हणचे नक्कीच पन्नाशी कडेन पावला हो
बाथरुमांत वचनासतना प्रशांती परतलें
आलमार उक्ती करून खण उगडलो
माशें, काणकोण शाळेचो दाखलो काडलो
संदेशाची जल्मतारीख 15 ऑगस्ट 1960
म्हणटकच सासमांय सांगताली तें खरें तर!
गोंय स्वतंत्र जावचें म्हूण हो जल्माक आयलो
प्रशांतीन दाखलो दवरीत हिशेब केलो
अरेच्या, अंदूं हाका खरेंच पन्ना वर्सां!
आनी हो वागता पंचविशींतलो कसो!
दिलीप बोरकाराक पंचावन्न जालीं
तरी दर वर्सा पन्नाशी करता
शशिकांत जोशीन लेगीत केली
आनी होच आपल्याक भुरगो समजता
हाची पन्नाशी केले बगर हो सुदारचो ना
धोंपराक नारायणी तेल चोळीत प्रशांती येवजितालें
आपूण जावन काय हो पन्नाशी करचो ना
मागीर कोणाक तरी सांगचेंच पडलें
प्रसाद लोलयेंकाराक सांगल्यार कशें?
तोय आमच्याच पंगडांतलो
तातूंत आनी सामको काणकोणचो
पूण आसूं, ताका म्हणप नाका
सांगल्यार म्हणटलो, सरात मुखार
बजेट दोन-तिनाचें आसूं दी

हांव फायल पुटअप करतां
पूण नाकाच ती भानगड
हाची पन्नाशी कलेंत बसताखरी
संस्कृतींत बसता काय सांगूं नज
प्रशांती न्हावन धुवन तयार जालें
ताणें कॉलेजीक दांडी मारली
तशेंच मडगांवां गेलें प्रशांतागेर
प्रशांत नायक फुलांचे गुच्छे करतालो
प्रशांतीचें म्हणणें ताणें शांतपणान आयकलें
पन्नाशी म्हणटकच कितलीं फुलां लागतलीं?
मनांत हिशेब करीत ताणें गुच्छ मेजले
'हें कितें प्रशांती! पन्नाशी जावंक जाय
घोस्त काडपाक चान्स हो सोडूं नये!'
'च्ये. ते पासत न्हय, ताका कळपाक जाय
आतां आपलीं पन्नास जालीं म्हूण'.
प्रशांताकूय आतां गांभीर्य कळ्ळें
'प्रशांती तूं भियेवं नाका. तें म्हजेर पावलें
पळयच तूं अश्शीऽ उडयतां पन्नाशी
जालें, तूं थंड बस. पावलें म्हजेर'
आनी मागीर चक्रां घुंवलीं
चेतन म्हण नाका, नित्यानंद म्हण नाका
अग्नी म्हण नाका सगळे कामाक लागले
स्वातंत्र्याचें गिफ्ट म्हूण जल्मल्ल्या संदेशाची
गॉड्स गिफ्टांत दबाज्यान पन्नाशी चलताली
जण एकलो संदेशाचेर उलयतालो
उलयतना पन्नाशीचेर जोर दितालें
प्रशांती तर सामकें खूश जावन गेल्लें
आतां हाका नक्कीच खात्री जातली
आपूण भुरगो न्हय हाची
बरो आसा!
स्वातंत्र्य दिनाक जल्मला म्हूण स्वातंत्र्य घेता
अशें येवजीत तें सुवाळो तोखेतालें
तेन्नाच ताच्या शेजराक बशिल्ल्या रुचान
बाकीबाबाची कविता सुरू केली
बुद्दीक क्षय, प्राणांक भंय
फाल्यांक जंय कालचीच वंय
आयलां तें स्वातंत्र्य थंय, स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय.



• दिनेश रा. मणेरकार
39, दत्तवाडी, सांगें
9552551425

# कोंकणी माये खातीर हेंवूंय गरजेचें

**कोंकणी भास ही साहित्याच्या मानान हेर भासां परस खूब भुरगी. हेर भारतीय भासांकय ही अशे तरेचीं रंगीत पुस्तकां काडपाक अजून तरी जमूंक ना. घडये पुस्तकांक आशिल्ली मागणी आनी छापणावळीचो खर्च हांचो मेळ बसना जावयें. पूण हो मेळ जो आजवेर बसलो ना तो फुडाराक बसतलो हाची इल्ली पसून खात्री ना. कारण आयचें इंटरनॅट यूग आनी मोबायलाचो जमानो हाचें पिशें इतलें वाडलां की प्रिंट मिडिया नामशेश बी जायना मूं असो भंय पडपाक लागला. प्रिंट मिडियाचेर हाचें केदेंय व्हडलें अरिश्ट आयलें तरी एक काळ येतलो जेन्ना सगळो संवसार परत ह्या प्रिंट मिडिया कडेन वळटलो.**

कोंकणीक राजमान्यताय मेळून 25 वयर वर्सां जालीं. ती राजभास जाली. ते खातीर आमकां आंदोलन करचें पडलें. आमच्या स्वतंत्र राज्यांत आमचेच मायभाशे खातीर, तिका मानाचें स्थान मेळचें म्हणून आमकां, आमी पारतंत्र्यांत आशिल्लेवरी झगडें करचें पडलें. पूण आमी झगडून तें मेळयलेंच. हें सगळें बरें आसा.

पूण तें मेळयले उपरांत ताका उभारी कशी हाडपाची? हे भाशेक नटोवपाची कशी? सजोवपाची कशी? ती जनमानसांत रुजोवपाची कशी? हाचेर आमी खोलायेन कश्ट घेवंक नात. कोंकणी भास जेन्ना हेर भारतीय भाशां बराबर साहित्य अकादमीच्या राज दरबारांत बसता तेन्ना तिची मान अभिमानान उंचावता. कारण सगळ्यांत ल्हान पिरायेची कोंकणी भास. सगळ्या भाशांची धाकटी भयण कशी. एक भावनीक नातें हे भाशेन आनी ह्या भाशिकांनी हेर भाशां कडेन जोडलां. जी जी शक्तिथळां कोंकणींत आसात वा आशिल्लीं तांणी आपले तांकी प्रमाण कोंकणीक मानाचो तुरो मेळोवन दिलो. भौ. रवीन्द्रबाबान तर आपलें सर्वस्व कोंकणीक ओंपलेंच आनी ताचे परसय व्हड असो 'ज्ञानपीठ' मेळोवन दिलो. त्या युगपुरुशाक म्हजे लाख लाख प्रणाम.

कोंकणी भाशेची वाट अजून सोंपली ना. तशी खंयचेच भाशेची वाट सोंपना.ती सदांच चालूच आसता. पूण आमकां बरीच व्हडली मोख गांठपाची आसा.

कोंकणी भास ही हेर भारतीय भाशां मदीं उठून दिसपी जावपाक जाय. आनी अशें जातलें जाल्यार ते खातीर कश्ट जाय. कश्ट घेवन भाशेची उदरगत करपी लोक जाय. फकत साहित्य रचलें म्हणून भास गिरेस्त जायना. शेंकड्यांनी पुस्तकां छापली म्हणूनय भास गिरेस्त जायना. भास गिरेस्त जाता ती तिचे कडेन आशिल्ल्या अळंकारांक लागून. भाशेक जितले अळंकार चड तितली तिका लोकमान्यताय चड. तितली भाशे कडेन विविधताय चड नितली तिका भुरग्यां मदीं रुळपाची शक्त चड. भास भुरग्यांक जितली लागीं तितली तिची जिवी उरपाची तांक चड. अशें हें चक्र. ह्या चक्राची गती कोंकणी भाशेक दिवप गरजेचें.

जे तरेन आयज कोंकणी साहित्याची पुस्तकां येतात तें पळयल्यार मन धादोस जावपाचें. पूण तशें घडना. कारण जीं पुस्तकां येतात तीं बरीं करमेवन येनात. ह्या साहित्यांत उखलापेपण चड. आनी खोलाय, चिंतन आनी मनन उणें. परिणामान परिपक्वताय उणी. ज्यावेळार हें साहित्य हेर भाशांनी अणकारीत जातलें त्या वेळार ह्या साहित्याचो कस लागतलो. खूब थोडें साहित्य ह्या कसवटेचेर उतरतलें आनी अभिमानान जगतलें.

हांव ह्या लेखांत बरोवंक सोदतां तें एका वेगळ्या विशयाचेर. भुरग्यांक इंग्लिश भाशेंतलें साहित्य भूल घालता. चड करून तांचे विश्वकोश, ज्ञानकोश, शब्दकोश, ल्हान भुरग्यांच्यो काणयो. हें सगळें साहित्य भुरग्यांक भुलयता. भाशा कळनाका, पूण भुरगीं हीं

स्तकां वेंगावन बसतात. उबारपाक जायना पूण वन भोंवतात. पिंजपाक जायना म्हणू सांगत ाल्यार जाणट्यां परस चड सांबाळून ापरतात. कित्याक? कित्याक हो मोग ह्या ग्लिश पुस्तकांचेर? कारण तातूंत रंगीत चित्रां ासतात. पुस्तकाचो पेपर बरो गुळगुळीत ासता. ही चित्रां तांकां तांच्यो परिकल्पना, ांचीं सपनां, तांची मनोराज्यांत खरीं थारावपाक आदार करतात. त्या चित्रांच्या ोगाक लागून तीं भुरगीं हीं पुस्तकां वाचपाचो ्रत्न करतात आनी काळांतरान भाशा शिकतात.

कोंकणी भाशेक हें शक्य ना? कोंकणी भाशेक ही तांक ना? कोंकणी भाशेक ही शक्त ना?

कोंकणी भाशेक ही नदर मेळपाक जाय. कोंकणी भाशेक हो साज आनी अळंकार मेळपाक जाय. कोंकणी भास जर जनमानसांत तळागाळांत, खांची कोनशांनी, मना कणकणीं रुजतली जाल्यार जे रंग आमी भोंवतणीं पळयतात त्या रंगांत त्या ढंगांत तिचें साहित्य रंगपाक जाय.

कोंकणी विश्वकोश वा ज्ञानकोश रंगीत काडपाक शक्य ना अशें हांव म्हणपाक धजचों ना. आमी अब्जांनी रुपया हेर कामा खातीर मोडटात. जी भास आमची वळख जावन आसा, जी भास आमची संस्कृती जावन आसा, जी भास आमचें दायज जावन आसा ते भाशेक सोबीतकाय हाडप आमकां कठीण? आमचे कडेन फावो तशे आंतरभाशीय कोश नात? आमचे कडेन समानार्थी शब्दांचे कोश नात? आमचे कडेन शब्द सागराचें भांडार पुस्तकी रुपान ना? आसात एक एक नग. पूण ते पावचे नात. हो पुराय वावर करपाक जाय. कोंकणी म्हणींचें प्रत्येक गांवा कणकणीं वेगळें संकलन जाय. गोंयांत परंपरेन उपजत आशिल्ल्या प्रत्येक गजालीचें, प्रत्येक वस्तूचें, प्रत्येक घडणुकेचे दस्तावेजीकरण जावपाक जाय. शब्दांची ग्लॉसरी वा शब्दभांडार जें सध्या आसा आनी जें शेणलां तांचेय दस्तावेजीकरण जावपाक जाय. आमचे कडेन भुरग्यां खातीर कोंकणींतल्यान चार्ट नात. हे चार्ट तयार करपाक जाय आनी ते गोंयचे शब्द घेवन तयार केल्ले आसपाक जाय. जर थोड्या प्रमाणांत कोणेंय हे तयार केल्ले आसत जाल्यार ताचें प्रसिद्धीकरण जावपाक जाय. भुरग्यां खातीर विज्ञानीक पुस्तकां, बालसाहित्य, बालगितां हें सगळें कोंकणींत करतना तें रंगीत आनी आकर्शक रितीन छापप जावपाक जाय. विज्ञानाची म्हायती दिवपी पुस्तकां कोंकणींत येवप खूब गरजेचें. अंतराळाची म्हायती, गिऱ्यांची म्हायती, समुद्रांची म्हायती, जागतीक नकाशे, जागतीक वनसंपत, जागतीक जलसंपत, फांकिवंत मनशांचीं चरित्रां हें सगळें सगळें कोंकणींत येवपाक जाय. जो मेरेन आमचो कोंकणी समाज इंग्लिशींतल्यान साहित्याचेर बेनुल्ल जावन रावतलो तो मेरेन आमची कोंकणी कशीच वयर सरची ना.

इंग्लिशीच्या मांडयेक मांडी लावन कोंकणी बशिल्ली पळोवप हें म्हजें सपन

तें खरें जावपाक वावरप हें आमचें मिशन. हो आमचो संकल्प.

हें काम तशें कितलेंय कठीण आसूं, ताका निदान सुरवात तरी जावपाक जाय. हे नदरेंतल्यान कोंकणी अकादमी कडल्यान अपेक्षा दवरप चुकीचें थारतलें. कारण अकादमीन आपली दिका थारायल्या. आनी ते दिकेन तांचो वावर चल्ला. ती दिका आनी ताच्या मुळाक जी विचारसरणी आसा ती बरोबर काय चूक हें थारावपाक हो आयचो लेख न्हय.

म्हज्या मतान गोंय सरकाराचे मानादीक मुख्यमंत्री भो. दिगंबर कामत हांणी हातूंत लक्ष घाल्यार हो प्रकल्प मुखार सरतलो. गोंयच्या इंन्फ्रास्ट्रक्चर उदरगती खातीर गोंय सरकारा कडेन निधी आसा. तो जायच. ती एक बरी गजाल. अशे तरेचो निधी भाशेचे उदरगती खातीर केंद्र सरकारा कडेन मागपाची मांडणी जाय. घडये फाल्यां प्रत्येक भारतीय भाशेक हाचो लाव मेळटलो. मेळूं दी. कोंकणीन हो पयलो मान मेळोवचो. हे खातीर एक 'Language Infrastructure Developement Corporation' ह्या कॉर्पोरेशनाचें काम करून घेवपी साहित्यीक नासचो. पर्थून एक फावट हांव बरयतां ह्या कॉर्पोरेशनाचो मुखेली साहित्यीक कसोच आसचो न्ही. आमकां हीं कॉर्पोरेशनां वा असल्यो अकादमी चलोवपाक जाय ते बरे प्रशासक आनी बरे वेवस्थापक. ह्या प्रशासकान घेतिल्लें काम पुराय करपी साहित्यिकांक, ह्या प्रकल्पांतल्या कामाची जापसालकी दिवची. थारिल्ल्या वेळा भितर काम पुराय करून घेवचें. आनी ते खातीर योग्य तो मोबदलो तांकां दिवचो. जर काम थारायिल्ल्या परस बेगीन केलें जाल्यार बोनस दिवचो. आनी थारायिल्ल्या वेळार काम जायना जाल्यार ताचें स्पश्टीकरण मागचें. जर समाधानकारक स्पश्टीकरण मेळ्ळें ना जाल्यार तें काम काडून धेवन दुसऱ्याक दिवचें. भाशेक कसल्या प्रकल्पांची गरज आसा हें समजून घेवपाक ह्या महामंडळान हेर भाशांतल्या विद्वानांचो आदार घेवचो आनी वळेरी थारावची आनी ते प्रमाण कामाची आंखणी करची.

कोंकणी भास ही साहित्याच्या मानान हेर भासां परस खूब भुरगी. हेर भारतीय भासांकय ही अशे तरेचीं रंगीत पुस्तकां काडपाक अजून तरी जमूंक ना. घडये पुस्तकांक आशिल्ली मागणी आनी छापणावळीचो खर्च हांचो मेळ बसना जावयें. पूण हो मेळ जो आजवेर बसलो ना तो फुडाराक बसतलो हाची इल्ली पसून खात्री ना. कारण आयचें इंटरनॅट यूग आनी मोबायलाचो जमानो हाचें पिशें इतलें वाडलां की प्रिंट मिडिया नामशेश बी जायना मूं असो भंय पडपाक लागला. प्रिंट मिडियाचेर हाचें केदेंय व्हडलें अरिश्ट आयलें तरी एक काळ येतलो जेन्ना सगळो संवसार परत ह्या प्रिंट मिडिया कडेन वळटलो.

सध्या तरी कोंकणी भाशेंत हो वावर सुरू जालो जाल्यार आख्ख्या भारतीय भाशांनी कोंकणीक वयलें स्थान निश्चीत मेळटलें. महामंडळाचे वतीन हे खातीर सबसिडायज्ड दर दवरूं येतात वा शार सुशोभिकरणाक जो पयसो मोडटा ताचे पसून येणावळ कांयच येना. पूण कामां करपाचें कोण सोडिना. तेंच तत्व कोंकणी भाशेचे बाबतींत आपणावन भाशेचे समृद्धतायेचो वावर हातांत घेवं येता. हो विचार आनी हाची मांडावळ राज्य पांवड्यार आनी केंद्रीय पांवड्यार जावपाक जाय. ह्या वावराचें स्रय आनी पुण्य भौ. दिगंबर कामत हांणी घेतलें जाल्यार गोंयकार भाव तांच्या रिणांत उरतले.

# पन्हाळगडाची भोंवडी



• दिलीप बोरकार

**गोंयच्यान** मुंबय वतना वा मुंबयच्यान गोंया परतताना म्हजी नदर ओडून घेता ती सह्याद्रीची पर्वत रांक. वेगवेगळ्या रुतूंत हांव हे वटेन गेलां, आयलां. दर खेपे ह्या सह्याद्रीन म्हाका आपलीं वेगवेगळीं रुपां, वेगवेगळ्या तासांनी उसोवन दाखयल्यांत.

गाडी जशी धांवता तसो रस्त्या कुशींतलो हो सह्याद्रीय धांवत आसता. तो धांवत आसता म्हणचे परस धुंवत आसता म्हणपच समा जातलें. धांवतात तीं ताच्या मुळसांतलीं आनी आंगा खांदार खेळपी रुखां. म्हजी गाडी मुखार मुखार धांवतना ह्याच सह्याद्रींची पर्वत तेमकां, सुळके, तकली वयर काडून, हात दाखोवन राव रे राव रे म्हणटात तें पळोवन ब्रेकाचेर आपसूक पांय वता आनी सैम सुंदरतायेन भरिल्ल्या त्या वाठाराचो मान, भोवमान राखपा खातीर गाडी थारोवचीच पडटा.

कितें कोण जाणा, म्हाका दोंगरांचें आनी दर्याचें पिशें. दर्याची उंचाय आनी दर्याची खोलाय म्हजे भितर आसा काय ना हाची म्हाका कल्पना ना. तें मेजपाचे वा दाखोवपाचे भानगडींत हांव केन्ना पडलों ना वा ताचेर तसो विचारूय केन्ना केलो ना. पूण म्हाका दोंगर आवडटात तशे म्हासागरूय आवडटात हें केन्ना लिपोवन दवरचें अशेंय दिसलें ना. म्हज्या आयुश्यांतलो चडांत चड वेळ हांवें दर्या कुशीक आनी दोंगरांनी सारला हें मात खरें.

हांव सह्याद्रीच्या मुळसांत पावलों म्हणटकच सह्याद्री म्हाका हटकिता ताचें कारण भोवतेक तेंच आसूं येता. सह्याद्री पर्वत रांकेंत म्हज्या सारक्या सैम मोग्या खातीर पिशें लावपी, मन भुलयणी भरपूर सैम संपत आसा. फकत जाय ती पळोवपाची नदर, पायांत चलपाची शक्त आनी सैमांत रंगपाची मनाची, काळजाची रसीकताय.

गाडयेंतल्यान हांगाच्यान वतना दोनांय कडानी नदर मारीत जाल्यार सह्याद्री पर्वत रांकेचेर दिश्टी पडटात ते वेगवेगळे सुळके. हे पर्वत रांकेंत मुखेल अशे सुमार 68 सुळके आसात. पूण 'भिमाची काठी' हो सुळको ह्या सगळ्या सुळक्यांचो राजाच म्हणूंक जाय.

रत्नागिरी-रायगड ह्या दोन जिल्ल्यां मदीं शिमे लागसार हो सुळको आसा. तो पळोवंक वतलो जाल्यार पोलादपूर म्हालांतल्या क्षेत्रपाल ह्या गांवच्यान चलून वच्चें पडटा. खूबशे गिर्यारोहक हो 'भिमाची काठी' सुळको सर करतात. थंय वचपा खातीर ट्रॅकिंग करपा खातीर रत्नागिरी वाठारांतले बरेच इश्ट म्हाका गळ घालतात. पूण हांव या या म्हणटत आयज मेरेन दुरून दोंगर साजरे करतां.

जेन्ना सळसळटें रगत आशिल्लें आनी नवीं नवीं धाडसां करपाची उमेद आशिल्ली तेन्ना हिमाचल, लडाख, लेह अश्या जायत्या सुवातांनी जिवाची पर्वा करिनासतना हांवें ते दोंगर माड्डिल्यात. खूबदां जिवाचेर बेतलां. पूण म्हजो कोण तरी एक राखणदार म्हाका तारत आयला आनी हीं धाडसां परतून करपाचो हावेस म्हज्या काळजांत रुजयत रावला. पूण सह्याद्री आमच्या शेजराक आसतनाच, ते वटेन बरेच खेपो वच-यो करूनय बऱ्याचश्या दोंगर तेमकांक म्हजे पांय लागले नात.

जेन्ना जेन्ना हावं हेवटेन पावतां आनी रायगड जिल्ल्याचें नांव रस्त्या कुशीक लायिल्ल्या तकट्यांचेर दिश्टी पडटा तेन्ना म्हाका एक आगळेंच स्फूरण चडटा. रायगडूच न्हय तर पन्हाळगड, विशालगड, सिंधुदुर्ग, शिवनेरी हीं सगळीं नांवां कानार पडलीं वा वाचूंक मेळ्ळीं जाल्यार कितें कोण जाणा, म्हज्या आंगांत विरश्री संचारता.

म्हजें मुळावें आनी उपरांतचें मॅट्रिक मेरेनचें शिक्षण मराठी माध्यमांतल्यान जाल्ल्यान म्हज्या शिक्षणांत महाराष्ट्र हो केंद्रबिंदू आशिल्लो. इतिहासांतल्या पुस्तकांनी महाराष्ट्रांतले गड आनी वीर पुरूश आसतालेच आनी काणयांच्या पुस्तकांनीय ह्यो व्यक्तीरेखा आसताल्यो. तांचो पराक्रम वाचून म्हजी छाती मुखार सरताली बाजी प्रभू, तानाजी मालुसरे, दादाजी कोंडदेव, छत्रपती शिवाजी महाराज, बी. सगळ्यांनी म्हजें भुरगेपण व्यापून उडयिल्लें. आमकां शिकोवपी मास्तरूय ह्याच वाठारांतले आशिल्ल्यान हे गड आनी थंयचे हे पराक्रमी

ोक हांचे वयलो धडो बी शिकयतना हे मास्तर ामके समरस जाताले. तांचेय भितर विरश्री ंचारताली. ह्या सगळ्या शिक्षणाचो प्रभाव ्हणा वा त्या शिक्षकांनी केल्ल्या संस्कारांक ागून म्हणा हे गड केन्ना तरी पळोवन येतलों अशें हांवें थारायिल्लें.

आतां हे गड पुस्तकांत आसात, ते गड जिखून तांचेर अधिकार गाजोवपी पराक्रमी ुरूशांचेर घडे आनी काणयो आशिल्ल्यान हो ाठार गोंयचे पासून खूब पयस खंय तरी आसतलो असो म्हजो आदीं समज आशिल्लो. ूण जेन्ना हांव कस्तुरबा मातोश्री हायस्कूलांत शिकयतालों आनी आमचे शाळेची भोंवडी एकदां कोल्हापूराक गेल्ली तेन्ना पन्हाळगड, बाजी प्रभू, बी सगळें हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयलें. हांव जंय भोंवता तो पन्हाळगड, ज्या पुतळ्या म्हऱ्यांत हांव उबो आसा तो बाजी प्रभूचो पुतळो आनी ताणेंच पावनखिंड लडोवन शिवाजी महाराजांक सुखरूप दुसरे कडेन म्हणल्यार विशालगडार वचूंक दिलें. आपूण विशालगडार पावलो म्हणटकच नाळींचो फार पेटोवन तुका खुणायता म्हणपाचें महाराजांनी ताका सांगिल्लें. सिद्दी जौहराचें सैन्य मोटें, तरी बाजी प्रभून तें आडावन दवरलें. बरोच वेळ नाळींचो आवाज येना. म्हणटकच महाराज विशालगडार पावलो ना जावंये! बाजी प्रभू एक सारको तलवार वावडीत आशिल्लो. पूण दुस्मानाचें सैन्य मोटें. कोणें तरी ताची गोमटी कातरली. तकली सकयल पडली बाजी प्रभूची. तरी बाजी प्रभू लढत रावलो. जेन्ना ताणें शिवाजी महाराजांनी सांगिल्ले प्रमाण नाळींचो आवाज आयकलो तेन्नाच प्राण सोडलो खंय!

हें सगळें आमकां आमच्या मास्तरांनी शिकयिल्लें. मुंडकें गोमटे पासून वेगळें जावन जमनीर पडूनय बाजी प्रभूची कूड कशी लढटाली काय? आनी नाळींचो आवाज कानार पडटकच कूड लढपाचें सोडून कशें सकयल पडलें काय? हो विचार करपाची ती पिराय नाशिल्ली. ती पिराय आशिल्ली आमच्या मनाची घडण जावपाची. पराक्रम, जिद्द, देशप्रेम, बी गजाली आमच्या मनाचेर कोरांतपा खातीरच हो इतिहास आनी तातूंतल्यो पराक्रमी व्यक्तीरेखा आशिल्ल्यो.

विद्यार्थ्यां वांगडा जेन्ना भोंवडेक वतात तेन्ना थंय शिक्षकांक तशें स्वातंत्र्य नासता. थंय एक शिस्त आसता. कोणें तरी घालून दिल्ली. मागीर ती शिक्षण खात्यान आसूं वा शिक्षण खात्यान घालून दिल्ल्या मार्गदर्शक तत्वांक स्वताक घुस्पावन घेवन शाळा मुखेल्यान बंदिस्त केल्ली आयटींतली शिस्त. ते शिस्तीनूच सगळें पळोवचें पडटा. शिक्षक आसलो तरी आपले नदरेन आपल्याक जाय तें जाय तशें पळोवंक मेळना आनी आपल्या विद्यार्थी वर्गाची नदर विशाळ करतलों म्हूण वेगळें पळयात अशें सांगपूय शक्य नासता.

हे सहलींत आमी शिक्षकां मर्दी एक देडशाणो शिक्षक आशिल्लो. असले प्राणी सगळ्या शाळा कॉलेजांनी आसताच. तो खंयूय वचूं ताका त्या वाठारांतली हेरां परस सदांच अदीक म्हायती आसता. मागीर तो त्या वाठारांतलो आसलो जाल्यार मागीर जालेंच!

कस्तुरबाचे ते सहलींत हांव शिक्षक आसूनय विद्यार्थीच कसो आशिल्लों. म्हणटकच म्हाका जाय तसो हो गड पळोवंक त्या वेळार गावलो ना.

आनीक एक खेप अशेंच आमी म्हणल्यार रमेश वेळुस्कार, प्रकाश पाडगांवकार, तानाजी हळर्णकार आनी हांव कोल्हापूराक गेल्ले. येतना आमी पन्हाळाक राविल्ले. रात थंय सारिल्ल्यान तशें व्हडलेंशें कांय पळोवंक मेळूंक ना. दुसऱ्या दिसा ल्हानशी चक्कर मारली पूण ती गाडयेंतल्यानच म्हणल्यार जाता. म्हज्या वांगडा आशिल्ले तिगूय जाण हे नोकरदार आशिल्ल्यान तांकां तशी सुटीय नाशिल्ली. म्हणटकच पन्हाळगडार एक रात सारून आमी दुसऱ्या दिसा गोंयांत कूच केल्ली. शेवटाक हांव एकटोंच पन्हाळगड सर करतलों अशें हांवें मनांतल्यान मनांत थारायलें.

थारायलें म्हूण जाता? ताका तसो योग येवचो पडटा. घडे भरले बगर खंय वडे मेळनात. जाणटेल्यांच्या ह्या अणभवाचे बोल आमचे कडेन आतां सगळ्यो सुविधा आसूनय मानून घेवचे पडटा. खंयचेय गजालीक योगाय जुळून येवचे पडटात. घटका भरली म्हणटकच आपशींच सगळें घडून येता. हें जुळून येवप केन्ना सपनांत लेगीत चिंतूंक नाशिल्लें अशेंय



आसता. म्हजेय बाबतींत पन्हाळा परतून वचपाचो योग्य आयलोच.

बिम्ब मासिकाची जापलसादारकी काकीन घेवं नाका आमी बिम्बाचें कार्यक्षेत्र विस्तारीत करपाचें थारायलें. दिवाळी अंका खातीर आमी गोंयांतूच त्याच त्याच लोकां कडेन जायराती खातीर हात फाफुडटालीं. हेय उद्देजक दिलीपा खातीर वा कोंकणी खातीर म्हूण फूल न्हय फुलाची पाकळी म्हूण कितेंय हातार उडयताले. तातूंत बिम्ब मासिकाक तशें वेवसायीक स्वरूप येना आशिल्लें. म्हणचे कितें हें म्हाका तेन्नाय कळना आशिल्लें आनी आयजूय कळना. पूण कांय इश्ट ते विशीं सल्लो दिताले म्हूण म्हजो वेवसायीक जावपाचो हो यत्न आशिल्लो. हेर दिवाळी अंकांनी जश्यो जायराती आसतात तश्यो आमच्याय अंकांत आसच्यो हो आमचो हावेस. तेन्ना दिवाळी अंकाच्या निमतान आठ-धा दिसांची भोंवडी करची आनी वाटेर जितलीं प्रेक्षणीय थळां आसात तींय पळोवन घेवचीं असो आमी बेत थारायलो. ना तर ह्या सगळ्या व्यापांत स्वतंत्र असो टूर करपाक वेळाचें नियोजन करपूच शक्य नासता. म्हणटकच ह्या निमतान आमची भोंवडीय जावं येताली आनी कामूय पुराय जावंक शकतालें.

दिवाळेची सुटी आशिल्ल्यान आमच्या वांगडा कुकी आशिल्लेंच. ताकाय भुरगेपणारूच भोंवडेची आवड आनी सवंय लायल्यार भुरगेपणारूच मनाचो विस्तार जावप बऱ्याक पडपाचें. ताका घेवन पयलीं आमी कोल्हापूर, बी वचून आयलीं. येतना पन्हाळा आमी आमचें बस्तान ठोकलें.

पावसाळो निकतोच सोंपिल्लो. हालींच्या

काळांत खंयचो रुतू केन्ना सुरू जाता तेंच खबर नासता. खरें म्हणल्यार दिवाळे कडेन पावतालो खंयचो? तो काळ शिंयाचो. कुडकुड्याची थंडी पडटाली ह्या दिसांनी. कोणाक सांगूंक वचत जाल्यार फकांडां दिसतलीं. आयचे पिळगेक तरी ती कल्पनाच येवपाची ना. आतां पावस केन्नाय पडटा. जूनाक सुरू जाता आनी नोव्हेंबर डिसेंबर मेरेन घसघशांनी पडटा. दिवाळी कडेन नरकासूर भिजता. थंडीच ना जाल्यार मागीर नरकासूर लासोवन फायदो कितें? थंडी आसल्यार तीय बी कुडकुड्यांची आसल्यार जळपी नरकासुरा म्हऱ्यांत उबो रावंक मजा आसताली. उज्याच्या ह्या धगान थंडी म्हऱ्यांतच येना आशिल्ली. आयज सगळें चक्रूच इबाडलां. त्याच चक्राच्या घुस्पागोंदळाक लागून रुखांय घुस्पून, गोंदळून गेल्ले वरी दिसताली. तरीय पावसाचें उदक धोकून धोकून थंयचीं तीं रुखां, त्यो वेली तृप्त जावन गेल्ल्यो दिसताल्यो. बाकीबाबाचें 'वेली ऋतमती झाल्या ग' म्हणल्यार कितें हाची प्रचिती येताली. रुखांचेर काजुल्यांनी मस्तपैकी दिवे पेटोवन आरास केल्ली. गाडयेचे फूल लायटीक लागून म्हज्या तें पयलीं लक्षांत आयलें ना.पूण वोल्ताचेर गाडी घुंवली म्हणटकच नदर आपसूक दावे वा उजवे वटेन वताली. खंयचोय उत्सव एकदां मनारकुरवो मोखून गेलो म्हणटकच तोच पळोवंक नदर ऐसपैस भिरभिरत रावता तशें म्हजें जालें.

गाडी चलोवन चलोवन उबगणशी आयिल्ली. खंयच्या तरी एका बऱ्या हॉटेलांत बस्तान ठोकपाची सगळ्यांकच इत्सा जाल्ली. हांव दोन-चार खेपो हांगा आशिल्लों तरी बरें हॉटेल अमूकच म्हूण सांगपाचें म्हाका धाडस जायनाशिल्लें. हांव हांगाचें सगळें जाणा असो नेट काडून मागीर त्रासांत पडपांत अर्थ नाशिल्लो. बरेंऽ हॉटेल म्हणल्यार जंय बरेंऽऽ जेवण मेळटा असलें हॉटेल हें आतां म्हाका सामकें पाठ जाल्लें.

हांव गोंया भायर गेलों म्हणटकच विशेश करून नुस्त्याचें जेवण टाळटां. नुस्तें हें गोंयांतूच खावपाचें. हांव व्हडलोसो मत्स्यभक्त नासलों तरी जेवणांत म्हाका नुस्त्याचें हुमण जायच. म्हाका ती डाळ, तो रोस व्हडलोसो घोस्ताक वचना. तरी गोंया भायर हांव खंयूय गेलों आनी नुस्तें खावप ना अशें जरी थारायलें आसलें तरी मेनू कार्ड आयलें म्हणटकच ताचे वयल्या नुस्त्याच्या पदार्थांचेर म्हजी नदर भोंवताच.

कुकीय तसो पयलीं शिवराकूच आशिल्लो. ताचें डाळ-भाताचेर चलतालें. ताकाय नुस्त्याची व्हडलीशी आवड नाशिल्ली. तो नुस्तें खायनाच म्हणल्यार जातालो. पूण हांवें ताका नुस्त्याची रूच लायली आनी आतां ताचें नुस्त्या बगर जायना अशें जावन गेल्लें.

काकी वांगडा आसली म्हणटकच म्हाका कितें मागोवचें आनी कितें खावचें हाचो हुस्का उरना. म्हाका कितें जाय, कितें नाका हाची ताका आतां पुरायेन कल्पना आयिल्ली आनी तें जें कितें मागयता तें हांव निश्चीतपणान स्वाहा करतालों.

आमी कोल्हापूरच्यान पन्हाळा पाविल्लीं. चार दरवाजा हुपून आमी साधोबा दर्ग्या कडेन रावलीं. खरें म्हणल्यार हांगा भितर सरचे आदीं गाडी थारायतात. प्रवेश फी भरल्या उपरांतूच भितर वचूंक दितात. पूण म्हाका पळोवन तांणी म्हाका सरळ भितर सोडिल्लो. म्हाका कोण समजले तेच जाणांत. म्हज्यान तशेंच मुखार वचूंक जातालें. पूण अशे पयशे बुडोवन मुखार गेल्यार मागीर जो कोण म्हजेर नदर घालता, तो म्हाका सोदूंकच आयला अशें म्हाका दिसता. ते परस पयशे दिवन उडयिल्ले बरे आसतात. मन सामकें टॅन्शन फ्री उरता.

साधोबा दर्गा आसा थंयच साधोबा तलाव आसा. कोण हो साधोबा? पन्हाळगडार भितर सरतनाच दावेवटेन ही एक आकर्शक, भव्य अशी वास्तू दिसता ती वास्तू म्हणल्यार 'हजरतपीर साधोबा दर्गा' हें एक जागृत देवस्थान म्हणटात.

हजरत शहादुधीन बाबा हो आपल्या बायल भुरग्यां वांगडा एकेश्वरवादाचो प्रचार करूंक सुमार 900 वर्सां आदीं ह्या गडार येवन राविल्लो. 1618 सालांत आदिलशहाचे कारकिर्दींत हैदर मलिक बिदर ह्या कारागिरान हो दर्गोबांदलो. .ह्या दर्ग्यांत हजरत शहादुधीन बाबा, ताची बायल मासाबेबी आनी पूत मासूमबसा अश्यो तीन समाधी आसात. त्या काळाचो पट्टो आनी तलवार आयजूय ह्या दर्ग्यांत पळोवंक मेळटा. दर्ग्याचें बांदकाम पुराय चुन्यान केल्लें आसा आनी दर्ग्याच्या वाठारांत जायते शिलालेख आमका पळोवंक गावतात.

ह्या दर्ग्या कडल्यान जंय साधोबा तलाव आसा थंयच्या एक रस्तो दावे वटेन गेला तो लता मंगेशकराच्या बंगल्या कडेन गेला. हांव थंयच रावन चार दरवाजाचो इतिहास दोळ्यां मुखार हाडटालों. चार दरवाजा म्हणल्यार इतिहासीक अशें महाद्वार. हांगा आशिल्ल्या चार दरवाजां मदल्या खंयच्या दारांतल्यान आयल्यार ह्या किल्ल्यांत प्रवेश मेळूंक शकता हाची कल्पना शत्रूंक येवप कठीण आसताली. हें भव्य अशें प्रवेशद्वार ब्रिटीशांनी 1744 सालांत जेन्ना आपल्या ताब्यांत घेतलें तेन्ना तोडून फोडून मातये भरवण करून उडयलें. जो मेरेन हो दरवाजो बंद आसतालो तो मेरेन शत्रूंक गडार प्रवेश करप भोवच कठीण आशिल्लें. हांगाच्या दगडी चौकटी वयलें कोरांतप ह्या दरवाजाचे भव्यतायेची साक्ष दितात. जेन्ना शिवाजी महाराजान 1659 सालांत पन्हाळगड काबीज केलो तेन्ना किल्ल्याच्या तटा वयल्यान चलून येवन खंय मावळ्यांनी हो दरवाजो पयलीं उगडलो. हो दरवाजो आदिलशहाच्या काळार इ.स. 985 वर्सा शमसुद्धीन ह्या सुभेदारान तो बांदिल्लो म्हणटात.

आमी हॉटेल हिलटॉप हांगा गाडी थारायली. हॉटेल बरें आशिल्लें तें जालेंचपूण ताची बांदावळूच आकर्शक आशिल्ली. हॉटेल म्हणल्यार तात्पुरत्या राबित्याची सुवात म्हूण केन्नाच बांदूंक फावना. हॉटेल ही रात सारपाची चार वणटीची तात्पुरती वेवस्था आसली तरी जे पर्यटक रात सारपा खातीर येतात ते वेगवेगळ्या उद्दिश्टान येतात. कोण हनिमुनाक येतात, कोण सैम सुंदरायेच्या सांगातान पर्यटनाक येतात. कोण लांबच्या प्रवासाक वचपी आपली काशेर घालोवन फुडल्या प्रवासा खातीर परतून ताजेतवाने जावंक येतात तर कांय लोक, जांचेर कसलें तरी अरिश्ट आयिल्ले आसा, जे दुख्खांत आसात तेय वाटे वयल्या प्रवासांत अशाच खंयच्या तरी हॉटेलांत रात सारतात. ह्या वेगवेगळ्या गिरायकां कडेन हॉटेल धनयांचें फकत गिरायक म्हणूनच नातें आसता आनी

ांच्या सूख-दुख्खा कडेन कसलोच संबंद
ासता हें जरी खरें आसलें तरी कांय हॉटेलां
ीय गजाल मतींत घेतात. तेच पासत वळख
ाळख नाशिल्लीं कांय हॉटेलां लेगीत
भोंवडेकारांक आपलीं दिसतात आनी त्या
हॉटेला कडेन आपसूक पांय वळटात.

हॉटेल हिलटॉप हें फकत नांवा खातीर हिलटॉप नाशिल्लें तर थंयच्यान सरभोंवतणचो वाठार नदरेक भरतालो. वातावरणांत बरीच थंडाय आशिल्ली आनी हवामान धुरसर कशें दिशिल्ल्यान एके तरेची थंडसाण भासताली. हॉटेल वाल्यान आमकां जेवणूय बरें दिलें. बरें म्हणचे, नांव दवरपा सारकें, कुतां काडपाक सुवात दवरूंक नाशिल्ली.

जेवन आमी न्हिदपाखातीर गेलीं. वेळ तसो विशेश जावंक नाशिल्लो. जेवता खाता म्हणसर रातचीं धा जावन गेल्लीं. कुकी, काकी खातीर ती व्हड रात जावं येताली. तातूंत प्रवासान जीव आंबून गेल्लो म्हणटकच तांकां न्हीद दोळ्यार आयल्या आसूं येताली. म्हजी रात म्हणल्यार बारा वरांचेर!

हांव येवन वरांडांत बसलों. थंयच्यान ऐसपैस पसरिल्लो पन्हाळगड दिसतालो. वातावरणांत हवेची जडसाण आनी धुकें आशिल्ल्यान रस्त्या वयले दिवे हळडुवेशे आनी झेमेल्ले वरी दिसताले. हॉटेलांतले दिवे मात बरें चकचकीत आशिल्ले. हांव रातच्या वेळार दिव्याच्या उजवाडांत नदर पावता थंय पळोवपाचो यत्न करतालों. आनी अकस्मात लायट गेली. आतांच दोळ्या मुखार दिसतालो तो पन्हाळाचो वाठार काळखांत लुप्त जालो. जादूच्या प्रयोगांत जादूगार माचेय वयलो हती ना करता, ट्रेन ना करता, विमान ना करता बी असल्यो गजाली पळोवन हांव अजापीत जातालों. हांगा तर म्हज्या दोळ्यां मुखार पन्हाळच ना जालो.

हांव दोळे ताणून लायट येवपाची प्रतिक्षा करूंक लागलें. खरें म्हणल्यार म्हाका लायटीची गरज नाशिल्ली. ह्या असल्याच वातवरणांत म्हाका बसप आवडटा. सिक्कीमाकक सोरेंग हांगा हांव रातच्या वेळार कितलीं तरी वरां असोच बसून रावतालों. तातूंतलें सूख आनी एकांत हाची नशा आगळीच आसता. पूण म्हाका लायट नाशिल्ली जाय आशिल्ली तरी रुमांतल्या लोकां खातीर. एसी ना, फॅन ना, टिवी ना अशें जालें म्हणटकच हेरांचोय एकांत भंग पावता.

केन्ना येतली काय लायट? असो म्हजे तकलेंत विचार येता थंय आसा, हांव बशिल्लों ते गॅलरीच्या कांय अंतराचेर दिव्यांचो उत्सव सुरू जालो. हो दीपोत्सव पळोवपा खातीरच तर ही कृत्रीम लायट काडून उडोवंक ना मूं? असोसो कितें विचार म्हजे तकलेंत आयलो.

सरभोंवतणच्या उजवाडाक लागून म्हजें लक्ष विशेश अशें त्या झाडां कडेन वचूंक नाशिल्लें. रातच्यावेळार दिव्याच्या उजवाडांत आंगार दंव घेत झेमेवपी त्या रुखां कडेन लक्ष दिवपा सारकें तशें खास कांयच नाशिल्लें. पूण आतां दिवे पालवल्या बराबर तीं झाडां सामकीं पर्जळून आयिल्लीं. उजवाडाचीं झाडां तीं हींच काय? हिमालयाच्या वाठारांनी झगझगपी वखदी झाडां तीं हींच काय? थंयचीं सगळीं झाडां काजूल्यांनी चक्क भरिल्लीं. येदोळ गाडयेंतल्यान येता आसतना कांय झाडांचेर हो झगझग दिश्टी पडिल्लो. पूण तो ह्या दृश्या मुखार कांयच न्हय अशें म्हणचें पडटालें. एका एका झाडाचेर इतले काजुले?

दिसलें, हें उजवाडाचें झाड पळोवपा खातीर कुकीक,काकीक उलो मारचो. पूण अकस्मात लायट आयली. दिव्यांच्या झगझगांत ही चमचम खंयचे खंय ना जाली.

असलें हें उजवाडाचें, काजुल्यांचें झाड हांवें काणकोणां खोतीगांव काय खंय तरी पळयिल्लें. नेहरू युवा केंद्राचो थंय कॅम्प चलतालो. केंद्राचो संघटक शिरीष लवंदे म्हाका, आवदा व्हिएगश आनी कोणाकोणाक गेस्ट म्हूण घेवन गेल्लो. रातचो हांव थंयच एके शाळेच्या बलकांवांत न्हिदिल्लों हेरां सांगाताक. हातरुणाचेर आड पडून हांव काळखांतली ती रुखावळ ताखेतालों. गुडूप्प काळखांत थंयची रुखावळ काजुल्यांनी भरून झगझगताली. त्या काळखांतलो तो दीपोत्सव आनी रातकिड्यांची ती कर्कश आरड! आरड काय तांचें गायन? आमकां न्हिदपाचें आसा देखून आमचे नदरेन तें कर्कश रडप. पूण तांचो तर उत्सव चलता.

आमकां ह्या काजुल्यांचें अप्रूप. आमी शारांत रावपी लोक. आमकां रुखांची नसाय. आमकां खांब्या वयले दिवे जाय. रुखां वयले न्हय. काजुल्यांक निर्मितल्यान हे पिकपीक दिवे कित्याक दिल्यात काय? ताचें कारण कितेंय आसूं, पूण संवसारभरच्या भुरग्यांक हे काजुले जाय ते खेळपाक. तांकां बसयिल्ल्या ह्या दिव्यांक लागून भुरग्यांनी ह्या मोनजातीचेर खूब अत्याचार केला. ह्या काजुल्यांक बाटल्यांनी भरून तांचो बॅटरे दिवो करपाचो वावर दरेक भुरग्यांनी केलाच.

खरें म्हणल्यार म्हाका रातच्या वेळार जेवल्या उपरांत पन्हाळगडार एक फेरी मारपाची आशिल्ली. हो सगळो नजारो हॉटेलांतल्यान रुमांनी बसून तोखेवपाचो नासता. ते खातीर भायर सरून सैमांत भरसून वचपाचें आसता. म्हज्याय मनांत भायर सरपाचें घोळटालें. पूण पन्हाळा म्हणटात तें सोरपांचें साम्राज्य अशें राजगोळकार काय कोणें तरी म्हणिल्लें. पयले खेप आयिल्लों शाळेच्या भुरग्यां वांगडा तेन्ना ताणेंच 'रात्रीचे बाहेर पडू नका. साप असतात' अशी आरोळी दिल्ली. तेन्ना आयचे इतलो झगमगाट नाशिल्लो. अजून पर्यटन थळ म्हूण पन्हाळा तितलो वेवसायीक जावंक नाशिल्लो. पंचविसेक वर्सां पयलींची गजाल ती. तेन्ना हांगाच्या पर्यटनाक पर्यावरणाचे नेम आशिल्ले. आयज बाजार जाल्लो. त्या वातावरणांत आशिल्ले सोरोपूय पळून गेल्यात जावंक जाय.

सोरपांक नाग म्हणटात. पन्हाळगड हो नाग जमातीचो गड. पयलीं हाचें नांव 'पन्नगालय' आशिल्लें. ताचोच अपभ्रंश उपरांत पन्हाळगड असो जालो. 'पन्नग' म्हणल्यार सोरोप आनी 'आलय' म्हणल्यार घर. ह्या किल्ल्याची सगळ्यांत पयली म्हायती मेळटा ती तिसऱ्या शेंकड्यांत. पयलो शिलाहार वंशाचो भोजराज नृसिंह हाचे कारकिर्दीत हो किल्लो बांदलो. तो नागांच्या ताब्यांत आशिल्लो. हांगा खूब सोरोप आशिल्ल्याचे पुरावे मेळटात खंय. पूण नाग ही जमात आनी सोरोप हे प्राणी. सरपटपी. तांचो मेळ नाग जमाती कडेन कितले मेरेन घालप होय एक प्रस्नूच. ही सोरपा वरी डंक धरपी जमात आसूं येता.

ह्याच वाठारांत 'पराशर' रुशीन तपश्चर्या केल्ली म्हूण पन्हाळाचें आदलें आनीक एक

नांव म्हणल्यार 'पराशराश्रम' आशिल्लें अशें म्हणटात. हांगा जळीमळी आशिल्ल्या असंख्य तळ्यांनी साळकां फुलतात. ह्या पद्माक लागून 'पद्मालय' अशेंय नांव पन्हाळाक आसा.

पन्हाळा हो महाराष्ट्रांतलो एक म्हत्वाचो गड आनी पर्यटन थळ. महाराष्ट्रांतल्या पौराणीक, इतिहासीक आनी आतांच्या काळा वयलेंय तें एक नामनेचें थंड हवेचें ठिकाण. सैम निर्मितीत असो किल्लो म्हणल्यार फकत कोल्हापूरचेंच न्हय तर सबंद महाराष्ट्राचें भूशण जावन आसा. ह्या पन्हाळगडार शिवाजी महाराज, संभाजी राजे, तारा राणी, बाजी प्रभू, शिवा काशीद आनी जायत्या व्यक्तींच्या पराक्रमाचो, कर्तृत्वाचो इतिहास घडला.

हजारांनी वर्सांचो इतिहास ह्या पन्हाळगडार वसला. गडाच्या काळजांत तो सांबाळून आसा. ब्रह्मदेवान जीव निर्मणे खातीर आपले बायले वांगडा हेच सुवातेर तपश्चर्या केल्ली. तेच पासत हाका 'ब्रह्मशैल' म्हणटात. भोजराजान सातारा, भुदरगड, बावडा, विशालगड ह्या सारके जे 15 गड बांदिल्ले तातूंतलो हो एक गड. शिलाहार भोजराजा दुसरो (1178-1209) हाची पन्हाळा ही राजधानी आशिल्ली. देवगिरीच्या यादवान ताचो पराभव केलो तेन्ना किल्लो मराठ्यां कडेन गेलो. 1489त विजापूरचे आदिलशाही स्थापने उपरांत तो विजापूरकारां कडेन गेलो. विजापूरकारा कडल्यान 1659त तो शिवाजीन घेतलो. जेन्ना सिद्धी जौहरान पन्हाळगडाक वेडो घालो तेन्ना शिवाजीन तो ताचे सुवादीन केलो. 1673त शिवाजीन तो परत घेतलो. तो शिवाजीच्या मरणा मेरेन ताचेच सुवादीन उरलो. तो ताब्यांत घेवपाचो खूब जाणांनी यत्न केलो पूण कोणाक येस आयलें ना. मोगलांनी उपरांत हो गड ताब्यांत घेतलो. तांचे कडल्यान परशुराम त्र्यंबक हाणें 1692 वर्सा तो ताब्यांत घेतलो. 1701 सालांत तो औरंगजेबाच्या ताब्यांत गेलो. त्याच वर्सा रामचंद्रपंत अमात्य हाणें तो परतून घेतलो. 1705 वर्सा ताराराणी हिणें पन्हाळा ही आपली राजधानी केली. 1708त साताऱ्याच्या शाहू वांगडा जाल्ल्या झुजांत शाहून पन्हाळो घेतलो. ताराराणी तेन्ना मालवणाक गेली. परतून तिणें 1709त पन्हाळा घेतलो. 1782त पन्हाळगडा वयली राजधानी कोल्हापूराक गेली. 1827त पन्हाळा ब्रिटीशांचे सुवादीन पावलो. 1844 सालांत शिवाजी चवथो हाच्या काळांत साताऱ्याक रावपी कर्नल ओव्हन्स भोंवडेर आसतना बंडखोरांनी ताका धरून पन्हाळा हाडलो आनी बंदखणींत उडावेन बंड केलें. ह्या बंडखोरां आड ब्रिटीश सैन धाडून 1844 दिसा हो गड ताब्यांत घेतलो. ह्या वेळार गडा वयले बुरूज, तटबंदी बी मोडून मातये भरवण केले.

हो सगळो इतिहास दोळ्यां मुखार हाडीत जाल्यार दोळ्यां मुखार व्हांवतना दिसतात ते फकत रगताचे पाट आनी कानार आवाज गाजता तो तलवारींचो खणखणाट आनी आर्मांच्या आनी नाळींच्या गुळयांचो फार.

पन्हाळगडार राष्ट्रकूट, चालुक्य, शिलाहार, भोज, यादव, पाळेगार, बहामनी, आदिलशाही, मराठे अश्या कितल्या तरी राज्यकर्त्यांनी राज्य केलें. तांच्यो सगळ्यांच्यो खुणो हांगा पन्हाळगडार आसात.

सकाळीं आमी ब्रेकफास्ट बी करून सबंद पन्हाळा पळोवपाचें थारायलें. पळोवपा सुवातो आसात त्यो पळयल्यार एक दीस पावपाचो नाशिल्लो. दोन थळां मदलें अंतर इतलें आशिल्लें की चलून गेल्यार दिसाक एक दोन थळां पळोवन जावपाचीं. एकलो गायड मेळ्ळो, ताणें आपूण तुका रिक्शेन व्हरता म्हूण सांगलें. जर रिक्शा वता जाल्यार म्हजी गाडी कित्याक वच्ची ना! पूण वाहनां व्हरूंक मनाय आसा अशें सगळेंच सांगताले. म्हाकाय तें खरें दिशिल्लें.

पूण हांव लेखक बी म्हणपाची खबर एका तरनाट्याक कळ्ळी. तो इतिहासाचो अभ्यासक आशिल्लो आनी शिक्षण घेतालो. ताकाय बरोवपाची आवड आशिल्ली. म्हजें नांवूय ताणें आयकल्लें. तरुण भारताचेर हांव सदर बरयतां हाची ताका कल्पना आशिल्ली. ताणें खऱ्यांनीच वाचलां काय सांगूंक जाय म्हूण सांगतालो ताकाच खबर! पूण ताणें आमकां भोंवडावपाची जापसालकी घेतली आनी तीय बी आमचेच गाडयेंतल्यान. जेन्ना थळावोच मनीस आनी तोय बी शिक्षीत आनी इतिहास जाणा जाल्लो आमकां घेवन भोंवता तेन्ना आमकां हुस्को करपाची गरज नाशिल्ली.

आमच्या वांगडा गाडयेंत बसून तो आमकां म्हणल्यार म्हाका एकान एक म्हायती दितालो. नांव रमेश काय कितें तरी सांगिल्लें, पूण ताका थळाव्या इतिहासाची म्हायती आशिल्ली.

इतिहासांतल्या कितल्या तरी घडणुकांचो साक्षीदार हो पन्हाळगड आशिल्लो. ताच्यो खुणो हांगा जळीमळी दिसून येताल्यो. शिवाजी महाराज हांचें चडांत चड वास्तव्य ह्याच गडार आशिल्लें. कवी मोरोपंत, समर्थ रामदास, राजा भोज हांचेंय वास्तव्य ह्या गडार आशिल्लें.

पन्हाळगडाचो आंवाठ तसो खूब व्हड आशिल्लो. ताका लागून सपाट प्रदेश भरपूर आशिल्ल्यान इमारती, तलाव, झाडां बी खूब प्रमाणांत दिसतालीं. महाराष्ट्रांतल्या हेर किल्ल्यां परस हो किल्लो सैम सुंदरायेन चड भरिल्लो आसा म्हणपाचें नदरेक भावतालें. म्हणटकच प्रत्येक जाणाक हो किल्लो आपले सुवादीन उरचो अशें दिसल्यार अजाप नाशिल्लें.

पर्यटना खातीर पन्हाळा दिसानदीस फुलत आसा. तेच नदरेन ह्या वाठारांत हांगाचे तरनाटे पारंपारीक वाद्यां वाजोवंक शिकतात, तलवार, दांडपट्टो वावडूंक शिकतात, भजन, पोवाडो महणपाची तालीम घेतात. तातूंतल्यान आपली जोड करतात. पन्हाळ गड हो दरेक भोंवडेकारान आनी इतिहासकारान पळोवपा सारको आसा. हांगाचो ताराराणी राजवाडो, सज्जा कोठी, वाघ दरवाजा, दौलती बुरूज, पुसाटी बुरूज, अंबरखाना, दारूगोळा कोठार, अंधारबाव, कलावंतीण महाल, किल्ले पावनगड, तुपाची विहीर, पांडव कालीन लेणी, बाजी प्रभू समाधी अशीं कितलीं तरी थळां आसात जीं रमेशान आमकां थकनासतना दाखयलीं.

पन्हाळा गड हो थकता थकतनाच पळोवपाचो आसता. तो पळयतना तसो थकवो येनाच. चडटा तें मात स्फूरण. गडा वयली ही भोंवडी तशी सासणाची यादींत उरपा सारकी आसाच आनी परतून येवपा खातीर साद घालपी तर नक्कीच आसा.

(जाग्या खातीर ही भोंवडी हांगा मर्यादीत केल्या. पुस्तकांत सगळ्या थळांचें वर्णन येतलें : लेखक)

# नासिमेंत



• अपर्णा गारुडी
शिवोली.
मो: 9823098254

**पंदरा** वर्सां पयलींची गजाल. बदली जावन हांव त्या इश्कोलांत आयिल्लें. तो म्हजो पयलो दीस. पांचवेच्या वर्गांत भितर सरलें. नवी टीचर येतली म्हूण विद्यार्थी उमळशिकेन वाट पळयताले. तांचो परिचय करून घेवपाक 10-15 मिनटां गेलीं. वर्गांत वीस विद्यार्थी. तातूंतले पांच गैरहाजीर. णवाक पांच मिनटां आसतना एक विद्यार्थी येवन वर्गाच्या दारार उबो रावलो. ''टीचर हांव भितर येवं?'' ताणें विचारलें. लोळको गणभेस, मोच्यां सयत धोंपरां मेरेन चिखलांत बुडिल्ले पांय. तोंडार चिखलाचे दाग, रेब्यांत बुडिल्ले हात. अशे अवस्थेंतय ताची सोबीतकाय नदरेंत भरताली. गोरोपिट्ट, काळ्याच मुदयाळ्या केंसांचो आनी गुडगुडीत भुरगो. खरशेत दारार उबो आशिल्लो. हांवें म्हणलें, 'भितर यो. नांव कितें तुजें?' तो भितर येता थंय आसा सगळ्यांनी ताच्यो कागाळी सांगपाक सुरवात केली. तांकां शांत करीत हांवें म्हणलें, 'जाका प्रस्न विचारला तोच जाप दितलो'. वर्ग शांत जालो. 'टीचर हांव नासिमेंत. लेट जालो. सॉरी टीचर', नासिमेंतान म्हणलें. 'आरे हाका लेट म्हणटात. पांच-धा मिनटां लेट समजूं येता. आतां तर तास सोंपत आयला. तुजो अवतार पळय. कितें हें?' हांवें म्हणलें. नासिमेंतान जाप दिली, 'कितें करूं टीचर. हांव इश्कोलाक येवपाक बेगीन भायर सरिल्लो पूण मर्दीच रॉजरालो दुकर धरपाक वच्चें पडलें. तेका सकाळीं फुडेंच गिरायक येयलोलें न्हू? दुकर सगळो गांवभर धांवतालो. हाताक गावनासलो. दुकरान धरून दिल्यार चाळीस रुपया दिता म्हणपाक लागलो. हांवें आनीक वेळ केला... सोमतो धांवलो दुकरा फाटल्यान. व्हाळांतल्यान, रेब्या कोंडांतल्यान, शेतांतल्यान. हाडलो धरून. रॉजरा कडल्यान चाळीस रुपया घेतले आनी सोमतो हिंगा धांव मारली'. नासिमेंत एका स्वासान उलयलो.

'आरे, पूण इश्कोल सोडून ह्यो राटावळी तुका कोणें सांगल्यात', हांवें विचारलें.

'टीचर तूं नेवी आसा. तुका कांय खबर ना तें. पयशे नासल्यार जेवतलो किरें?' ताचो प्रस्न आयकून दिसलें, खरें हांव नवें आसा. आनी ह्या पांचवेच्या पोरा मुखार तर सामकेंच अज्ञानी. हें प्रकरण दिसता तितलें सादें ना. हांवें ताका सांगलें, 'आतां मात्सो हात-पांय धुवन वर्गांत बस'.

तो भायर गेलो. इश्कोला कुशीच्या गाड्यार वचून ताणें शाबू हाडलो. मैदाना वयल्यान नळाचेर शर्ट उमळून घालो. हात-पांय धुले आनी थंयच शर्ट आनी मोचे सुकयत बसलो. फुडल्या दोन पिरेडांनी हांव त्या वर्गांत वचून पळयत जाल्यार नासिमेंत वर्गांत ना. भुरग्यांक विचारलें तेन्ना एकल्यान म्हणलें, 'टीचर तेचे शर्ट सुकोंक नासतेले. येतलो तो मदले सुटये उपरांत. तेचे सदचेंच हें'. मदले सुटयेंत हांवें ताचे विशीं हेर शिक्षकांक विचारलें तेन्ना कळ्ळें...

नासिमेंताक आवयबापूय ना. घर-प्रॉपर्टी भरपूर आसा. पूण ताचे परस पंदरा वर्सांनी व्हडल्या भावान आनी भावजयेन सगळें आपल्या नांवार करून घेतल्या. ताचो भाव बरो. पूण तो बोटीर आसता. वर्सांतल्यान एकदां येता. घरांत ताची व्हनी आनी भावाली दोन भुरगीं आसात. तांचे वांगडा तो रावता. पयशे जोडून हाडले बगर तागेली व्हनी ताका वाडिना. बाबडो नासिमेंत मेळत तें काम करून दनपारां व्हनये मुखार पयशे दवरता आनी वाडटा तें जेवता. सकाळीं च्याचो घोंट लेगीत ती ताका दिना. ताका शिकपाची खूब आवड देखून पादीगारान ताका फावता तेन्ना इश्कोलाक येवन बसपाक सांगलां. सगळ्यो टीचरी ताका मजत करतात. सामको अपुरबायेचो आनी सगळ्यांक गरजेक पावपी असो तो भुरगो. नशीब बाबड्याचें, एक टीचर उमेदीन ताचे विशीं उलयली.

हांव विचार करपाक लागलें. इकरा वर्सांचो सोबीत, अपुरबायेचो भुरगो. बऱ्या घरांतलो. सगळें आसून लेगीत असो गांवार पडला. इतले ल्हान पिरायेंत कसो सोंसता आसतलो तो हें सगळें. मायपांयन संवसाराचो निरोप घेतना ताचे भुरगेपणूय वांगडा व्हेलें. तरणे पिरायेचेर परिस्थितीचे घाय सोंशीत दुकरां फाटल्यान धांवपी नासिमेंत म्हज्या काळजाक घाय करून गेलो. ताचे व्हनयेचें काळीज कसलें आसतलें काय? पयशां खातीर मनीस इतलो निर्दयी जाता. मदले सुटयेंत भायर खेळपी भुरग्यां मदीं हांव नासिमेंताक सोदपाक लागलें. इतल्यान सुकिल्लो शर्ट आंगार चडयत ताकतिकेन इश्कोलाचे गेटी भायर वतना हांवें ताका पळयलो. मदली सुटी सोंपपाक पांच मिनटां उरल्यांत. आतां आनी हो खंय गेलो काय? म्हज्याच वर्गांतलो भुरगो तो. हाका वाटेर किरें जायत जाल्यार... म्हजेर आकांत आयलो. मदली सुटी सोंपना फुडें हांव पांचवेच्या वर्गांत

**नासिमेंताक आवयबापूय ना. घर-प्रॉपर्टी भरपूर आसा. पूण ताचे परस पंदरा वर्सांनी व्हडल्या भावान आनी भावजयेन सगळें आपल्या नांवार करून घेतलां. ताचो भाव बरो. पूण तो बोटीर आसता. वर्सांतल्यान एकदां येता. पयशे जोडून हाडले बगर तागेली व्हनी ताका वाडिना. बाबडो नासिमेंत मेळत तें काम करून दनपारां व्हनये मुखार पयशे दवरता आनी वाडटा तें जेवता.**

गेलें. पळयत जाल्यार नासिमेंत पयल्या बांकार बसला. हांवें विचारलें, 'मदले सुटयेंत म्हाका सांगिनासतना गेटी भायर कित्याक गेल्लो? मुखेल रस्त्याचेर गाडयो कितल्यो वेगान वतात. तुका किरें जाल्लें जाल्यार?'

'सॉरी टीचर, तुका सांगिनासतना गेलों. पूण वचूंक नासलों जाल्यार भाजी-पाव मेळचो नासलो. काल रातच्यान कांयच खावंक नासलें. प्रासा वयल्या हॉटेलाचो कोयर सांजे वेळार हांव सायकलीन दोंगरार व्हरून उडयतां. ताचे बदलां हॉटेलकार म्हाका मदले सुटयेंत चाव आनी पाव-भाजी फुकट दिता. कळाव जाल्यार तीय मेळना. फाल्यांच्यान तुका सांगून वतलों टीचर. सॉरी'. ताचो तो निरागस चेरो, सत आनी स्पश्ट उलोवप, गोड, भंय विरयत उतरां आयकून म्हजो राग गेलो. ताची काकुळट दिसली. इतल्या ल्हान पिरायेर कश्ट करून पोट भरपाची परिस्थिती ताचेर आयिल्ली. ताचें भुरगेपणूच करपून गेल्लें. हांवें मायेन ताचे तकले वेल्यान हात भोंवडायलो आनी ताका बस म्हणलें. त्या मायेच्या स्पर्शान ताच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. हांवें ताका इश्कोल सुट्टकच स्टाफ रुमांत म्हाका मेळपाक सांगलें. इश्कोल सुट्टकच तो आयलो. हांवें ताका विचारलें, 'तुजे विशीं जें हांवें आयकलां तें सगळें खरें?' 'हय टीचर, पूण तूं म्हजे खातीर खंती जावं नाका. म्हजी काकुळट करूं नाका. हांव आतां खूब स्ट्राँग जालां. कोणाकूच भियेना. म्हजे व्हनीयेन म्हजे मांयक खूब सतायली. मायन मरतना म्हाका सांगिल्लें, केन्नाच कोणाक भिये नाका. फट उलोवं नाका. चोरी करूं नाका. फुकट खावं नाका. कश्ट कर आनी खा. हांव तेंच करतां. हांव फाल्यांच्यान वेळार इश्कोलाक येतलों. तुका त्रास दिवचो ना'. इकरा वर्सांचो पोर म्हाका समजायतालो. ताचें एकेक उतर म्हजें काळीज हालोवन वतालें. ताचे नदरेंतलें निरागसताय, निर्भयताय, परिस्थितीची जाणीव ताच्या दरेका उतरांतल्यान ताच्या जिणेचे वास्तव कथन करताली. हांवें म्हणलें, 'हें पळय, तुका कसलीय गरज आसत जाल्यार म्हाका सांग'. 'बरें टीचर', म्हणीत नासिमेंत गेलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं वर्गांत म्हजी नदर नासिमेंताक सोदपाक लागली. कालच्यान नासिमेंत तकलेंत घर करून बशिल्लो. आयजूय नासिमेंत पयल्या तासाक वर्गांत ना. भुरग्यांनी सांगलें, 'टीचर गाब्रू पोदेराक सुण्यांनी घांसायलो. तेका हॉस्पिटलांत व्हेला. तेगेले उंडे विकोंक नासिमेंत भोंवता. पूण तेणें तुका सांगो धाडला की तास सोंपचे पयलीं वर्गांत पावता म्हूण'. हांवें कपलार हर मारलो. उतर दिल्ले प्रमाण तास सोंपचे पयलीं उंडे विकून येवन नासिमेंत वर्गांत हजर. हांवें विचारचेपयलींच ताणें सगळीं गजाल सांगली. आतां हें सदचेंच जाल्लें.

केन्ना दुकर धरपाक, केन्ना कोंबयो

घरपाक, केन्ना झाडां शिंपपाक, तर केन्ना कोणाचो बाजार हाडून दिवपाक नासिमेंत वतालो. केल्ल्या कश्टाचें मोल चुकनासतना मागून घेतालो. काम वेवस्थीत करतालो. जॉब पार्ट टायम, इश्कोल पार्ट टायम अशेंच सगळें ताचें चलिल्लें. तरीकय परिक्षेंत बऱ्या गुणांनी पास जातालो.

जें किंतें जोडटालो तातूंतले अर्देपयशे हाडून म्हजे कडेन दितालो. 'टीचर हे पयशे तुजे लागीं दवर आनी हांव मागतां तेन्ना गरजेक म्हाका दी. घरा व्हेल्यार व्हनी सगळेच पयशे काडून घेतली'. ताचे पयशे दवरपाक पयलीं हांवें न्हयकार दिलो. पूण तो आयकच ना जालो तेन्ना बँकेंत वचून ताच्या नांवान खातें उगडलें. सदांच अर्दी जोड तो बँकेंत घालतालो. ताका केन्नाच पयशे काडचे पडले ना. ताच्यो ल्हान ल्हान गरजो शिक्षक वांटून घेताले. वर्सांतल्यान एकदां ताचो भाव शिक्षकांक मेळपाक येतालो. हांवें ताका परिस्थितीची जाणीव करून दिली. पूण बायले मुखार ताचें शाणेपण चलनाशिल्लें. तिका कळनासतना नासिमेंताच्या वखदपाणयाक कांय पयशे तो म्हजे कडेन दिवन वतालो. ताचे गरजेक तेच पयशे हांव मोडटालें. उरिल्ले ताच्या खात्यांत बँकेंत जमा करतालें. कश्ट करून तो पोट भरतालो. गांवांतले गांवकार, हॉटेलकार, पसरकार सगळ्यांचोच तो अपुरबायेचो जाल्लो. पांच वर्सांनी म्हजी बदली जाली तेन्ना नासिमेंत णव्वेक आशिल्लो. ताका कळ्ळें तेन्ना तो खूब रडलो. 2-3 दीस सारको जेवलो ना. म्हज्या सेंडऑफा दिसा रडून रडून ताचे दोळे सुजिल्ले. त्या दिसा हांव ताका म्हज्या घरा घेवन आयलें. म्हजे बराबर जेवपाक बसयलो. पूण तो एकूच घांस घेना जालो. 'टीचर तूं परत केन्नाच ह्या इश्कोलांत येवची ना?' ताचो प्रस्न. हांवें म्हणलें, 'तूं सगळें जेव. तुजें जेवण जाले उपरांतूच हांव तुजे कडेन उलयतलें. म्हज्या तोंडाक पळयत तो मोन्यांनी जेवलो. ताका इतलो अगतीक हांवें पयलीं केन्नाच पळोवंक ना. तो जेवल्या उपरांत हांवें ताका समजायलें. 'पळय नासिमेंत, तूं फुडल्या वर्सा धावी जावन हें इश्कोल सोडून वतलो. म्हजे खातीर काय तूं हांगाच रावचो ना मरे. तूं नासतना आमकांय इश्कोलांत वाज येतलो. म्हणून हांव पयलींच वचूंक सोदतां. आतां तुका म्हजें घर खबर आसाच. तुका जाय तेन्ना आमगेर यो. तुका कोण ना हें तकलेंतलें काडून उडय. हो पासबूक घे. सांबाळून दवर. बरोऽऽ शीक'. ताणें तकली हालयली. आनी दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी म्हजो निरोप घेतलो.

आपले ल्हानश्या जिवितांतली दरेक वायट-बरी घडणूक दर दिसा नासिमेंत म्हाका सांगतालो. फाल्यांच्यान हांव इश्कोलांत येवचें ना ही कल्पनाच ताका असह्य जाताली. हांव इश्कोल सोडटना ताच्या अकावंटाचेर स हजार सातशे चाळीस रुपया आशिल्ले.

फुडें कश्ट करीत तो बी.ए. मेरेन शिकलो. केन्नाय मेळपाक घरा येतालो. ह्या 2-3 वर्सांत ताका पळोवंक ना. हालींच कामा निमतान त्या गांवांत गेल्लें. म्हजे बराबर म्हजी इश्टीन आशिल्ली. च्या घेवपाक आमी गांवांतल्याच एका बऱ्याशा हॉटेलांत भितर सरली. च्या घेवन जातकच वेटराक आमी बिल मागलें. ताणें म्हणलें, 'पातरांवान तुमकां बिल दिवं नाका म्हणलां'. पळयत जाल्यार हॉटेलाच्या गल्ल्यार बसून नासिमेंत हांसतालो. ताणें आमकां भितर सरतना पळयिल्ली. उठून आमकां पावपाक भायर आयलो. 'टीचर हें हॉटेल हांवें विकत घेतलां. देवाच्या आनी तुमचे कृपेन चल्लां बरें'. इतलें म्हणीत ताणें बोल्सांतल्यान एक बँकेचो पासबूक काडलो आनी म्हणलें, 'टीचर हो पासबूक पळय, हांवें तस्सो दवरला. तुजी याद म्हणून. तातूंतलो एकूच पयसो मोडूंक ना. ह्या अकावंटाचेर आतां देड लाख रुपया आसात. म्हज्या कश्टाचे'. ल्हान भुरग्यां भशेन उमेदीन तो म्हाका पासबूक दाखयतालो. 'घरच्या सगळ्यांक घेवन एक दीस जेवणाकच यो टीचर'. हांवें म्हणलें, 'येता एक दीस. नासिमेंत तुजे कश्ट, तुजो सभाव आनी तुजी म्होवाळ उतरां तुका जिणेंत सदांच येसस्वी करतली. आयज म्हाका तुजो अभिमान दिसता. स्वताच्या कश्टान तुवें हें सगळें केलां. आयज हांव खूब खूश आसा'. म्हजीं उतरां आयकून तो ल्हान भुरग्या भशेन भुल्लुसलो, मुरगुडलो. एकूच मिनीट राव म्हणीत हॉटलांत भितर गेलो. आनी घरच्यां खातीर गरम गरम सामोश्यांचें व्हडलें पार्सल घेवन आयलो. नाका म्हणटा आसतना ताणें तें गाडयेंत व्हरून दवरलें. घरच्यांक घेवन येवपाचें ताका उतर दिवन आमी ताचो निरोप घेतलो.

खरेंच शुन्यांतल्यान विश्व निर्माण करपी स्वाभिमानी, कश्टाळू नासिमेंत एखाद्रोच आसता. देखूनच ताची याद मना पोरसांत सासणाची परमळत रावता.



# दर खिणाक फादर डे



• सुफला रुद्राजी गायतोंडे
मिरामार
मो : 9823111917

“
**पापा हो म्हजो पापा आसलोच. ते भायर तो म्हजी आई, दैवत, गुरू सगळेंच न विसरपाचें. सांजेर साडे स जावचे पयलीं घरांत आसूंक जाय हो एक धाक म्हज्या मनाक आसलो. हांव तर भुरगेपणांत सामकें मस्ती. चलयाची मस्ती पूण जिद्दी म्हणटकच पापाक कडक शिस्तीन म्हाका सांबाळचें पडलें. पूण ते शिस्तींत खंय तरी पापाचो मोग लिपला म्हणपाचें हांवें सोदून काडिल्लें. मनशाक न्हावपाक, जेवपाक, न्हिदपाक, खेळपाक, अभ्यास करपाक अश्या सगळ्या कामांक थोडो तरी वेळ जाय. तशेंच दुसऱ्या दुयेतींची सेवा करपाक, अडचल्ल्यांक पावपाक वेळांत वेळ काडूंक जाय ही पापाची देख आशिल्ली.**
”

**पावस** ना कितें ही गरमी म्हूण कितें त्या गिमाक धुवन काडप? पावसाक हुस्केवप सामकें घरकारा हुस्केल्ले वरी. आनीक एकदां पावस पडलो मातयेचो वास सुण्या वरी हुंगता हुंगता म्हणल्यार घे पावसाक त्रासप ही साडी भिजली तो चुडीदार पिड्ड्यार जालो. अमक्याल्या लग्नाक प्यूअर सिल्क न्हेसपाचें थारायलें, पूण कितें गो बाये पावस? ह्या पावसाक लागून सादी नारायणपेठच न्हेसून गेलें. अशें म्हणत पावसाक शिणप.

असो पावस पडलो की म्हाका म्हज्या पापाची याद जाता. म्हज्या हाताक धरून आंगणांत कागदाची व्हडीं उदकांत सोडूंक म्हाका शिकोवपी. पापा आयज हयात ना पूण पापाची एक एक याद फकत 'फादर डे' मनोवपा पुरती नासता तर पापाची याद प्रत्येक दिसा दर एका खिणाक म्हाका 'फादर डे' मनोवंक लायता. पापाचे जे म्हजेर संस्कार जाले ते घरांतल्या मनशांचेर शेजाऱ्यांचेर, वाड्या वयल्या, गांवांतल्या, गोंयच्या, देशांतल्या सगळ्यांचेर मोग करूंक शिकयले. ताणें शिकयलें आनी हांव शिकलेंय बी. आनी हांवें सगळ्यांची माया जिखलीय बी. आयज हांव जगाच्या खंयच्याय कोनशाक पावलें तरी म्हाका म्हजीच मोगाळ मनशां मेळटात हो एक पापाचो संस्कार. भुरगेपणातच आई गेल्ल्यान जावंये हांव पापा लागीं चड लागींचे जाल्लें. पापान म्हाका वेंगेंत दवरूनच पापान संवसाराचो गाडो ओडलो. आतां कळटा बायल ना हें मनांत दवरून पापान ताचें जड मन कशें सांबाळ्ळें तें.

पापा हो म्हजो पापा आसलोच. ते भायर तो म्हजी आई, दैवत, गुरू सगळेंच न विसरपाचें. सांजेर साडे स जावचे पयलीं घरांत आसूंक जाय हो एक धाक म्हज्या मनाक आसलो. हांव तर भुरगेपणांत सामकें मस्ती. चलयाची मस्ती पूण जिद्दी म्हणटकच पापाक कडक शिस्तीन म्हाका सांबाळचें पडलें. पूण ते शिस्तींत खंय तरी पापाचो मोग लिपला म्हणपाचें हांवें सोदून काडिल्लें. मनशाक न्हावपाक, जेवपाक, न्हिदपाक, खेळपाक, अभ्यास करपाक अश्या सगळ्या कामांक थोडो तरी वेळ जाय. तशेंच दुसऱ्या दुयेतींची सेवा करपाक, अडचल्ल्यांक पावपाक वेळांत वेळ काडूंक जाय ही पापाची देख आशिल्ली.

पापान दिदीक धुवे वरी तर म्हाका पुता वरी वाडयलें. हांव केन्ना केन्ना आत्या तोंडांतल्यान आयकतालें "आरे पूत, पूत करून निमाणें जांवयूच हाडटलो मरे? काय सून हाडटलो?" पापा हांसतालो. आतां कळटा घराआत्याकय म्हजो कितलो हुस्को आनी मोग आसलो तो. पापाक म्हज्यो रुची कळटाल्यो. गांवांत पयलें फळ येता तें म्हजे खातीर पापा आमच्या घरांत पयलें हाडटालो. नवे मोदेलाचे कपडे म्हज्या आंगार पयलीं आसताले. खंयूय टुरार वचत तर त्या गांवच्या भेसांतल्या कपड्यांनी म्हजे फोटे



न्हेसला पळय' म्हूण बायलांची नदर आसूंक जाय. तेन्ना म्हाका फकांडां दिसतालीं आनी आता साडी न्हेसतनाय पापा तुजी याद येता. पापाची जी प्रतिश्ठा आसली ती शिस्त न्हय पयसो. ताणें केन्ना पयसो केलो ना. नांव सांबाळ्ळें आनी आईचें स्त्रित्वाचे जे संस्कार म्हाका आनीक दिदीक मेळ्ळे. पापान म्हाका सदांच पूत म्हणलों. निमाणें मेरेन हांवूय ताचे कडेन पुता वरींच रावलें आनी वागलें आनी थंय म्हाका खरें जैत आनी पापालो आशिर्वाद मेळ्ळो.

काडटालो. मागीर ह्या बापायचे संस्कार खंय आनी कशें उणे पडटले? आनीक पडलेय बी जाल्यार हांव म्हजें नशीब म्हणटलें म्हजें दैवत म्हजो पापा ताका दोश दिवचे ना.

रेडियो स्टेशनार नाटकाचे तालमीक वतना एक इश्ट कसो पापा म्हज्या वांगडा आसतालो. शाळेंत, स्कुलांत डिबेटीक म्हजे खातीर पापा प्रेक्षक जावन बसतालो. म्हाका मेळिल्लो ताळयांचो अंदाच पापा घेवन घरा येतालो. एकदां एका कोंकणी नाटकांत हांव मर्दीच विधवा जाता अशें आशिल्लें आनी हांव माचयेर आसतनाच मर्दीच पापा उठून गेलो. पापा बशिल्ल्या कदेलार ना हें पळोवन हांव शेणिल्ले वरी जालें. तरी नाटक पूर्ण करून केन्ना पापाक मेळटाशें जालें. पूण म्हजें नाटक सोंपतकच म्हाका इनाम मेळ्ळा म्हणटकच घरा पावपाक खूब कळाव जालो. उपरांत कळ्ळें हांव विधवा जावन वळवळटा तें ताच्यान पळोवंक जालें ना. म्हणचे पापा पापा आसूनय ताणें आईचेंय काळीज सांबाळिल्लें.

हांव साडी न्हेसूंक लागतकच साडी जरी जाली तरी पोट दिसूंक जायना, ब्लावजाचे हात, गळो आंग धांपपाचे शींव. साडी न्हेशिल्ले बायलेचेर दादल्यांची नदर न्हय तर 'कशी गच्च

म्हज्या व्हंकलपणांत हांव शिवण करतना खंयचे चादरीक उश्याच्या कवराक खंयच्या रंगाचें सूत घालप हें लेगीत म्हाका म्हज्या पापान सांगलां. रांगोळी काडटकच पापा वाड्या वयल्या लोकांक आपोवन दाखयतालो. म्हज्या लिखाणाक दिसांतल्यान अर्द वर दवरून म्हाका पापानच शिकयलें. म्हज्या आंगांतल्यो कला म्हजे परस पापा चड वळखलो. दर वर्सा पापा बगर म्हज्या वाडदिसाची उमेद कोणाकच नासली. दर वर्सा साडी वा साडी घेवपा खातीर जो लाखाटो पापा दितालो तो पापा 2000 वर्सां 9 फेब्रुवारीक आमकां सोडून गेलो. पापा वचप म्हणल्यार म्हजो पापा, आई, गुरू आनी दैतवच हालप अशें म्हाका जालें. खूब वायट अणभव आयलो.

भुरगेपणांत दळप, रांदप, नाल्ल निखळायनासतना फोडून बारीक कातप, बारीक भाजी चिरप, पुरणपोळी करतना पुरण कशें भरप, गॅस बारीक मोटो केन्ना करप, दारांत आयिल्ल्यां कडेन कशें वागप हें सगळें आई शिकयतना पापा म्हणटालो, ''परमळीत फुलां कडेन यो म्हूण आमी म्होंवा मुसांक सांगचें पडना''.

दारांतल्यांक भितर घेवप, उदक दिल्यार जाता पूण गोड उलोवप गरजेचें. कोणी येवन दार उगडलें की फेनाच्या बटनार बोट वचूंक जाय, अडचल्ल्यांक खंयच्याय वेळार पावचें तेन्ना रात दीस नासता. तानेल्ल्या भुकेल्ल्याक अन्नदान करचें. दारांत आयिल्ल्या भिकाऱ्यांक मनांतल्यान हांसल्या मुखान भीक घालची आनी हात जोडून तांचे बेसांव घेवचें. गिरेस्तांच्या आशिर्वादा परस भिकाऱ्यांचे मनांतल्यान कळवळून दिल्ले आशिर्वाद चड बेगीन मेळटा असो पापान म्हज्यांत समज केल्लो. पूण आयज तें खरें दिसता.

पापाले म्हणणे तोंडा वयलो हांसो शेणय नाका. ताका मनांतल्यान ओंठार खेळय. पोल्या वयली गुलाबसाण हांशान फुलता. दुसऱ्यांक केन्ना फटयनाका तुकाय कोण फटोवचो ना. फटोवंक आयलो तरी परतो वतलो. बरें मन दवर, बरी उतरां ओंठार घोळय. वाडिल्लें ताट जेवन पोट भर. पापाली ही उतरां तेन्ना किरवटीक दवरिल्ल्यान जिणेची चडटी हांव चडटना खर्शेवंक ना. रुद्राजी सारको घरकार पापानच सोडून दिलो. आतां एक कळून चुकलां, काळीज आशिल्ल्यांकूच मोग आनी त्याग ह्या उतरांचो अर्थ कळटा. म्हणूनच ताची जीण सफळ जाता. नातर जिणेक अर्थ कितें?

पापा आसतनाय केन्ना 'फादर डे' केलो ना. आतां तर नाच ना. कित्याक पापाचे जण एक संस्कारांतल्यानच पावल घालता थंय 'फादर डे' मनयता. पापा तू गेलो तरी तुजी याद काळ्जाक घट्ट जावन बसल्या. प्रत्येक याद दोळ्यां पाती ओली करता तेन्ना हांवें भुरगेपणांत केल्ली मस्ते खातीर तुवें केन्नाच म्हज्या आंगाक थापट लायलें ना म्हूण जावंये आयज मेरेन तुजे फुतफुतपी ओंठ आनी ते दोळे म्हाका शिटकायतात. हांव चुकता थंय. चुकता तेन्ना पापा असोच तूं म्हजेर, माये हात फाटीर आनीक तुजे आशिर्वादाचो हात तकलेर दवरून राव. मागीर म्हाका कितें गरज त्या वर्सांतल्यान एक दीस येवपी 'फादर डे'ची? हांव तर तुवें दिल्ल्या सुसंस्कारांतल्यान खिणाखिणाक 'फादर डे' मनयता.

# एक 'प्रवास' अणभवाचो

आतां हांव वाट पळयतालें ती जाणटेली म्हाका केन्ना देव बरें करूं म्हणटली म्हणून. वता वता बस कुठ्ठाळे पावली. ती जाणटेली म्हाका पळोवन हांसली लेगीत ना. फुडल्या स्टॉपार पावली तशी ती म्हज्या हाताक धरून उबी रावली. तेन्ना तिज्या तोंडांतल्यान उतरां भायर पडलीं, 'तुमी नेणटीं भुरगीं उबींरावन, जाणट्यांक बसूंक जागो दिवप हें तुमचें कर्तव्यूच! तूं जर उठूंक नाशिल्लें तर हांव कंडक्टराक सांगून तुका उठयता आशिल्लीच.

• पुष्पा प्रमोद गायतोंडे
हावसिंग बोर्ड, घोगळ,
मडगांव

**सोमाराचो** दीस तो. सकाळचीं साडेआठ वरां जाल्लीं. पणजे वचपी खूब प्रवासी मडगांव बस स्टॅण्डार भरिल्ले. पणजी वचपाक कदंबाचीच बस धरची पडटा. खूब गर्दी जमली. हांव मात्शें बारीक आनी मोटवें आशिल्ल्यान कशें तरी बसींत भितर घुसलें. धांवत वचून एक सीट धरलें. आसूं, हरवें सोदतल्याक पिकिल्लें मेळचें म्हणटात तशें.

थोडे थोडे करून सगळे लोक बसींत घुसले. पावल दवरूंक लेगीत सुवात नाशिल्ली. कंडक्टरूय लोकांक बस भरली तर पुरो म्हणून दार बंद करिनाशिल्लो. कित्याक तर ताकाय 'पॉकेट मनी' गर्दी आसल्यारूच बरे सुट्टात. प्रवासी म्हऱ्यांत आसून लेगीत तिकीट दिवन पयशे घेवप ना. प्रवासी देंवतना पयशे घेवप आनी भितलरल्या बोल्सांत घालप.

वाटेर बस वता वता वेर्णां पावली. एक जाणटी बायल बसींत चडली. आसतली 60-65 वर्सांची. दोळ्याक दाट वक्ल. हाताक एक पोती आनी उजव्या हाताक एक बडी. तिका पळोवन म्हाका काकुळट आयली. हांव उठलें आनी तिका बसपाक जागो दिलो आनी म्हणलें 'आई बस हांगा'. आनी हांव उठून उबें रावलें.

बसींतल्या एका प्रवाशान ल्हवूच म्हणलें, 'जावं बाबा, हे चलयेन तरी ते जाणटेलेक बसपाक जागो दिलो. आयच्या जगांत असलीं भुरगीं मेळपाक कठीण! ना जाल्यार जाणटेल्यांक कोण मान दिनात? हे चलयेचेर बरे संस्कार घरांतल्यान जाल्यात अशें दिसता'. म्हजी ही तुस्त आयकून मन खुशालभरीत जालें.

आतां हांव वाट पळयतालें ती जाणटेली म्हाका केन्ना देव बरें करूं म्हणटली म्हणून. वता वता बस कुठ्ठाळे पावली. ती जाणटेली म्हाका पळोवन हांसली लेगीत ना. फुडल्या स्टॉपार पावली तशी ती म्हज्या हाताक धरून उबी रावली. तेन्ना तिज्या तोंडांतल्यान उतरां भायर पडलीं, 'तुमी नेणटीं भुरगीं उबीं रावन, जाणट्यांक बसूंक जागो दिवप हें तुमचें कर्तव्यूच! तूं जर उठूंक नाशिल्लें तर हांव कंडक्टराक सांगून तुका उठयता आशिल्लीच.' तिचीं उतरां आयकून म्हाका शेळो घाम सुटलो. बऱ्याक गेल्यार बिरमत फुट्टा. खरेंच न्हय!

दुसऱ्या खिणाक उबें रावन प्रवास करतना कसले अणभव आयले ते सांगूं? कंडक्टर लोणचें कशें प्रवाशी चेंपतालो गरम गरम वारे! फाटल्यान फुडल्यान लोक घशटताले. कोणाचे पोटल्यो, सत्र्यो, पर्सी तोंडाक नाकाचेर आपटताली. कोणाचो घामाचो भयंकर वास, कोणाच्या तोंडाक तांबड्या पानाचो घमघमीत वास, तर कोणाच्या तोंडाक व्हिस्की, रम, बियर आनी फेणयेचो वास.

कांय कॉलेज कुमार, कुमारी ल्हानशे फीट कपडे घालून व्हड गॉगल लावन बसींत सीटाचेर बसून बोवाळ घालतालीं. हॅलो, हाव आर यू, व्हेरी गूड' अशीं भाशणां आयकून येतालीं. थोडे मात्शे बायलो, भुरग्यांक धरून आवयो, उब्यो आशिल्ल्यो. पूण ताका जागो दिवपाची 'पिशेपणां' तीं करिनाशिल्लीं.

सिटा पोंदा नुस्त्याचे पाटले भरून दवरिल्ले. नुस्त्याचो घमघमाट वास सगळ्याक पावतालो. मर्दींच कंडक्टर फुडें चलात, तीन लायनी करात, मोडचे पयशे काडात असो आवाज करतालो. वीस रुपया दिल्ल्यांचे पांच रुपया बाकी उरले, धा रुपयांतले पांच दी लोक नमळायेन सांगताले. कंडक्टर मर्दी आवाज वाडयतालो, प्रवाश्यांक तापयतालो, 'थोडे शेराक सव्वा शेर आशिल्ले' पूण तांकां सपोर्ट दिवपाक हेर प्रवाशी भियेताले.

कशी तरी एकदांची बस पणजी पावली सायबा! कितल्या तरी अणभवांचें गांठवल बराबर घेवन हांव देंवलें. खरें जिणेचें कडू-गोड अणभव, मनीसपणाचें रूप नेमके ह्या बसीच्या प्रवासांतल्यानच मेळटा. अणभव होच व्हड गुरू!

बसींतल्यान देंवतकच तकलेंत बसीचे ते सगळे अणभव कितलोसोच वेळ तकलेंत घुंवत रावले. घुंवत रावताले.

## "ROAD SAFETY IS A MISSION, NOT INTERMISSION"






**You may not get a chance to feel sorry !**

*Always wear a helmet while riding*

*Issued in public interest by*




*Your safety is our concern*

## म्हजें घर

निर्जीव वणटीन घुस्पटिल्ले स्वास
मनशांच्या पावलांची दोळ्यांक लावन आस
कवच्यांनी सजयिल्ल्या आड्याच्या राक्षसी वेंगेन
घुस्मट्टा म्हजें एकसुरें घर

घरा भोंवतणीं एक आडो
घरांतल्या मनशांच्या मनशा भोंवतणींय एक आडो
सदांच बंद आशिल्ल्या दारा फाटल्यान
मोन्यांनी रडटा म्हजें बावडें घर

म्हज्या घरान केन्नाय आयकूंक ना
जाणट्याल्यो काणयो.
घरांतल्या मनशां भशेन घरांतल्यो वणटीय मोन्यो
मायेच्या दोन उतरां खातीर
वाटे वयल्या लोकां कडेन आशेन पळोवपी
म्हजें पिशें घर

सूख-दुख्खां शेजाऱ्यालीं
केन्नाच म्हज्या घरान पावलीं ना
म्हज्या घराचींय सूख-दुख्खां
केन्नाच आड्या भायर गेलीं ना
एकटेपणाचो गळ्याक लावन फांस
एकसुरी जीण जगता
म्हजें, अनाथ घर.

ह्या बंद घरान बंदीस्त
कितलींशींच भग्न सपनां
आयुश्याच्या संगिताचो सूर शेणिल्लीं
मनशांची अर्दकुटीं कवनां
आशेच्या किरणांची वाट पळयत
मनशाच्या मनाच्या गाभाऱ्यांतलो काळोख,
पयस करपाक
काळखांत घडपडटा म्हजें बावडें घर

म्हज्या घराक आस,
सुर्याच्या पयल्या किर्णाची
पुनवेक नटिल्ल्या आंगणाची
म्हज्या घराक आस,
वणटींच्या हांसऱ्या कोनशांची
मनीसपणान नटिल्ल्या मनशांची
आनी, म्हज्या मनाची आस,
तो राक्षसी आडो मोडून
म्हज्या घराक एकटेपणाच्या शापांतल्यान मेकळें करपाची,
एक आस, म्हज्या रित्या घराक मनशांनी भरपाची
एक आस, म्हज्या घराक
'म्हजें घर' म्हणपाची.

• **लालन मेघःशाम पालयेकार**
खांडेपार, फोंडें
मो: 9764238928

## पिराय

जाणटे पिरायेंत
मायेस्त लोकांच्यो
विसरिल्ल्यो यादी
मन आयज फांफशिता... आनी
दुप्पट येवकाराच्यो
विस्कळ फुलां पाकळ्यो
गळून वतात.
जगिल्ले जिणेचो नियाळ
भावना... सपनां...
फुलत्या कळयेचो हावेस.
मनाचीं दुबळेपणां
दाखयतात... आनी
मनशाच्या संवकळीचे
उमळशिकेन कूड
म्हजी गदगदता...
कूड म्हजी गदगदता

• **संजय रो. गोवेकार**
पिळगांव, दिवचल

## हें खंयचें 'गोंय'?

अशें म्हणटात, परशूच्या धनुश्यांतल्यान,
जें तयार जालां,
तें आमचें गोंय.
जंय कोणाक दिसनासलो,
आपल्या जिवाचो भंय.
से. फ्रांसिस शावियर रावता जंय,
तें आमचें गोंय!

उत्तरेक ज्यो आसात सह्याद्रीच्यो रेशा,
जंय चडटा ती फकत फेणयेची नशा.
तेरेखोल, मांडवी, जुवारी,
ज्यो आसात न्हंयो.
जंय गाजता त्यो आमच्यो,
मयें आनी बुडबुड्यांच्यो तळयो.
तें आमचें गोंय!

जगपा खातीर जनावरांक उक्तीं सोडल्यांत,
तीं आसात बोंडला आनी खोतीगांवचीं रानां.
नांव आयकल्यारूच रूच येता,
तीं जातात हांगासर चारां आनी चुन्नां,
विंगड विंगड जाती आनी भाशांचो,
संगम जाला जंय,
तें आमचें गोंय!

पुरो.... पुरो....
आतां गोंयचीं खूब मारलीं आमी वोरींऽऽ
सपनांतल्यान उठात आनी पळयात.
आतां आमकां दिसतात तीं फकत,
कातरिल्लीं रानां आनी दुख्खाचीं घरां.
पयशां खातीर फोडिल्लीं,
आतां आपल्याच लोकांचीं दारां.
जाल्यार तान भागोवपाक,
उक्तीं आसतात तीं अमृताचीं बारीं.



उदकाक रंग ना अशें म्हणटात,
पूण हांगा न्हंयेच्या उदकाक,
तांबडो रंग चडला.
पयशेकारांक पांय पडून पडून,
आतां लोकांचेंय कमर मोडलां.
मनशान मनीसपण उदकांत व्हरून सोडलां.

सैम हें उतर तर आमी विसरूनच गेल्यात,
खरें म्हणल्यार सगळे आमी हांगा,
आतां नरकासूर जाल्यात.
आपलीच लज आमी,
पयशां खातीर विकल्या.
खऱ्याक फटींग आनी फटिंगांक खरें कशें करप,
हें आतां तरनाटे लेगीत शिकल्यात.

फटींग, चोर आतां भांगराच्या ताटांत जेवतात.
अर्देआसात जे दिसरात
फकत त्या सोऱ्याच्या बाटलेंत पेंवतात.
मिनाच्या धुल्लान हांगा आतां,
वशाड पडल्यांत शेतां.
व्हड व्हड शिकिल्ले भुरगे
कामाक लागून भायर देशांत वतात.
लोकांचे पयशे आतां भ्रश्ट मंत्री खातात.
खरें आतां आमकां,
ह्या असल्या मंत्र्यांक बांदपाक जाय,
बैलांक बांदतात तीं जुवां.

करपाक गेल्यार खूब कितें जातां.
आमकां फकत घट्ट बांदपाक जाय,
तीं आमचीं विचारांचीं मतां.
शिंवपाक जाय,
तीं ह्या काळजाक पडल्यांत तीं पोतां.
हातांत हात घालून गावपाक जाय,
एकवटाचीं गितां.

• अमेय नायक

# मोगाक घाल्या तुवें चौकट

उमाशेच्या किण्ण काळखांत
रानांतल्या झिली झोंपांतली
कांटेरी वाट काडीत काडीत
अचळय उडी मारता हांव
तुज्या यादींच्या तळ्यांत.

मन मन सळसळून
सोडटा चोंय दिका तुज्या उतरांचो भास
त्या वेळार फुट्टा
सांतोणे कळ्या कळ्यांत
येता, तुज्या म्हज्या मोगाचो वास

फांत्या पारार
निकतीच सुर्या किरणां
हांसतात पळोवन म्हाका
रातची न्हिदेंत गुंथिल्ल्या
तुज्या मोगाच्या झेल्यांक

रखरखीत वत वतांत
खंय तरी काळजाच्या कोनशांत
भिजून तुज्या म्हज्या
मोगाचें, गोड पक्वान्न
येतात आंवडे ताचो आस्वाद घेवपाक

वत जशें मोव जाता
न्हिदिल्लें पिशें मन जागवता
तुज्या अमुरपिक्या यादींचो बुडकुलो
कसोय तरी सोडून सोडून
खोशेन उसपितले म्हूण

शिरशिरत्या पावसांत
जेन्ना भिजता चिप्प धर्तरी
तांच्या दुका दुकांत
तेन्ना ताची ओलसाण
चडून म्हज्या मनांत
रिंगता तूं म्हज्या काळजांत

शिंयाळ्या दिसांनी
दर एक थरथरतें फूल, पान
सैमाच्या पदरांत
पिशें लायता म्हाका
तुजे वेंगेंत विळगळून
सारिल्ल्या त्या चार खिणांक

आंब्या काजूक
फुटिल्ल्या चंवरा चंवरांतलो
परमळ नकळटांच उबून
येता धांवून
भोंवन भोंवन तुज्या
मोगाच्या कवनांक घेवून

अशे तरेन तिनूय पार
तिनूय ऋतूंत
कितलेय आडायले
कशेंय समजयले तरी मनाक
मोगा फकत
तुजोच ध्यास

पूण तुवें लग्न जायना अशें म्हणून
म्हज्या मोगाक चौकट घाल्या
ताका लागून हांव म्हजीं पावलां
फुडेंय घालिना, फाटींय घालिना
फकत एक विचार मनांत हाडून
कसलीच चूक घडत म्हूण

काळजांत जितलो मोग आसा
तो तुज्या मुखार
खंयच्या मनांत तरी रितो करूं?
तुजीं तीं उतरां याद येवन
आडायता म्हाका
भोंवन भोंवन

नाकाच ती चौकट मोगा
घुस्मट्टा सामको जीव
मुक्त करून एकदां
दियात जागो म्हाका
सासणाचो तुजे जिणेंत

• **संतोषी कोले**
सेंट झेवियर कॉलेज
म्हापशें

## उजवाडाचें सत

उजवाडाचें एक सत
अनोळखी काळखांत सांसपिता
आनी नकळटां निर्मिता
विंगड विंगड तरांनी

घोळटा भुरग्यांच्या सहवासान
उडटा तरनाट्यांच्या हावेसान

कवीच्या सपनांनी सपनेता
लेखकाच्या विचारांनी नट्टा

फुलता गर्भवतीच्या आंगांत
पर्जळटा आवयच्या दोळ्यांत

गरिबाचे खोंपींत आशा जागयता
जोडप्यांच्या काळजांत मोग किल्लयता

बापायन हाडिल्ल्या खेळण्यांनी खेळटा
आज्यान सांगिल्ल्या काणयांनी रंगता

काळखाचेर जैत जोडीत
उजवाडाचें एक सपन
परमळटा तनामनांत




• **प्रज्ञा घाटवळ**
आर्लें,
फोनः 2741768




## आज्या...

आज्या,
असो कसो रे तूं
कळना तुका
कंप्युटराच्यो गेमी लेगीत खेळूंक?
म्हजे भशेन
कार चलोवपाक येना
डॅडी भशेन
फ्रायड रायस, वेफर, मॅगी आवडना
आमचे भशेन
पेजूच जेवता रातची.
टीवी तुका नाका दोळ्या मुखार
कपडेय कसले? पोरणे पुडवें.
सदीं बसता वाचत पुस्तकां
तरीय आज्या
म्हाका तूंच आवडटा.
काणयो बेस बऱ्यो सांगता,
रातीं न्हिदतना थापटयत
मम्मी डॅडीक लेगीत येनात तश्यो!




• **संहिता मोहन कुलकर्णी**
फो: 2370409

## हांवें कविता सोडली!

पयर शेजान्न म्हणूंक लागली,
'तुवें कविता सामकीच सोडली काय कितें?'
'अंह!' हांवें उजव्या बोटांनी माथें खरपिले,
आनी जनेलूच बंद केलें.
फोन आयलो, 'तुवें सामकीच कविता सोडली?'
म्हजे दांत झगडूंक लागले
हांवें मनांतल्या मनांत म्हणलें,
'प्रेमभंग जाल्ले वरी घाव्यार मीठ चोळटात व्हय?!'

कागद घेतलें, पेन धरलें
नीब कागदार चिड्डिली
...नीब थंयच उरली
पेनाचो दुसरो पोंत मात इल्लो इल्लो
म्हज्या तोंडांत गेलो.

इतले पयस खंय म्हूण सोडून गेली काय ती?
म्हजो मोग केन्ना कळ्ळोच ना तिका?
काय हांवें केन्ना तिचेर मोगूच केलो ना?
घटस्फोट घेतिल्ले वरी म्हजी प्रोपर्टीच घेवन गेली - बरोवपाची!

म्हजीच चूक... केन्ना तिचेर लक्षूच दिलें ना
पेनांत आसा की मनांत आसा
केन्ना चिंतलेंच ना!
हांव आसा आपलें, म्हज्या ध्येया फाटल्यान
कल्पना लेगीत करूंक ना...

खंय काय कुळार तिचें?
खंयचे दिकेन धांवचें?
कोणाक फोन करचो?
आनी खंयचे पुलिसांक सांगचें?

तकलेचो फार करून
हांतरुणार हांव पडलें
सपनां लेगीत कवितेचीं
मदींच एक सपन आड्डलें
'आयली... आयली कविता!'
हांवें दार उगडलें - दोळ्यांचें...

आतां वाऱ्यार पडिल्ली सगळीं कागदां,
म्हजें रिकमी मन
तिणें परत सोबीतकायेन सजयलां
ह्या कागदा भशेन!




• पलिया गांवकार
धेंपे म्हाविद्यालय
मिरामार
मो : 917798992020


## धगधगतो सुर्या

धगधगतो सुर्या वेंगायतल्याक
जळपाचो भंय कितें?
हांवें तर कळत पसून
पदराक ताका बांदला

कोणें म्हणलें बाये गो
पिशें कशें जावं नाका
दिसाची बांय पळोवन
रातीन उडी घेवं नाका

ओंपून सगळी जीण
झोकून दिला जिवाक
जीव ना जिवांत म्हज्या
उबें आसा नांवाक

सोदलें जरी जिवेपण
वेगळें काय दिसना
वता थंयसर तूंच तूं
वेगळें कांय आसना


• तेजश्री गोपाळ प्रभू गांवकार

## विचार

विचारांनी घुस्पल्लें हांव
कितलेशेच विचार आयले मनांत
विचारांचें एक व्हडशें
प्रस्नचिन्न आयलें ध्यानांत

कसले काय हें विचार
खंयच्यान काय हे येतात
विचारांचे दोर मनाक घुस्पतात
आनी मागीर नाच्च जातात

बरे विचार, वायट विचार
दिसरात येतात मनांत
बशिल्ले कडेन, न्हिदिल्ले कडेन
विचार आमची फाटूच सोडिनात

कांय विचार खोस दितात
उमेद दितात, आस दितात
कांय विचार उडयतात
काळीज आमचें दुखयतात

विचारांनी सपनां येतात
कांय खिणांनीच हांसोवन वतात
मन आमचें उमेदी जाता
विचारांनी व्यस्त उरता

विचारांनी याद येता
पयसुल्ल्या लोकांची
एक आस निर्माण जाता
ताची भेट घेवपाची
विचारांक शीम ना
कसलेंच तांकां बंधन ना
विचारांचो विशाळ दर्या
सोंपून केन्नाच सोंपचो ना

सदांच विचार बरे करचे
बरे हावेस फुलोवचे
बरीं चिंतनां करून
बरे विचार सत्यांत हाडचे

## जिवीत

जिवीत आमचें सूख-दुख्खाचें
उमाणें
आशेच्या मळबांत उडपी एक
सवणें

कांट्याच्या रस्त्या वयल्यान
सुखाच्या दोंगरार
वाट काडीत आमी
सरुया मुखार

सूख-दुख्खाच्या जोड पालवान
यत्नांच्या आमच्या कर्तुपान
कश्ट आमी करुया
जिवीत आमचें फुलोवया

सपनां आमी पळोवया
खरीं करूंक वावुरया
मोग आनी मायेन आमचें
जिवीत मोगाळ करुया

उमेदीच्या विशाळ दर्यांत
जैताचें व्हडें ताणया
दुख्खांतल्यान वाट काडून
सूख आमी सोदुया

• अनुशा पै फोंडेकार
मडगांव



## मरण

मरण कोणाक चुकलें ना
एक एक करून मरतले सगळे
भिरांत आसा मरणाची
तरिपूण करतात पाप सगळे

रित्या हातान आयिल्ले आमी
रितेच वतले आमी
जिवीतभर जोडलें जें
फाटीं सोडून वतले आमी

धन धन म्हूण ओंपली जीण
तेंच मरणाचें कारण जालें
जें जें जोडिल्लें तेंच
घरांचे कुडके करूंक पावलें

म्हणून आयज मागतां हांव
आपले गरजे खातीर धन
जोडप हें वायट न्हय पूण
धन जोडपाची भूक आसप
हें बरें न्हय

• वसीम अक्रम खतगावी
एम.ए.
गांय विद्यापीठ
मो: 9823609213

## सैम

मनीस जात आमची
खतरनाक आनी दुस्वासी
जिवीत हें जियेतना
पर्वा करिना कोणाची

काय बरो सैम हो
देणगी आमकां देवाची
आमीच करतात काबार ताका
पर्वा करिनात फाल्यांची

पाचवींचार झाडां-पेडां
आसात आमचे भोंवतणीं
कातरून आमीच करतात
काबार तांची गोड काणी

रूच आमचे जिबेची भागोवंक
मारून खालीं आमी मोनी जनावरां
इतलें खावन लेगीत कित्याक रे आमचो
जीव केन्नाच धादोस जायना?

मागीर रडटा दुकां पुसत
पावस रे कित्याक पडना
चिंतून पळय मात्शें मनशा
मन तुजें मोव कित्याक रे जायना?

• **सोनिया सावंत**
कुडचडें

## सोबीत गोंय

दोंगर कापून मसण पुरली
जित्यांक जमीन ना उरली
रानटी जनावरां गांवांत पावलीं
भाटां विकून-विकून सोंपलीं

शेतांनी बिल्डिंगो रोयलीं
रोखडीच घरांचीं रानां वाडलीं
प्लास्टिकाचो कोयर सांठलो
शेतांचो चिखल आटलो

गांव विकून नांवार करता मंत्र्यां पोरां
उदकान उर्बी रावता केसिनो घरां
गोंयांत फांकारता हळशिकेचें वारें
वगडायता सैमांतले अज्रांवर झरे

काजू कापल्यो आंबे कापले
बियो-काथे फॉरेनाक पावले
शाळेंत भुरग्यांनी धडे वाचले
चित्रां पळोवन तोंड लाळेलें

गवळ्यांनी बोकड्यो पोसल्यो
रावपाक खोंपी बांदल्यो
मातयेन पुरल्यो पुर्वजांच्यो खोंपी
बिल्डरांनी लोकांक घाली तोपी

सैमा आड खेळटल्यांक आडावया
खेळांतली हळशीक आटोवया
उमेदीन नांव जोडुया
सोबीत गोंय राखुया



• **विनोद गावडे**
बोकडबाग, बांदोडें
फोंडें
मो : 9823547047

## मोती



घरांतलो कुतू आमचो
मोती ताचें नांव
अनवळखी दिसलो जाल्यार
माथ्यार घेता गांव

न्हेसून बरो लग्नाक गेलो
पणजेच्या शारांत
लग्ना दिसाच चोरी जाली
व्हंकल बायच्या घरांत

मोतीन म्हणलें भियेनाका
चोराक हांव सांपडयतां
वासान ताका सोदून काडून
सभे मुखार उजरायतां

दिसलें लोकांक मोतीबाबाक
चोर कसोच मेळचोना
भांगरा बगर व्हंकलबाय
लग्न जावंक पावचिना

निरखून पारखून एकल्याचेर
मोतीबाबान घाली झडप
त्याच चोरान व्हंकलबायचें
भांगरशिंगर केल्लें हडप

• **सुवेदा सुनील पालकार**
नावशी,
पोस्ट- गोवा युनिवर्सिटी
फो: 2459321

## अपमान

धतरेची सोबीतकाय हांव,
धतरेचो स्वाभिमान हांव,
धतरेची गरज हांव,
पृथ्वी जिणेचें कारण हांव

हांव तुमकां जीव दितां,
हांव तुमकां थाकाय दितां.
हांव तुमकां नितळसाण दितां.
हांव तुमची तान भागयतां.

म्हजे बगर तुमी जगूंक शकना
म्हजे बगर तुमी रावंक शकना
म्हजे बगर तुमकां थाकाय ना
म्हजे बगर तुमकां सुसेग ना

पूण तुमी मात म्हजो अपमान करतात
म्हजी नितळसाण काबार करतात
म्हजे सगळे स्रोत दुशीत करतात
म्हजी पवित्रताय नश्ट करतात

कोण म्हज्यांत कपडे उमळटा
तर कोण म्हज्यांत न्हाता
आनी कोण म्हजेर प्लास्टिक उडयता
आनी हें सगळें प्रदुशण म्हाका अपवित्र करता

कोण म्हजेर कारखान्यांतली घाण सोडटा
तर कोण संडासाची घाण सोडटा
आनी कोण धुंवर सोडटा
पूण फकत तुमचे खातीर हांव हें सगळें सोंसतां

हांवें तुमकां म्हजें सर्वस्व दिलें
हांवें तुमकां म्हजें पूर्ण जिवीत दिलें
हांवें फाटली पुराय मनीसजीव जगयली
आनी जायसर जगयतलें

पूण हांव ना जाल्यार
तुमचें कितें जातलें?
तुमी कशे जगतले?
हाचेर तुमी केन्ना विचार केला?

तुमी मरतले पोरांनो,
तुमी मरतले. जगचे नात.
आनी पुराय पृथ्वी जीवन नश्ट जातलें
हीच म्हज्या अपमानाची ख्यास्त.



• **कामाक्षी पै फोंडेकार**
कोंब, मडगांव



## यो रे बेगीन...

राधेन तारू सोडलां
जगते जिणे पलतडीं
कृष्णाचे केन्ना लागतले
मना तडी आलतडी?

यो रे कृष्णा यो रे बेगीन
सुरूच्या झाडांनी
राधा तुजी वाट पळयता
दर्या पलतडीं

यो रे कृष्णा यो रे बेगीन
कुकाऱ्यो घालुनी
राधा तुजी वाट पळयता
रेंवे घरांनी

यो रे कृष्णा यो रे बेगीन
दिश्टाव्यांनी
राधा तुजी वाट पळयता
अधृश्ट ल्हारांनी

• **श्रीनिशा एकनाथ नायक**
कुलकर्णी वाडो,
बेतकी, खांडोळें,
माशेल
मो: 9673498617

## शिगम्या कवन

माडांनी धोल ताशे घुमघुमता
शिगम्या खेळ खेळूंक आपयता...

नव्या वर्साक येवकार रे, ओऽस्सय, ओऽस्सय फाल्गून रे...
फेट्यांक तुरे फुलांचे, मिरयता माथ्यार कोर तांबडे...

माडांनी धोल ताशे घुमघुमता
शिगम्या खेळ खेळूंक आपयता...

काजू आंबे रुखाचेर, सांवार आयल्या पोरांचेर
म्हौंव्या पणसा, अणसाक कांटे रे, कुसां कणसां शेतान रे

माडांनी धोल ताशे घुमघुमता
शिगम्या खेळ खेळूंक आपयता..

काण्णीन, जांबळीण निर्शेल्या, गोरी चुन्नीन मदेल्या...
रानांत हुसकी फुल्ल्या रे, मळब रंगान भरल्या रे

माडांनी धोल ताशे घुमघुमता
शिगम्या खेळ खेळूंक आपयता..

चांफ्या सांवरीचो वस्त्रगाळ, आंगार कळ्या फुलांभार...
भोंवर रंगला सुरंगी आंगार, हांसतात मोगरी पानान पान..

माडांनी धोल ताशे घुमघुमता
शिगम्या खेळ खेळूंक आपयता..

शेरुरू पाखे सुखावले, आतां कणयांक सवकले...
कोगूळ भैरवी गायता गो, सैमाची गोडी लायता गो...

माडांनी धोल ताशे घुमघुमता
शिगम्या खेळ खेळूंक आपयता..

चंद्रीम चांदणें वता पुनवेचे, पंचरंग न्हाण होळये खेळ खेळचे
ओंठार खेळ्या कवन शिगम्याचें, सोंपत्या वर्साक निरोपाचें..

माडांनी धोल ताशे घुमघुमता
शिगम्या खेळ खेळूंक आपयता..

## अरण्य प्रिया

तरण्या अरण्यांत
बेधुंद रमणी
पाचवीं वस्त्रां न्हेसून
नटल्या म्हजी
सैम प्रिया
अरण्या प्रिया!

अरण्य लावण्य
अरण्य झरे
अरण्य फुलां
अरण्य नशेंत
अरण्य दुर्गा
अरण्य प्रिया!

अरण्य दवांत
अरण्य थिकां
पाना पानार
अरण्य अलंकर
अरण्य प्रियेच्या
अरण्य आंगार!

अरण्य आकार
सांसपिता शरद
अरण्य सांवार
रुवां रुवांत
शृंगार सुखान
चंवरता सैम प्रिया
अरण्य प्रिया!

अरण्य हिरण्य
हिरण्य कळपांत
नाचता बेभान
नटवर मोर
वर्णनीय अरण्य क्रिया
अरण्य प्रिया!




• गौराज तळावलीकार
म्हालडे वाडो, तळावली,
फोंडें
मो: 9637212568


## फूल गो फुला

फूल गो फुला फुलान फुला
अपुरबायेच्या मोगा फुला
रंगान तशेंच गंधान न्हावन
परमळाय गो धायी दिका
फूल गो फुला शेवते फुला
मोगऱ्या तशेच चांफ्या फुला
धूंद अशा वासान तुज्या
धादोस कर गो जळामळा

गोटलां हळ्ळी आबोल्या फांती
सोबयात गो अस्तुऱ्यां माथी
देवते पांयार ओंपून घेवन
जाया पुजे पमरळायता रातीं

रंग रंगयाळे पळोवन झेले
धादोस जातले सगळ्या दोळे
गंधान तुज्या पिशें जावन
झोंपय घेतले भुंगे काळे

कादळां ओवळां आनी सुरंगां
जण एकल्याच्या भरल्या मनां
सुकली बावली तरी अजून
परमळटात बाये धूंद वासान

सूख दी धुंदी दी
अतृप्त मनाक शांती दी
जिविताच्या अंता मेरेन
गंधाचो तूं साथ दी


• सुफला प्रभू शेळकार
फो : 2511797


## भावार्थ

देव आसा, देव ना
जण एकल्याच्या मनाची घडण

निर्मिती संवसाराची केल्या देवान
ताचेर अपुरबायेन रचला मनशाक

जल्म मनशाचो आवयच्या उदरांत
मनाची घडण घडटा आवयबापाय कडल्यान

संस्कार हे चड मोलादीक
जातूंत जाण गरजेची देवाची

घेवन नांव देवाचें कार्य आरंभल्यार
तडीक वतलें कार्य आडखळी भायर

संस्कारी घडण, जरी केली आवयबापायन
जतनाय घेवंक जाय ताची जण एका भुरग्यान

देवा वयलो भावार्थ हें शस्त्र साद्या मनशाचें
कसल्याय प्रसंगाक,
कसल्याय आडखळींक उपकारपाचें

मनशा मनशा वयलो उडलो जरी विस्वास
भावार्थ तारून व्हरतलो मनशा मनशाक


• शैला (तरुलता) एस. धुमटकार
कला निकेतन,
घ.नं. 9/174,
दादा वैद्य मार्ग,
पणजी

# कोण तरी बरयता

शेतकाराच्या सुक्या शेताक
पावस जावन भिजयता
शेतकाराचो घाम गाळून
शेत ताचें पिकयता

कळत-नकळत कोण तरी
सैम हो नटयता
ही काणी कोण तरी
उमेदीन बरयता

दिसाक पांच रुपया
घालपी जावन भूक न्हिवयता
हुस्क्याचें ल्हान जावन
न्हीद खळयता

कळत-नकळत कोण तरी
मनीस वृत्ती थारायता
ही काणी कोण तरी वेवस्थीत
बरयता

लग्नाच्या बाजारांत
भावना जावन नातीं जुळयता
पयस वता चेडूं म्हूण
आवयबापायक
वेदना जावन रडयता

कळत-नकळत कोण तरी
जावपी वेदना थारायता
ही काणी कोण तरी
खिणाखिणाक बरयता

णव म्हयन्यांच्या अंतराचेर
बाळांक जगांत वसयता
तर येदेशें कारण जावन
कितल्या जाणांक उठयता

कळत-नकळत कोण तरी
येवप-वचप थारायता
ही काणी कोण तरी
काळजार फातर दवरून
बरयता

ही काणी कोण तरी
बरयता



• **शुभम शाबा कुडतरकार**
फो: 9637396800

# On the Brink of a Memorable Milestone...
## *50 years of Freedom*



Shri Digambar Kamat
*Hon'ble Chief Minister, Goa*


EDUCATION


INDUSTRY


AGRICULTURE



HEALTH


TOURISM

As we march to the milestone of the Golden Jubilee of Liberation from colonial bondage in the coming year, we pay homage to Goa's intrepid freedom fighters and the valiant Indian Army on the memorable day when 49 years ago the Indian Tricolour waved for the first time in freedom across Goa.

Since then our state has made rapid strides in social and economic spheres. As a tourist destination, it is second to none in the country, and does not lag behind in crucial social and economic indicators. It occupies a prime position in per capita income and in important signposts like female literacy, social welfare and health care. In overall literacy rate, Goa ranks among the highest in the country.

Goa may be among India's smallest states, but its hospitality - both in spirit and as an industry - has remained unmatched. Indeed it has made rapid strides in all fronts since breaking free on December 19, 1961. And it is the indomitable spirit of the people of Goa that has made this possible.

On this occasion of both solemnity and celebration we pledge to keep the flame of freedom burning in our hearts and in our land.

Jai Hind! Jai Goa!

Issued by:
Department of Information and Publicity, Government of Goa

